


*We Promise We Deliver*

# PRASANNA V. GHOTAGE

## EXPORTS & LOGISTCS

**Head Office :**
"SAFALYA" Main Road,
Castle Rock-581 121
Tal : Joida
Dist : U. K. Karnataka
Ph : 08383 251544

**Corporate Office :**
Prasanna V. Ghotage
1088/B, Prerana Hommes,
Ranade Colony,
Hindwadi, Belgaum - 590 011.
Off: Ph; 0831-2404163
Fax: 0831-2403973
Email : pvg1964@gmail.com

**Panaji Office**
Prasanna V. Ghotage
G/8, Nizmar Centre
Atmaram Borkar Road
St. Inez
Panaji Goa
Ph : 0832:3259416
Fax : 0832:2223300

कोंकणी मासिक

# बिम्ब



ईश्वरीय राज्य नाका
नाका परमेश्वरीय राज्य
जाय मनीसपणाचें सुराज्य!

 -दिलीप बोरकार



रेखाचित्रां - गिरिश नंदा बोरकार


वर्स : २ अंक ८
(आरएनआयचे नोंदणी खातीर मांत्रीक बदल)
नोव्हेंबर २००९

मूळ वर्स : ८ अंक ११
मोल १५ रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

भुरग्यांचें आंगण संपादन
सुफला रुद्राजी गायतोंडे

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

छापणावळ
सह्याद्री ऑफसेट, खोर्ली-तिसवाडी

मार्केटींग व्यवस्थापन
कामिनी किणी

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ
श्वेता नाईक

वर्गणीचे दर
वर्सुकी २०० रु. / तीन वर्सां ५५० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन
वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक
'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो

संपादकीय पत्रव्हाराचो पत्तो
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in
ह्या अंकांत उक्तायल्ले विचार त्या त्या बरोवप्याचे आसात. संपादक मंडळ तांचेकडेन सहमत आसतच अशें ना.

संपादकीय

# सनातन साधकांनी पापांचें परिमार्जन करचें!

सनातन साधकांचे म्हळ्यार ह्या साधकांचे प्रेषीत डॉ. जयंत आठवले हांचे सगळेच फाशे उरफाटे पडूंक लागल्यात. करूंक गेलों कितें आनी जालें कितें अशी गत ह्या संताचे पदवेक पावूंक आंवडेवपी समाजघातक्याची जाल्ली आसा. आमकां आठवलेचें व्हडलेंशें पडूंक ना. असले आठवले हुळहुळ्ळे कितले आनी सोंपले कितले हाची गणटी काळाचे व्होंवरेंत ना जाल्या. पूण आमकां हुसको आसा आमच्या गोंयच्या तरनाट्या भावाभयणांचो, जांका ह्या आठवलेन आपल्या नादाक लायल्यात. जे कोण ह्या चक्रात घुस्पले आनी आठवलेन दाखयल्ल्या चुकीच्या मार्गान गेले तांकाच आज ही संस्था आठवलेच्या मुखेलपणाखाल न्हयकारता. तांची जापसालदारकी घेना आनी जे कोण ह्या बॉम्बस्फोटांत सापडल्यात तांचे कडेन नातेंच तोडून उडयता.

समजा फाल्यां सिध्द जालें की मडगांवां जो दिवाळेच्या आदले राती बॉमस्फोट जाल्लो तातूंत सोंपिल्ल्या योगेश नायका वांगडा गोंयच्या हेर तरनाट्यांचो हात आसा आनी तांका कायद्यान ख्यास्त जाली जाल्यार ह्या तरनाट्यांच्या घरच्यांनीं कोणाच्या तोंडाकडेन पळोवपाचें? ह्या तरनाट्यांचें कुटूंब आनी सोयरे धायरे गोंयच्या समाजांत ताट मानेन भोवूंक शकतले व्हय? तांच्या कुटुंबाक सनातन संस्था बुजवण तरी दितली व्हय?

बांदोडा ग्रामसभेन सनातनाचेर बंदीचो थाराव हाडला. सनातन संस्था आमच्या गांवच्यान चलप ही लेगीत गजाल लजेची म्हणपाचें गांवचे लोक मानूंक लागल्यात. जेन्ना गांवच्या लोकांक नाका जाल्यार असल्या संस्थांचे आश्रम आनी वावर गांवांत चलूंक शकना. गांवच्या निर्णयाक मान दिवन सनातन संस्थेक आता गांवच्यान बिटकी कवळचीच पडटली. त्याबगर तांका दुसरो पर्याय ना. जर तार्णी गांवच्या निर्णयाकडेन आडनदर केली जाल्यार ग्रामस्थांच्या रोशाक तोंड दिवंचें पडटलें. गांव जेन्ना खुबळून एक जाता तेन्ना सनातना सारक्यो संस्था ज्यो तालेबानच्या पावलार पावल दवरून नक्षलवाद्यांच्यो कारवायो करूंक सोदता त्योच न्हय तर सशस्त्र दळाक लेगीत थारो मेळना. तेच पासत आतां सनातनच्या साधकांक बांदोडेचो गांव सोडून पळ काडचोच पडटलो!

पूण एका गांवाच्यान पळ काडल्यार दुसऱ्या गांवान तांका आसरो दिवं नाका? तसो आसरो दिवपी खंयचोच गांव ह्या देशांत ना. असल्या समाज विघातक करण्यांक खंयचोच सुबुध्द नागरीक थारो दिवपाचो ना. मातशी कल्पना करात, जर तो बॉम जो दिवाळेच्या आदले राती एके आडवाटेर फुटूंक नाशिल्लो आनी जर तो नरकासूराची सर्त चलता ते गर्दींत फुटिल्लो जाल्यार कितें जावपाचें? कितलीं ल्हान भुरगीं आनी बायलां-दादले मरपाचे? कितल्या जाणांचे हात-पांय तुटून ते सासणाचे अपंगूळ जावपाचे! गोंयच्या कितल्या घराब्यांनी दिवाळेदिसाच सासणाचो काळोख पसरपाचो!

देवादयेन हें घडलेंना म्हूण सांगात. घडिल्लें जाल्यार कितें जावपाचें हाची कल्पना लेगीन करूं येना. तेन्ना असल्या समाज घातक्यांक गोंयांत आनीक आनी थारो दिवपाचो?

तरीपूण हांगा एक पूण उरता. आमी कोणेच ह्या लोकांक, चड करून तरनाट्यांक पर्यायी काम दिलेंच ना. आमच्या सारक्या तरनाट्यांक त्या काळार विद्यार्थी चळवळी, युवा चळवळी आशिल्ल्यो. वेगवेगळ्यो मागण्यो घेवन आमी शौर्य गाजयताले. आतांच्या तरनाट्यां मुखार तसलें कसलेंच काम ना. जो कितें सांस्कृतीक वावर करतात तो सगळ्यांकूच आवडटा अशें ना. कांय तरनाटे राजकीय फुडाऱ्यांचे कार्यकर्ते जावन रावल्यात. तांका तर गोंयचें कांयच पडूंक ना. आपलेंच कशें बरें जातलें हे घुवळेंत ते आपल्या फुडाऱ्यांक धरून आसात. पण कांय तरनाटे आसात जे आपल्या सळसळटया रगताच्या उल्याक जाप दिवन क्रांतिकारी वावर करूंक आंवडेतात. तांका सापडटात मागीर आठवले सारके लोक. तांका सापडटात खोमेनी आनी लादेना सारके लोक. तातुंतल्यान मागीर ह्या तरनाट्यांची अवस्था जाता कसाबा सारकी!

आमकां आमचे तरनाटे कसाब जाल्ले नाकात. तार्णी हें गोंय घडोवपाचें आसा. तेन्ना आतांच ह्या चक्रांतल्यान तार्णी भायर सरचें आनी आपली शक्त बऱ्या विचारांचो सांगात धरून विधायक वावराक खर्ची घालची. फायचें गोंय तीच वाट पळयता. तार्णी केल्ल्या पापांचें परिमार्जन करपाचो होच एक मार्ग जावं येता!

# प्रतिबिम्ब

## बिम्ब दिवाळी अंक तोखणायेचो जाला!

बिम्ब दिवाळी अंक २००९ खऱ्यानीच तोखणायेचो जावन आसा. मुखावयलें मुखपृष्ठाचें पडबिंब पळयल्या उपरांत पोरण्यो यादी ताज्यो जातात. काशिनाथ शांबा लोलयेकारांच्यो कविता तीन वेळां वाचून लेगीत माथ्यावयल्यान गेल्यो. इतलेंच न्हय ह्यो कविता वाचतल्यांक विचार करूंक लायता आनी तोंडार अमुरपिको हांसो हाडटा.

दोतोर मेजर शेटये हांची ‍ँदोन सुर्णीं‍ँ ही काणी बोध घेण्यासारकी आसा. तशेंच बाय सुफला गायतोंडे हांची ‍ँधुवांच्या संवसारांत आवयांनीं नाका घालचें न्हय‍ँ ह्या लेखाची देख आतांच्या चोंबड्या आवयांनीं घेवंक जाय. तेन्ना तांच्यानीं वेळांत वेळ काडून ही कथा मुजरत वाचची आनी उपयोगांत हाडची. भौमानेस्त बाब रमेश वेळुस्कार हांचे १०१ अभंग वाचून मन प्रसन्न जालें. श्री संत तुकारामाचे अभंग ह्या एकविसाव्या शतकांत एक खाशेलो असो दिश्टावो आनी साक्षात्कार घडयता.

जेवणांत जशें लोणचें, पापड आनी सालाद रूच वाडयता तशेंच हेर कविता आनी काणयो वाचतल्यांची उमळशीक वाडयता आनी ह्या बिम्ब दिवाळी अंकाचो दर्जो वाडयता. तेन्ना कोंकणी मोग्यानी तशेंच हेरांनीय ह्या दिवाळी अंकाचो आस्वाद घेवंचो.

बिम्ब दिवाळी अंकाक हांव उपाट यश आवंडेतां आनी दिसानदीस बिम्बाची उदरगत जावं आनी तातूंत बरयतल्यांक सदांच बरें आरोग्य आनी नव्यो नव्यो कल्पना सुचूं अशें मागतां.




**– सोनिया सुभाष शाह**
शांताबन कॉलनी, मेरशी – गोंय.

---




संपादक,

आगस्ट २००९चो अंक मेळ्ळो. तातुंतले 'प्रतिबिम्ब' सदरांतु, श्री. पुंडलीक नायक हान्नी बरयिलें पत्र वाचलें.

काहीं लोक आमगेल दिकाची भाषा खरी, तुमगेल दिकाची बाटिली म्हणताती, भांडताती. मातृभाषेक भीक माघच्याक लायताती. कोंकणी भाषेचेरी विवाद निर्माण करत, स्वतः पुढारी जाव्नु नांव कमय्ताती.

आनी काहीं लोक, श्री पुंडलीक नायक असले, श्री दिलीप बोरकार अस्सले, गोयां भायले कर्नाटक, केरळा, महाराष्ट्रा राज्यांतु आस्सिल्या कोंकणी भाषिकांक, लेखकांक अेकत्र हाडचें, प्रोत्साहन दिवचें प्रयत्न कर्ताती. निर्विवादपणान कोंकणी भाषेच अभिवृध्दी खातिर खूब धडपडताती.

तांका सम दिस्सिलें उलोव्नु दाकय्ताती. करून ही दाकय्ताती. म्हणून माका तांचे बध्दल अभिमान वाटता. धन्यवाद.

**(पद्मनाभ नायक)**

---

### ती कविता काशिनाथ शांबा लोलयेकाराची

**का**शिनाथ शांबा लोलयेकार हाणीं दिवाळी अंकाखातीर स कविता धाडिल्यो. कवितेचीं सगळीं पानां भरून जाल्या उपरांत कोंकणींतले जेश्ठ साहित्यीक श्री. पुंडलीकबाब नायक हांच्यो तीन कविता अंक तयार जातां जातां पावल्यो. ताच्या फाटल्यान प्रकाशबाब पाडगांवकार हांचीय एक कविता आयली. जेश्ठ कवी म्हणटकच तांचो क्रम सुर्वेकूच आसूंक जाय अशें ना. तरीपूण अंकाचो लेआवट करतल्यांक तशें दिसलें आनी हें कवितेचें आगंतूक पान मदींच घुसडोवपाचो यत्न जालो. हाका लागून काशिनाथ शांबा लोलयेकार हांच्यो पांच कविता एकेकडेन आनी स वी कविता तिसऱ्या पानार पावली. जाणकार वाचकानी ती सोदून काडल्याच आसतली. तरीपूण कोणाकूय ती कविता कोणाची काय म्हूण प्रस्न पडला आसूं येता. पान नं. ५१चेर संहिता कुलकर्णी हांच्या कवितेच्या माथ्यार जी बेनाम कविता आसा ती कशिनाथ शांबा लोलयेकार हांची म्हणपाची वाचकानी नोंद घेवची.

-संपादक

# ईश्वरीय राज्य नाका नाका परमेश्वरीय राज्य जाय मनीसपणाचें सुराज्य!

- दिलीप बोरकार



गोंयचे लोक दिवाळेचे तयारेक लागिल्ले. दिवाळेचे तयारेक म्हणटकच कांय लोकांक दिसतलें फकत गोंयचे हिन्दू लोक म्हूण! हिन्दू लोकांनी घराकडेन आकाशदिवे तयार केल्यात आसतले! फोव केल्यात आसतले! काट्टीं फोडूंक तीं हाडून दवल्ल्यांत आसतलीं! पणट्यो हाडून तातूंत तेल बी घालून पेटोवपाचे तयारींत दवल्ल्यात आसतल्यो! इतलेंय करून हे सगळे लोक नरकासूर पळोवंक घरांतल्यान भायर सल्ल्यात आसतले!

हें अशें चलतना गोंयचे मुसलमान, किरिस्तांव बी कितें करताले? तेय तर गोंयकार. ते घराकडेन न्हिदून रावलेनांत. गोंयच्या किरिस्तांव शेतकारांनी आपल्या शेतांत पिकिल्लें नवें कुडवभर भात शेजारी हिंदू भावागेर फोवां खातीर धाडिल्लें. दिवाळे दिसा तेय फोव खावपाक तांगेर वचपाचे आशिल्ले. मुसलमान भावानी अशें कांय धाडलेंना आसत. पूण ताणेंय दिवाळेदिसा फोव खावपाक आपल्या शेजारच्या हिन्दू भावागेर वचपाची तयारी केल्ली. कित्याक तर दर ईदाक तेय येवन शिरखुर्मा खाताले. ईदाचीं परबीं दिवन वताले. कितले तरी वर्सांची परंपरा ही. कोणाक चुकना. कोण चुकोवंक सोदिना.

दिवाळेची ही सगळी तयारी दर एकल्यागेर आसता. हें सगळें ते आदीं नरकचतुर्दशी दिसा नरकासुराक ल्हासपाखातीर एकठांय आसतात. नरकासूर हिंदूंचो म्हूण क्रिस्तांव आनी मुसलमान कुशीक राविल्ले नासतात. हिंन्दूनी नरकासुराचें रुपडें केल्लें आसता. फोली लावन कपडे केल्ले आसतात. पूण नरकासुराक तयार करूंक तण कोणें तरी आंतोन जावं रुजारान हाडिल्लें आसता. कोंडे जावं फळकुट्यो कासिम वा महमदान हाडिल्ल्यो आसतात. नरकासूराची वर्गणी जमोवंक हे तिनूय धर्माचे एकठांयूच भोविल्ले आसतात. तांचे खातीर नरकासूर म्हळ्यार हिन्दूचोच न्हय. तो त्या वाठारांत रावपी सगळ्यांचो. नरकासूर फकत हिन्दूकूच पिडना. तो पळयना कोण क्रिस्तांव आनी कोण मुसलमान! म्हणटकच नरकासूर वध करूंक जमतात सगळ्या धर्माचे लोक. थंय नासता कोण हिंदू, थंय नासता कोण क्रिस्तांव आनी नासता कोण मुसलमान. देखूनच सगळे गोंयकार लागिल्ले दिवाळेचे तयारेक.



दुर्जनाचो नाश म्हणटात तो होच काय ?

पूण कांय हिन्दू भलतेच तयारेक लागिल्ले. खरें म्हळ्यार ते हिन्दू न्हय. हिन्दू धर्मांत ताणीं जल्म घेतला जायत. पूण तांकां हिन्दू धर्म म्हळ्यार कितें तें केन्नाच कळ्ळें ना. तांकां विवेकानंद कळ्ळो ना. तांकां आदी शंकराचार्य कळ्ळोना. तांकां सनातनाचो अर्थ कळ्ळो ना. तांकां एकूच गजाल कळ्ळी ती म्हळ्यार कोण तरी देशांत धर्माच्या नांवांन धुस्पट घालतात. ते धर्मांध लोक. ते मुसलमान लोक. त्या लोकांक प्रतिकार करतलो जाल्यार तांचे परस व्हड तांकीची संघटना तयार करूंक जाय. ते तलवारी वापरतात जाल्यार आमचे संघटनेन बॉम्ब आनी पिस्तोलां वापरूंक जाय. ते धा लोकांक मारतात जाल्यार आमचे संघटनेन शंबर मारूंक जाय. टीट फॉर टॅट हें तंत्र आचरणाक हाडूंक जाय. आनी म्हणूंक जाय गर्व से कहो हम हिन्दू है। पूण हे खरेलेच हिन्दू? ना. हे नरकासूर. नरकासूर हो हिन्दू मदलोच आशिल्लो. जशे हे स्वताक हिन्दूचे राखणदार समजुपी आसात तशे! हांकां राखणदार केले कोणे? जे कोण हिन्दू एकठांय जावन नरकासूर सर्त घेतात तांकां ती घेवं नाका म्हूण सांगपी हे कोण? कोणे दिला ह्या लोकांक हो अधिकार? खंयच्या हिन्दून घाल्या ही जापसालकी हांच्या बोडार?

## नरकासूर हें उत्सवाचें प्रतीक

गोंयचे लोक हे उत्सवप्रीय लोक. गोंयकार दबाज्यान गणपतीची मूर्त पुजतात. सार्वजनीक उत्सव करतात गणपतीचो. मोठ्या उमेदीन गणपतीचें विसर्जन करतात. चवथी दिसांनीं पांच दीस मेरेन गोंय ठप्प आसता. पुराय गोंयाक जणूकाय कर्फ्यू लागला. कोण सांगता हें सगळें करूंक? लोक आपूण जावन चवथीक खोस मनयतात. अशें महाराष्ट्र म्हळ्यार कोकण सोडलें जाल्यार खंयच घडना. गणेशोत्सव कोकणांतलो म्हळ्यार कोंकण्याचो उत्सव. दिवाळी न्हय. दिवाळेचो उत्सव हेर राज्यांचो. थंय गोंयचेवरी कोंकणांत जाता तसो गणेशोत्सव जायना. थंय जाता विजयादशमी. वध करतात रावणाचो. मागीर फुडले तीन-चार दीस दिवाळी. गोंयांत जाता तो नरकासुरोत्सव.

नरकासूर हें वायटाचें प्रतीक. श्रीकृष्णान दुश्ट, लोकांक पिडापीड दिवपी नरकासुराचो वध केल्लो देखून गोंयकार प्रतिकात्मक नरकासुराचो वध करतात. नरकासुराची प्रतिमा तयार करून लासतात. हांगा तांकां नरकासुराचें उदात्तीकरण करपाचें नासता. तांकां जाय आसता निमित्त एका उत्सवा खातीर. जंय मोठे संख्येन लोक जमतात. त्या निमतान सर्त घेवंक मेळटा. मोठ्या प्रमाणांत दुडवांची उलाढाल जाता. हें करतना कोणाचे तकलेंतूच येना की नरकासूर हें वायटाचें प्रतीक. नरकासूराक न्हय, कृष्णाक म्हत्व दिवंक जाय. जेन्ना उत्सव प्रिय आनी म्हत्वाचो थारता तेन्ना ताचे फाटलीं संकल्पना गौण थारता.

गोंयांत एका काळार घराघरांनी गणपती पळोवंक वताले. गणपती पळोवपाची सर्तूच लागताली. आयज कोण वता गणपती पळोवंक? आयज वतात लोक नरकासूर पळोवंक. कित्याक त्या कार्यक्रमाक उत्सवी रूप आयलां. जर गणपती पळोवपाच्या कार्यावळीक उत्सवी रूप दिल्लें जाल्यार थंयीय तशें घडपाचें. पूण आयचे काळाक, आयचे पिळगेक कोण लागीं ओडटा? जंय चड आकर्शक घडणूक आसता थंय. तेच पासत नरकासुरोत्सव चड गर्दी ओडून हाडटा. थंय कितें वायट, कितें बरें ह्या खोलांत कोण वचना, दरेकाक जाय आसता उत्सव. धुंदी वाडोवपी. आनी असो हो उत्सव नाका म्हणपी हे कोण? जे कोण बंद करिनांत तांचे गर्देंत वचून, जीव घेवपी बॉम्ब फोडून तांकां मारूंक सोदपी हे कोण? कोणे दिला तांकां हो अधिकार?

## कोण हे सनातनी साधक?

सनातन साधक म्हणोवन घेवपी ही गोंयांक लागिल्ली कीड. घरांतली एक शोभेवंत लाकडाची वस्त. बरी कलाकुसर केल्ली. भायल्यान पळोवंक ती पेजाद दिसता पूण भितल्ल्यान किडीन तिका पोखल्ल्या. वाळटी पुराय वस्तूभितर फाफसल्या. लाकडाची वस्त खावन कावार केल्या.

तेच भशेन ही हिन्दूच्या नांवांन, हिन्दूची राखण करपाची जबाबदारी आपल्याच भुजांचेर आसा असो आपलो समज करून घेवन आनी हेरांचोय समज करून दिवन वाळटी कशी गोंय भितल्ल्यान कुरतडत आसा.

वाळटेच्या ह्या धवसारपणाक लागून कोणाक तो जीव तांबडे मुयेवरी वा काटमुयेवरी त्रासदायक दिसना. तांबडी मूय दिसली काय तिका चिड्डूंक वतात तशे कोण वाळटेक चिड्डूंक वचना. पूण जेन्ना वाळटेची करामत कळटा तेन्ना सगळें सोंपिल्लें आसता. आयज गोंयची परिस्थिती तशीच जाल्ली आसा. सनातन साधकांच्या रूपान पुराय गोंयांक धवी वाळटी लागल्या.

## हिन्दूनी हांकां मक्तेदारी दिल्या?

डॉ. जयंत आठवले हो एक गोंया भायलो मनीस गोंयचो जावंय. गोंयकार चलयेकडेन तो लग्न जाला. हो आठवले संमोहनशास्त्राचो जाणकार. मानसशास्त्राचो अभ्यासक. ह्या शास्त्राचो अभ्यास केल्ले तशे जाणकार खूब आसात देशांत. पूण ते आपल्या शिक्षणाचो वापर समाजविघातक कार्याखातीर करिनांत. केलोय जाल्यार तो समाजाच्या उत्थाना खातीर करतात. पूण आठवले हो ते जातकुळयेंतलो न्हय.

गोंयांत नारायण आठवले आयिल्लो. गोमन्तकाचो संपादक म्हूण! ताका आक्रमक अशे लेखणीची देणगी फाव जाल्ली.



सनातनवाल्यांचे कल्पनेंतलें ईश्वरीय राज्य अशेंच आसूंक जाय!

ताचो उपेग करून ताणें गोंयचो भाशीक वाद चिघळायलो. गोंयकारांमदीं फूट घालपाचो यत्न केलो. हें तो करूंक पावलो ताचें कारण म्हळ्यार ताच्या भितर हो लोकांक भुलोवपाचो, भुलोवन खुबळावपाचो गूण आशिल्लो. आपल्या धर्माक जागून नारायण आठवलेन गोंयांत भाशीक दुस्पट घाली तशी कांय समाजाक उपेगी पडपी गजालीय केल्यो.

तेच जातकुळींतलो डॉ. जयंत आठवले. ताकाय एक दैवी गूण प्राप्त आसा. तो गूण म्हळ्यार वशीकरणाचो. हो गूण जाचे भितर आसा ताका देमागोग अशें म्हणटात. देमागोग म्हळ्यार भौसाक खुबळावन घालपी. भौस खुबळावणो. हो गूण आशिल्ल्याक लोक सहज वश जातात. आपली सद्सद् विवेक बुध्द होगडावन बसतात. आनी हो देमागोग जें सांगता तें आयकता.

हिटलर हो एक उत्कृश्ट देमागोग. ताका वशीकरण शास्त्र बरें जमतालें. तो उलोवंक लागलो जाल्यार लाखांनी लोक ताचें भाशण आयकून दंग जाताले. हिटलर केन्नाच युध्दांत देंवलोना. ताणें केन्नाच लढाई केली ना. केलीं तीं भाशणां. हीं भाशणां आयकून, ताचें उलोवप आयकून ताका लोक वश जाताले. अशिक्षीत आनी नेणार न्हय. तर शिकिल्ले, बुदवंत, बुध्दीवादी बी सगळे. हिटलराच्या भाशणांनी पिशे जावप्यांमदीं जर्मनींतले शिकिल्ले सवरिल्ले लोक आशिल्ले. संगीत, साहित्य, चित्रकला ह्या मळावयले विद्वान आशिल्ले. तांकांय हिटलर आपल्या उलोवण्यान गुंगोवन दवरतालो. ही एक कला. एक दैवी देणगी. ही देणगी लाभिल्ल्याक इतिहासांत देमागोग म्हळां.

डॉ. जयवंत आठवलेय हो असोच एक देमागोग. ताका ही वशीकरणाची कला साधल्या. ताचो वापर करून तो समाजाक भुलयता. खुबळायता.

कोणाकूय दिसत सनातन संस्था ही नागपूर वो आनी खंयची संस्था. ती खंयच स्थापन जावंक ना. ती गोंयांत जाल्या आनी तिचो जनक डॉ. जयंत आठवले. ह्या आठवले

## सनातनाची बंदी अशक्य : मुख्येलमंत्री



मडगांवां जाल्ल्या बॉम स्फोट प्रकरणांत संस्थे आड योग्य पुरावे मेळ्ळे जाल्यारूच संस्थेचेर बंदी घालपाचो विचार सरकार करूंक शकता. ते आदीं बंदी घालप कठीण आसा अशें मुख्येलमंत्री दिगंबर कामत हांकां दिसता. तांच्या म्हणण्या प्रमाण सनातन संस्थेचेर आतां बंदी घाली आनी फाल्यां ते न्यायालयांत गेले आनी जिखले जाल्यार बेठीच सरकाराक लज जावं येता. तेच पासत जें कितें करपाचें आसा तें विचार करून करचें पडटलें अशी म्हयती मडगांवां बॉम स्फोट जाले उपरांत घेतिल्ले पत्रकार परिशदेंत ताणीं ही प्रतिक्रीया उक्तायल्ली.

## सनातन संस्थेचेर सरकारान बंदी घालची : राणे



मडगांवचें बॉम स्फोट प्रकरण गोंयांतल्या फुडाराचे नदरेन धोक्याचें आसा. ह्या प्रकरणांत दुबाव आशिल्ले सनातन संस्थेच्या कार्याचेर सरकारान बंद घालची आनी संबंदीत दुबावितांचेर खर कारवाय करची अशी मागणी सभापती प्रतापसिंग राणे हाणीं हालींच केली. तांच्या म्हणण्या प्रमाण अशे तरेची घडणूक म्हळ्यार सर्वधर्म समभाव जपतल्या गोंयचे भुंयेचे म्हान परंपरेक काळो दाग. मुह मे राम आनी बगल मे छुरी अशे तरेचें सवंग घेवन भोंवतले हे संस्थेचेर बंदी घालूंकच जाय.

नांवाच्या देमागोगान १९९०च्या अदमासाक आपल्या कार्याक आरंब केलो.

सुर्वेक तो कांय तरनाट्या चले चलयांक आपल्या नादाक लायतालो. आपलो देमागोग कलागूण वापरून तांकां संमोहीत करतालो आनी तांकां आपल्या वावरात वांटेकार करतालो.

वांटेकार करप म्हळ्यार कितें कुकर्मा बी न्हय. वाममार्गाक लावप न्हय. तर आपल्या विचारांच्या जाळांत तांकां घुसपावन उडोवप. तांचेर एक प्रकारचें वागरें घालप, जातुंतल्यान ते परत भायर सरूंक शकनांत. जशे कांयुोक घुंवळी वकदांनी एकदां संवकले काय तातुंतल्यान भायर सरप म्हाकठीन आसता, तशें असल्या देमागोगच्या उलोवण्यान, विचारांनी भुल्लुसले की तांकां तातुंतल्यान भायर काडप कोणाकूच जमना. कितलोय प्रयत्न केल्यार लेगीत जमना. मागीर घरचीं लोक ताका पिसो म्हणून सोडून दिता. असल्या पिशांक एक पदवी मेळटा, साधक म्हूण. ह्या साधकां कडल्यान मागीर आपल्याक जाय तसलीं कामां करप ह्या देमागोगाक सोपें जाता.

## ईश्वरी राज्य हाडपी कोण?

दुर्जनांचो नाश करपा खातीर आनी ह्या संवसारांत ईश्वराचें राज्य हाडपा खातीर देमागोग आठवलेन सनातन संस्था स्थापन केली. ताचे फांटे जळामळाक उभाल्ले. तातूंत साधकांचो भरणो केलो आनी हे धतरिर ईश्वराचें राज्य हाडपाचें तांकां हांयस दाखयलें. जाणीं केन्ना आपले तकलेन विचारूच केलो ना त्या गोंयच्या भोवजन समाजाचे जिबेक ह्या देमागोगान म्होंवाचें बोट लायलें. तांकां साधक म्हूण उपाधी दिली. ह्या भोवजन समाजांत ब्राह्मणेतरूच न्हय तर ढवळीकारा सारके ब्राह्मणूय आसपावतात. सुदीन ढवळीकारान तशें म.गो. पक्षाच्या वादप्रकरणात जाहीरूय केलां. ढवळीकाराची घरकान्न ह्या साधकांची सर्वेसर्वा. इतलो सशक्त पदर मेळटकच खंयचें अप्रबुध्द भुरगें जिबेवयली म्होंवाची गोडी चाखीत टॅट्ट टॅट्ट करचें ना? तर हे असले साधक देमागोग आठवलेच्या फुडारपणाखाल हे धतरिर ईश्वरीय राज्य हाडूंक वावुरतात. दुर्जनाचो नाश करूंक धवे कपडे घालून, कपलाक तिबो लावन रातदीस झट्टात. ते जे धवे कपडे घालतात ते धवे दवरूंक सर्वसामान्याक परवडना. खंयच्याच नोकरदाराक परवडना. मागीर बेकार रावून साधक म्हूण वावुरपी ह्या साधकांक खंयच्यान येतात पयशे? खंयच्यान पोटांत अन्न पडटा? हांगा थंय भोंवपाक खंयच्यान दुडू येतात? हांकां ठरावीक पगार मेळटा आनी पगार दिवन तांचे कडल्यान शिस्तबध्द काम करपाचो वावर देमागोग आठवले करता. फायनान्स करपाक मंत्र्यांच्यो बायलो आसतातूच.

तर ह्या साधकांक ईश्वरीय राज्य हाडपाच्या वावराक ह्या देमागोगान लायल्यात. ताका तरी ईश्वरीय राज्य कितें हें खबर आसा? ताणें ईश्वर म्हणटात तो कितें प्रकार हें जाणून घेतलां? ईश्वर आनी परमेश्वर ह्यो दोन वेगळ्यो गजाली अशें ताका दिसता काय पयलीं ईश्वरीय आनी मागीर जमलें जाल्यार परमेश्वरीय राज्य हाडूंक हो देमागोग वावुरता?

संताचो भेस करून देमागोग आठवले लोकांक भुलोवपाचें काम करता. हें भुलोवप करपाक व्हडली अक्कल जाय, गिन्यान जाय अशें न्हय. गोड जीब आसली आनी थोडें गिन्यान आसलें म्हणटकच हो वावर सहजपणान करूं येता. ह्या गुणांक लागून थोडे घराघरांनी भोवून भांगर चकचकीत करून दिवपाचें हांयस दाखोवन सादे भोळ्या लोकांक लुट्टात तर व्हडलो हावेस बाळगुपी आठवले सारके संतांचें आसन सांबाळटात.

आठवलेक हे धर्तरेर ईश्वरीय राज्य हाडपाचें कसलें कारण आसा हें कळूंक मार्ग ना. हांगा तर सगळें सुरळीत चलता. देशांत संवसारांतली बऱ्यापयकी लोकशाय चलता. साधकां सारक्या वाट



देमागोग हिटलर

चुकिल्ल्या कोकरांक लेगीत मतदानाचो अधिकार आसा. आपले विचार मांडपाचो हक्क आसा. आपल्याक जाय ताका वेचून हाडपाची तजवीज आसा. सनातनावरी सुरयो, दांडे, बॉम्ब हांचो वापर करून हे राजकारणी मतदारांचें मत परिवर्तन करिनांत तर आपले पध्दतीन मतां मारून घेतात. दीपक ढवळीकार, सुदीन ढवळीकार हाणीं केन्नाच निवडून येवपाक असल्या आतंकवादी मार्गाचो वापर केलो ना. लोकशाय पध्दतीन ते वेचून येवन गोंयचेर राज्य करतात. अशी ही एक व्यवस्थीत लोक मान्य पध्दत आसतना दवळीकाराचें राज्य ना करून ईश्वराचें राज्य हाडपाचो हावेस हांकां कित्याक तें कळूंक मार्ग ना. हाणीं ढवळीकाराक पळयला. तोच तर तांकां व्हिटामिन एम् दिता. हाणीं ईश्वराक पळोवंक ना. अशें आसतना वळखिच्या मनशाचें राज्य काडून थंय अनवळखी ईश्वराचें राज्य हाडपाचो हांकां हो कसलो दुवाळो लागला?

बरें, नाका न्हय तुमकां ढवळीकाराचें राज्य? त्या दुर्जनांचो तुमका नाश करपाचो आसा मू? मागीर तुमच्या हातांत मतांचें सशक्त शस्त्र आसा. करात ताचो वापर. करात मत प्रवर्तन. उबो करात तुमचो एखादो ईश्वरीय उमेदवार आनी हाडात ताका निवडून. हाडात तुमचें ईश्वरीय राज्य. पूण तांकां तांचें लोकशाय पध्दतीन राज्य हाडपाचें ना. तांकां दुर्जनाचो नाश करपाचो आसा. ते पासत बॉम्ब घालपाचे आसात. निरपराध लोकांक मारपाचे आसात. कारण ते दुर्जन. हे तितले सज्जन.

## देमागोग आठवले खरेंच प्रेषित?

डॉ. जयंत आठवलेची देमागोग प्रवृत्ती ताका फायद्याक पडली. ताणें त्या गुणाच्या आदाराचेर गोंयच्या आनी हेरकडच्या साद्या भोळ्या भावीक लोकांक नादाक लायले. तांकां संमोहीत केले आनी आपलें साम्राज्य उभाल्लें. हें संमोहन इतलें आशिल्लें की घरांतल्यो बऱ्यो बऱ्यो बायलो ताच्या नादाक लागल्यो. ज्या बायलांनी सकाळीं उठून आपल्या भुरग्यांक शाळेक वचपाखातीर तयार करपाचें, तांकां ब्रेकफास्ट करून दिवपाचो, आपल्या घोवाक ऑफिसाक वचचे आदीं बरो ब्रेकफास्ट दिवपाचो. त्यो बायलो हें सगळें व्हान्यार उडोवन सनातनाचे सेवेक रूजू जावंक लागल्यो. सकाळीं उठून बुथावेल्यान दूद हाडपा बदला सनातन प्रभात घराघरांनी वाटूंक लागल्यो. पुराय दीस आश्रमात घालोवपाक लागल्यो. हे आश्रम कितें आनी कसले हाचेर खूब जाणांनी बरयलां. तांचो आतां तपास चल्ला. तर ह्या बायलांनी आपलीं घरां, आपलें कुटूंब उबंत उडयलें. हें अशें आदीं घडलां म्हणपाचें तांकां देमागोग आठवलेन सांगिल्लेंच. तांचे मुखार निश्चित्च ताणें मीरेचें उदारण दवल्लां आसूंक जाय जें ह्या बायलांनी केन्ना तरी वाचिल्लें. आपणेंय मीरा जावपाच्या हावेसान ह्या बायलांनी आपल्या सुखी घराब्याचो इबाड करून उडयलो. तें कर्म देमागोग आठवलेन केलें.

देमागोग आठवलेन गोंयच्या साद्या भोळ्या तरनाट्यांक आपल्या नादाक लायले. तांचें मत परिवर्तन केलें. कोणूय म्हणटलो तांकां कोण आपोवंक गेल्लो? तांकां स्वताची अक्कल ना, कितें बरें वो कितें वायट हें पारखुपाची? गजाल खरी!



देमागोग आठवले

पूण अमुकूच पिराय आसता जंय खोट मारून उदक काडपाची धमक दरेक तरनाट्यामदीं आसता. ते वेळार हे शक्तीक एक चालना दिवपा खातीर कोण तरी जाय आसता. आमचे सारके ते कालचे तरनाटे त्याच स्थित्यंतरांतल्यान गेल्यात. आमच्या नशिबान आमकां दिका दाखोवपी बरे, आदर्श लोक मेळ्ळे जांकां गोंयच्या हिताचो हुसको आशिल्लो. असल्यांची खूबशी शक्ती मागीर भाशावाद आनी हेर नाका जाल्ल्या गजालीं खातीर खर्चली. ताका लागून आठवले असल्या देमागोगचें फावलें. कितें तरी करूंक जाय म्हूण आंवडेवपी ही शक्त चुकीच्या मनशाच्या तावडींत सापडली. ताणें आपल्या सुवार्था खातीर ही शक्त वायट मार्गान व्हेली आनी ताचें पानवळ गोंयकार भोगतात.

## आतां करप कितें?

गोंयांत वो देशांत ईश्वरीय राज्य येवपा खातीर कितेंच वायट घडूंक ना. सगळें बरे भशेन चल्लां. चलूंक नाशिल्लें जाल्यार देशांतले व्हडले व्हडले विद्वान ते नदरेन विचार करपाचे. आमकां आठवले सारख्यांची गरज

## सनातनी आक्रांतवादीच : उदय भेंब्रो



सनातन संस्था स्वताचें वर्णन कशें करता ताका कसलेंच महत्व ना. ती संस्था कसली शिकवण दिता आनी किते करता हें महत्वाचें. हे संस्थेचो हावेस, तिच्या मुखेल्याची शिकवण आनी ती दिता तें प्रशिक्षण हाचो अभ्यास करीत जाल्यार ही एक आक्रांतवादी संघटना हे विशीं कोणाच्याय मनांत दुबाव उरपाचें कारण ना. ती अध्यात्माचो बुरखो [illegible] वायट कर्मां करता म्हूण ती अध्यात्मीक संस्था जायना. जे संस्थेचो हिंसेचेर विस्वास आसा, ती संस्था नाश करपाचो मार्ग आपणायता आनी उक्तेपणीं [illegible] वा आक्रांतवाद [illegible] पर्याय अशें सांगता ती संस्था अध्यात्मीक आसूंक शकना. अध्यात्म ही तिची संवसाराक फटोवपाची कपटी भायल्यान अध्यात्म, भितरल्यान आक्रांतवाद हें तिचें खरें रूप.

'दुर्जनांचो नाश' हो सनातन संस्थेचो मुखेल मंत्र. हिंसे बगर नाश जायना. देखून हिंसा हो तिचो मुखेल मार्ग. कोणाचोय नाश करतलो जाल्यार खून करचो पडटा. चड लोकांची हत्त्या करतलो जाल्यार एके ४७ वा स्टेन-गन वापरची पडटा वा बॉम्ब [illegible] पडटा. हें सगळें करपाचें प्रशिक्षण सनातन संस्था दिता हें गुपीत ना. सनातन संस्थेंत [illegible] प्रशिक्षण दितात. [illegible] प्रशिक्षण दितात. आर्म चलोवन [illegible] प्रशिक्षण दितात. तें कशें दितात तें [illegible] 'सनातन प्रभात' ह्या आपणाल्या मुखपत्रांत ती संस्था फोटो छापता. संवसारांतली खंयची अध्यात्मीक संस्था अशे तरेचें शिक्षण दिता? [illegible] दांडो, सुरी आनी आर्म वापरपाची गरज पडटा?

नाशिल्ली. आठवलेक ईश्वरीय राज्य हाडचें अशें दिसपा सारकी परिस्थितीय हांगा ना. तांचेर कोणे अत्याचार करूंक ना. देशांत कोणेंय संत जांव येता. हे आदीं खूब संत जावन गेले. तसले वो तांच्याय परस पिओर संत देमागोग आठवलेन जांव येता. आपले शिश्य तयार करूं येतात. संताचे पदवेक पावूं येता.

संताचे पदवेक पावूंक आजवेर कोणाकूच हातांत दांडो आनी सुरयो घेवंच्यो पडल्योनांत. ताणीं सत्ताधाऱ्यांची पिडापीड भोगली. येशू ख्रीस्त मोन्यानी खुर्सार चडलो. ताणें केन्नाच आपल्या शिश्यांक हातांत दांडो घे म्हूण सांगलें ना.

मोगलांच्या काळार शिख धर्मगुरुंचेर अत्याचार जालो. तांकां तापिल्ल्या तव्याचेर बसोवन तांचे हाल केले. तेज बहादुर सारख्या धर्मगुरुची तकली उडयली कापून. गुरु गोविंदसिंगाच्या दोन भुरग्यांक मारून उडयले. अशे हे अत्याचार चालूच उरिल्ल्यान शिखांनी आपरक्षणा खातीर आपली आर्मी तयार केली. हातांत शस्त्र घेतलें. खालसा पंथ सुरू जालो. ती त्या काळाची गरज आशिल्ली.

सनातनांत आयज संत आसात. जर कोणेंय तांचेर हल्लो केला, तांकां पिडापीड भोगयल्या अशें खंयच आयकूंक येना. उरफाटें तांकां जमीन दिवन आश्रम उबारपाक दिला. तांकां गांवच्या लोकांनीं मजत केल्या. हिन्दू धर्माचें कितें तरी करतात म्हूण हेर धर्मियानीय सहकार्य दिलां. हांची गोमटी उडोवपाची सोडाच, तांका तणाची काडी लेगीत तोपून दुखोवपाचो विचार केन्ना केलो ना. अशें आसतना हे हिंसा घडोवन हाडपाकडेन पावले? कितें कारण घडलें हाका? हाचेर आतां आमी गोंयकारांनी अंतर्मूख जावन विचार करूंक जाय. हे विकृतीफाटल्या कारणाचो सोद घेवंक जाय. तो वेळ पाविल्लो आसा.

## हय! ही विकृतीच

डॉ. जयंत आठवले हो मानसशास्त्रज्ञ. चडशे मानसशास्त्रज्ञ हे विकृत विचारसरणीचे जातात. तांचें शिक्षण एक तर समाजाक बरे दिकेन व्हरूंक शकता ना तर वायट. चडशे आपले विकृतीक लागून ह्या शास्त्राचो आनी शिक्षणाचो वायटूच वापर करतात. तांकां सर्वेसर्वा जावचें दिसता. तांकां कळून आयिल्लें आसता की आपूण मनशाच्या मनाचेर राज्य करूंक शकतात. तांकां मानवी मनाचें दुबळेपण कळिल्लें आसता आनी जांची वृत्ती, मानसिकताय देमागोगाची आसता तेच लोक असले विकृत जातात.

हिटलरामदीं हीच विकृती आशिल्ली. ताणें हेच विकृतीक लागून ज्यू संतत काबार केली. अर्विल्ल्या काळार अशेच कितले तरी हिटलर तयार जातात. पूण ते साम्राज्य वेगळे तरेचें हातासपाक सोदतात. आयज भलायकेचे नदरेन समाज जागृत जाला. लोकांमदीं भोगवादी वृत्ती बळावल्या. ताका लागून मर्णाचो, दुयेंसाचो भंय मनांत उप्रासला. चडांत चड काळ भोगवादी जीवन सारपाक जाय म्हूण आयज भोवतेक लोकांची धडपड चलता. दुडू आसात पूण सुखां भोगूंक भलायकी सांगात दिना. कितेंय करून हें शरीर तगोवंक जाय ही मानसिकता

समाजांत बळावल्या. देखून शेणिल्ल्याचें मन धा कडेन तशें समाज थतर वितर जावन, वैचारीक गोंदळ वाडीक लावन बाबांचे सोदीक धांवता. तांची मानसिकताय वळखून नवेनवे बाबा तयार जातात. ह्या बाबांचे भकीक आयज वैचारीक बैठक होगडावन बशिल्लो समाज पडत चल्ला.

## बाबागिरी, आश्रम हें एक साम्राज्य!

दूरदर्शन चॅनलांचेर आस्था, संस्कार, मिरॅकल्स आनी कसले कसले नवे नवे चॅनल चालूच आसता. चोवीसूय वरां ह्या चॅनलाचेर कोण ना कोण प्रवचना दिता. त्या साधू-संताक पळयत जाल्यार जल्म नाका दिसता. कोणाच्याच उलोवण्यांत वैचारीक तारतम्य ना. तांचे रूप पळयल्यारूच हे पिडेस्त म्हणपाचें कळटा. तरी तांचे फाटल्यान भक्तगण, शिश्यगण दिसतात. हे साधू-संत वखदांय दितात. योग-साधनाय शिकयतात. देवा परस मुखार पावल्यात अशें पळोवंक दिसतात. हें सगळें कित्याक चल्लां? 'दुनिया झुकती है, झुकाने वाला चाहिये' देखून.

लाखांनी, कोट्यांनी रुपयांचें दान जाहीरपणान जाता. आश्रमाच्या नांवांन संस्थानां निर्माण जातात. वखदांचे नवे नवे कारखाने येतात. नवी बाजारपेठ सुरू जाता. कांय बाबा तर राजकीय परावर्तन घडोवपाचे नदरेन प्रवचना करतात. कोणाक मतां दिवचीं तें सांगतात. हीय एक मतांची बाजारपेठूच. मतां कोणाक दिवंचीं हें कांय कोटी रुपया घेवन सांगपी बाबाय हातूंत तयार जातले. तेच दिकेन हें चल्लां. म्हणटकच हे सर्तींत खंयचोच, साधू-संत-बाबा फाटीं पडूंक सोदिना. ताका आपली बाजारपेठ मुखार व्हरपाची आसता.

देमागोग डॉ. जयंत आठवलेचीय ही बाजारपेठ तेजींत चल्ल्या. ही बाजारपेठ आपल्याक लाभची म्हूण राजकारणी आपलेपरीन आर्थिक पालव दितात. राजकीय नांवांन न्हय तर धार्मिक नांवांन. त्याच दुडवांचेर हे ईश्वरीय राज्य हाडूंक आंवडेवपी सुखां भोगतात. आपल्या साधकांचो वापर करून घेतात. साधकांक हांचो भितल्लो हेतू खबर ना. ते प्रेरीत जावन सांगता तें करतात. संरक्षणाक धर्माचो आधार घेतात.

## हाचेर बेगोबेग उपाय जाय

गोंयच्या लोकांक कितें तरी कार्यक्रम जाय हें खरें. देमागोग अठवले सारके तो कार्यक्रम दिवंक यशस्वी ठरले. पूण ही साधकशक्ती ते वायट कामाक वापरूंक लागले. वायट कामां कितें? देशांत आतंकवाद करतात ते मुसलमान. तांचे पासून हिन्दू धर्माची राखण करपी कोण ना. ती मक्तेदारी आपली. तुमी सगळी फौज. तुमी शास्त्रशुध्द लढपाचें शिक्षण घेयात. तें आपूण दितां. आपूण सोडून सगळे दुर्जन अशें समजून दुर्जनाचो नाश करात. अशे हे विचारसरणेचे हे साधक. पूण सनातन विचार आनी हांची मनोवृत्ती हातूंत खंयच ताळमेळ ना.

श्रीकृष्णान दुर्योधनाक सांगलें एक सज्जन मनीस सोदून हाड. ताका आपूण आनी आपले कौरव सोडल्यार एकलोय सज्जन सापडलो ना. श्रीकृष्णान युधिष्ठिराक सांगलें एक दुर्जन सोदून हाड. युधिष्ठिराक एकूय दुर्जन सापडलो ना. इतलेंच कित्याक युधिष्ठिर दुर्योधनाक लेगीत केन्ना दुर्योधन म्हण उलो मारिनाशिल्लो. सुयोधन म्हणटालो. अशी ही आमची सनातन संस्कृताय, ती संस्कृताय आमी आमचे भितर रिगोवंक साधक जाय आशिल्ले. पूण हे आश्रम दुर्योधन तयार करपी कारखानो. असले कारखाने आमकां बेगोबेग बंद करूंक जाय.

शिवाजी महाराज हिन्दू राष्ट्र निर्मिती खातीर वावुरताले. तांणीं संत रामदासांकडेन सहकार्य मागलें. पूण संत रामदासान आपलो मार्ग वेगळो, तुजो वेगळो अशें सांगून महाराजांच्या कार्याक आशिर्वाद दिलो. हिन्दू राष्ट्र निर्माण करूंक शिवाजी महाराज यशस्वी जालो.

वासुदेव बळवंत फडके असोच एक क्रांतिकारी विचारांचो तरनाटो. इंग्रजांक मारून नानपयत करतां, तांचो खून करतां आनी देशाक तांच्या चोपक्यांतल्यान मुक्त करतां म्हूण सांगूंक आनी सहकार्य मागूंक गोंदवलेकर गुरुजींकडेन गेलो. गोंदवलेकर गुरुजीन सांगलें तें काम तुजें न्हय. तें काम करूंक एक वेवस्ता आसा. ते वेवस्तेचेर विस्वास दवर आनी तिका सहकार्य कर. वासुदेव बळवंत फडकेन आयकलें ना. आपलोच नाश करून घेतलो.

देमागोग डॉ. जयंत आठवले हो आपलोच नाश करूंक लागला. आपले विकृती खातीर ताणें दोन साधकांचे बळी दिल्यात. आठवले साधु-संत बी कांय न्हय. तो देमागोग. तो आपूण सोडून सगळ्यांक दूर्जन मानता. आयजवेर खंयच्याच संतान आपल्याक सज्जन मानूंक ना. दुर्जनूच मानला. तुकारामान आपल्याक पामर म्हणलां. आपल्यांत वायट गजाली आसात त्यो काडून उडोवपाखातीर तपश्चर्या केल्या आनी संतपदाक पावल्यात. आठवलेच्या नशिबांत तें ना. देखून ताणें आतां एकूच गजाल करूंक जाय, आपलो पसरो बंद करून आपणें कितें करपाचें येवजिलें आनी कितें जावंक पावलें हाचेर थंडपणान खंयतरी बसून विचार करचो. आमकां ईश्वरीय राज्याची गरज ना. ईश्वरीय राज्य हाडलें जाल्यार आनीक कोणूय परमेश्वरीय राज्य हाडूंक संवकतलो. आमकां ती भानगड नाका. आमी बुध्दीवादी विचारसरणेन लोकशाय आपणायल्या. तीच लोकशाय घटमूठ करूया. तिचेच आदारान देशांत मनीसजातीचें राज्य हाडुया. सुराज्य हाडून मनीसपण तिगोवया. ह्या कामाक सहकार्य कर ना तर काडून वच! दुर्जनाचो अंत हो आपसूक जाता.



# विसर्जन



**दे**बूदा. उंच, हट्टो-कट्टो सो! गोरो रंग. बंगाली उलोवंक शकना अशें कशें जायत, ती तर ताची आवयभास, पूण हिन्दीय बी उलयता. बेस बरी. आनी कित्याक उलोवंचो ना. गोरखपूर, जबलपूर, भोपाल, इंदूर येवन वचोन आसाच कितलींशींच वर्सां जालीं. त्योच मुर्त्यो तयार करपाक. मुर्तीकार आसा न्हय तो. असो फिशाल कलाकार. पळयतां पळयतां माती एके कलाकृतीत बदलता. मोनी आनी नकली ना उलोवपी, सजीव. जातूंत जीव धडकता. मागीर तांचेर रंग काडटा, कपडे घालता आनी सजयता तांका दागिन्यांनी. कितेंतरी आसा देबूदाच्या हातांत म्हणुनच नदर पडनाफुडें मुर्त्यो उलोवंक लागतात. जड वता तोंड घुंवडावन थंयच्यान वचप. धरून दवरता इतली की निमाणी ती मूर्त विकती घेवचीच पडटा. जी मूर्त सुर्वेकूच इतली भूल घालता, आपलिशी जाता तिका पूजे उपरांत कशी कितें विसर्जीत करप जाता जायत? कशें देवप जाता जायत गंगेंत आनी कशें सोडून दिवप जाता जायत उदकांत भरसपाक? ही गजाल ताकाच खबर जो तिका विकत घेता आनी विसर्जीत करता.

मिनाक्षी, रवींद्र सरणीत रावता आनी भुरगेपणांतसावन कुंभारवाड्यार येता वता. थंयच काकाकडेन. काकाच म्हणटा तें देबूदाक. आपल्यो खबरो ताका सांगता आनी ताच्यो सगळ्यो खबरो विचारून घेता. विचारता- "काका, जे कोण मुर्त्यो विकत घेतात, पूजा करतात उपरांत तांका गंगेंत कश्यो कितें सोडून दियत आसतले काय?" काका सांगता - "तांची गजाल एक वेळ समजू येता कारण तांचो ते मुर्ती कडलो संबंद फकत तीन-चार दिसांचो. पूण विचार कर, म्हजी हालत कितें जाता जातली जेन्ना हांव मुर्त्यो गिरायकाच्या हातींत सोपयतां तेन्ना, कोण समजू शकत, तेन्ना खऱ्यानीच सांगतां मन भरून येता. खोशी तर जाताच मुर्त्यो विकल्यो वतात म्हूण."

"खबर आसा काय ना - आयजकाल मुर्त्यांच्या बाजारांत सर्त लागल्या. सगळे कलाकार गिरायकांक पयलेच नदरेंत भुलोवपाक पळयतात. सगळ्यांक दिसता कीं पयलीं तांची वस्त विक्रेक वचची. हाका लागून ते दराय बी उणे करतात. गिरायकांक ओडून व्हरतात, शिनालां करून आफयतात. अशें समज आतांच एक गिरायक आयलां.ताणें म्हजी मूर्त पसंद केली. वाणपण करून दर थारलो तेन्नाच अचानक ताच्या मनांत कितें येता कोणाक खबर, तो फट करून आतांच येता म्हूण सांगून दुकानांतल्यान पयस वता. म्हज्या दुकाना म्हऱ्यांत कालीपतचें दुकान आसा. थंय वग्गी वचून थोड्या उण्या दरान मुर्ती विकती घेवन नाच जाता. मुर्त्यांचें विकप कोणाक बरें दिसचें ना पूण आपल्याच हातींनी घडयल्ल्या मुर्ती वांगडा आमी कांय म्हयने संवकळीन आसतात ताका गिरायकांच्या हातांत सोपयतना मन काचाबूल जाता."

मिनाक्षीक खबर आसा अशें फकत देबूदाकूच दिसता आसतलें. भावूक मन आसा न्हय ताचें. तेन्नाच ह्यो मुर्ते-बिर्तेच्यो गजाली सोडून देबूदा मिनाक्षीक म्हणटा - "हें सगळें सोड, हें सांग आतां, तर तुजे कॉलेजीक सुटी पडल्या आसतली तर तूं आतां कितें करता?"

"कितें करता! काका अशें विचार कितें कितें करूंक जातलें काय म्हूण? फाल्यां सुजाताच्या भावाचें लग्न आसा. थंय वचपाखातीर म्हजे कपडे धुवन बीन फेर्राद करून दवरूंक जाय. तीन चार जोड घालचे-काडचे पडटले. पयर हांव काकीचें चली सुनीताच्या वाडदीसाक गेल्लें. थंय जो सलवार-कमीज हांवें घातलेलो तो धुवपाचो, फेर्र मारपाचो आसा. पूजा येवपाची जाली. म्हज्या इश्टीणी सांगातान भोवपाक वतली तेन्ना नव्यो कांय वस्ती करपाच्यो आसात. पोरने ड्रेस सारके करपाचे आसात. तांबड्या ड्रेसाचेर टेलराकडल्यान डिझायन करून

घेवपाची आसा. निळ्या आनी काळ्या जीन्सांक सकयल्यान दोडून घेवपाचें आसा. हें सगळें करतां करतां सुट्टी केन्ना सोपतली कांयच कळचें ना."

देबूदान म्हळें, "तुजो आख्खो दीस कपड्यां फाटल्यानूच वता आसतलो. हय न्ही? आनी तुजेकडेन तर खूब कपडे आसा जातले. कपडे सांबाळप हेंच एक व्हड काम जावन आसतलें?"

"ना जाल्यार कितें काका!"

"आयज काल खूब कपडे तयार दवरचे पडटात. सकाळीं भोवपाक वतना जे कपडे घालून वतां, तेच कपडे घालून कॉलेजीक कशें वतलें, आनी जे कपडे घालून कॉलेजीक वतां ते कपडे घालून हेर कसल्याय वगतार कोणागेरूय वचपाक कशें घालतलें? राती न्हिदतना घालपाचे कपडे वेगळे. पूण हें सगळें तुका कशें कळटलें? तूं तर आपल्या दोन जोडयो कपड्यांचेरूच वावुरता. आनी चडशे फावट तेय सारके खंय वापरता? मुर्त्यो करपावेळार तुकां फक्त लुंगी न्हेसून वावुरचें पडटा." काका हांसपाक लागलो.

"हांसू नाका काका. तूं समजता मुर्त्यो करप म्हळ्यारूच काम करप म्हण. ना. तुजो गैरसमज जाता. कपडे बरे भशेन धुवन घडी करून दवरपाक पासून खूब कश्ट आनी वेळ दिवचो पडटा. तुकां खबर आसा आयज-काल दिसपट्टी फॅशन बदलता. कपडे कितले म्हारग जाल्यात. म्हणतकूच म्हारग वस्ती सारक्यो सांबाळून दवरपाक नाकात? केन्ना केन्ना तर म्हजो आख्खो दीस म्हजो सलवार कमीज धुंवपात आनी फेर्र मारपात वता. एक मात आसा काका, तूं आपले खातीर कांय कपडे बीन चडशे वापरिना पूण तुज्या मुर्त्यांक मात बेस बरे रंग-बिरंगी कपडे घालता."

"तें सगळें हांव करपाक शकतां कारण तूं न्हय गो तरेतरेचे रंग बिरंगी कपडे घालून म्हज्या मुखार येता. तेच रंग तर हांव मुर्ते भितर घालतां. पूण मीना आयजकाल तूं हो काळो रंग कित्याक घालूंक लागलां?" देबूदा मिनाक्षीक मीनाच म्हणटा. मिनाक्षी म्हणटा, "आरे काका, आयजकाल काळो रंग खूब चलता. जाका ताका पळयल्यार काळोच रंग वापरतना दिसतात."

"अशें! पूण कित्याक? शी कितें कितें म्हूण लोकांक पसंत पडपाक लागलां."

"तें सोड काका. तूं थंय लक्ष दी नाकाय. तूं तुज्या मुर्त्यांक रंगी-बेरंगी कपडेच घाल पळोवया." अशें म्हणून मिनाक्षी काकाच्यो मुर्त्यो पळोवपाक लागलें आनी मात्शें बेजार जालें.

हे फावट काकाच्या मुर्त्यांनी जीवूच ना. दूर्गेच्यो धा मुर्त्यो केल्यात काकान. पूण सगळ्यांमदीं कितें तरी उणें दिसता. मिनाक्षीक खबर आसा अशें कित्याक जाता. काकाकूय खबर आसा. ताच्या हातांतल्यान आतां काम पयले भशेन बरें जायना. काका मिनाक्षीचें मुखामळ पळोवन ताचेर वाचता की हें आतां मुर्तीं संबंदान खूब कितें उलयतलें म्हूण. मिनाक्षी काकाक दुखोवपाक पळयना म्हूण हेवटेन तेवटेन वयल्यावयर, कितें सांगतना

म्हणटा, "काका एक सांग, पूजा येवपाची जाली म्हूण आशीकुशीकचें वातावरण पळोवनूच कळटा न्ही? सगळें कितें बदलल्या भशेन दिसता न्ही? लोकांचे येवप वचप वाडलां आनी सांजवेळ तर आयजकाल खूब सुंदर दिसपाक लागल्या. सांजवेळार हांव जेन्ना खंयूय वतां तेन्ना सगळ्याक लकलकपी लायटी, लोकांची गर्दी सगळें बरें दिसता. बाजार जसो कितें उलोवपाक – गावपाक लागला. देवळां कुशीक बशिल्ल्या फुलकारांच्या फुलांचो वास मन खुशाल करून वता."

"म्हाका कितें खबर, हांव तर म्हजे कुडींत हळदुव्या बल्बाच्या उजवाडांत म्हज्या मुर्त्यां सांगातान गूंग जाल्लो आसतां."

"म्हाका खबर आसा काका म्हणूनच तर हांव हें सगळें तुका सांगतां न्हय! आरे पळय उलयतां-उलयतां रात जावपाक आयली, कळ्ळेंच ना. आतां वतां. जेन्ना ह्यो मुर्त्यो तयार जातल्यो तेन्ना येतां." मिनाक्षी भायर सल्लें.

कांय दिसां उपरांत अश्टमीच्या दिसा मिनाक्षी कुंभारवाड्यार भितर सल्लें, जाल्यार अजापीत जालें. आरे हें कितें, कुंभारवाड्या वयल्यो सगळ्यो मुर्त्यो खंय गेल्यो? सगळीं दुकानां रितीं दिसपाक लागल्यांत. दोन चार दीस पयलीं जीं दुकानां भुल्लेलीं आसलीं, मुर्त्यो जळीं मळीं दिसताल्यो, तें सगळें रितें दिसतालें. कित्याक लागून? अशें कशें जावंक पावलें? हां! घडये सगळ्यो मुर्त्यो विकल्यो दिसता. तेन्नाच कलाकार सगळे सुशेगाद आड पडिल्ले दिसतात. जशें कितें जायते म्हयने सारकी झेम काडूंक ना. आतां बद्द लक्ष्मीपूजन आनी कालीपूजना वेळार काम चालू जातलें.

'काका! ताच्योय मुर्त्यो विकत गेल्यो काय?'

मिनाक्षी बेगीबेगीन काकाच्या घरा



वचपी पायणीन भितर सल्लें. एकेकडेन तीन-चार मुर्त्यो दिसताल्यो. जांकां पळोवन मिनाक्षीन तोंड वाकडें केलें आनी मनांतल्या मनांत म्हटलें – 'कलाकार, अश्यो बेकार, नकली मुर्त्यो कित्याक घडयतात, कोण विकत्यो घेतले असल्यो मुर्त्यो?. हांव जाल्यार केन्नाच घेवची ना.' मिनाक्षी मुखार वतालें. इतल्यान फाटल्यांसून देबूदाचो आवाज आयलो – "मीना हांव घरा आसां; यो."

कितें? मिनाक्षी थटाकलें. फाटल्यान घुंवोन पळयलें तेन्ना कळ्ळें की तें देबूदाच्या घरा कडच्यान फुडें सल्लां. ज्यो मुर्त्यो ताणें पळयल्ल्यो त्यो देबूदाच्या घरा मुखार उब्यो आसल्यो. आनी काकानूच घडयल्ल्यो आसल्यो. "आरे देवा! काकाच्या हातांक जालां तरी कितें?"

जशें मिनाक्षी काकाच्या घरांत घुसलें, देबूदा म्हणूंक लागलो, "हे फावट खूब नुकसान जालें बाय."

"कशें कितें?"

"खबर ना कशें. हें पळय मुर्त्यो तशोच उल्ल्यो. गिरायकां सोडून गेलीं."

"पूण काका तुवें सांगिल्लें गिरायकां पयलींच थारावन गेल्यांत म्हूण."

"हय. सांगिल्लें. गिरायकां आयिल्लीं. म्हजेकडेन ताणी थारावणी केली. मागीर हांवें सांगलें पसंद नासत जाल्यार सोडून दियात."

मिनाक्षीच्यान आयकूं नज जालें. उलयलें– "पिसो बीन जाला काका. तुवें सांगलें सोडून दियात म्हूण. कोणाक व्हरपाचें आसल्यार व्हरतले आसले!"

"कितें करूं? गिरायक म्हणूंक लागलें, तुजे कडल्यान दर वर्सा व्हरतात, पूण हे फावट तुज्या मुर्त्यांमदीं तें तेज ना."

सारकेंच तर म्हणलां गिरायकांनी. काकान घडयल्ल्यो मुर्त्यो आतां काकान घडयल्ल्या भशेन दिसनात. अश्यो मुर्त्यो कोणूय घडोवंक शकतात. देबूदान उरिल्ल्यो मुर्त्यो गंगेंत व्हरून सोडल्यो. मिनाक्षीन हे फावट अशें विचाल्लें ना कीं कश्यो सोडल्यो काय म्हूण. विचार केलो, बरें जालें की त्यो बेजान मुर्त्यो पयस जाल्यो. दवरपाक जागो खंय आसा? दुकान रितें तर करपाकूंच जाय नव्यो मुर्त्यो करपाक लागून. लक्ष्मी आनी कालीमातेच्यो मुर्त्यो काका दर वर्सा करता तेन्ना तेंय काम सुरू जावपाचें आसा.

हें कितें? लक्ष्मी आनी कालीबीन तश्योच घडयल्यात. खंय कालीमाचें रागान तांबडेंच जाल्लें आनी शींवाक पायांखाला मस्तीतना खुशाल जाल्लें रूप आनी खंय देबूदान घडयल्ली कालीची बेजान मूर्त. देबूदामदीं हें उदासपण कशें कितें आयलें? वर्सा देड वर्सा पयलीं मेरेन ताच्या हातांतल्यान घडयल्ल्यो मुर्त्यो म्हळयार सामक्यो जीवीतश्यो दिसताल्यो. आतां तर ताणें घडयल्ल्या मुर्त्यांनी कांय जीवूच ना जाला.

कितें सांगपाचें हें सगळें कशें जालें? खंयसून सुरू जालें? कांय म्हयन्यां पयलींची गजाल, देबूदा आपल्या बापाय वांगडा 'भूतनाथ मंदीर' जें 'निमताला स्मशान घाट'च्या कुशीक आसा थंय वतालो. दोगूय जाण आपले भितर गजाली करीत करीत 'मदन मोहन मंदीर'च्या सामकाराक जो रस्तो आसा ताचेवेल्यान 'गंगाघाट'च्या वाटेन

वताले तेन्ना ताणीं पळयलें की 'रेल्वे क्रॉसींग'च्या कुशीक रेल्वे येवपाच्या शिटकावणे खातीर गेटीचे दांडे आडवे जाल्ले. आनी फुडें वचपाचो रस्तो बंद आसलो आनी खूब वेळ मेरेन तसोच उरतलो. दोनूय वाठारांतल्यो गाडयो आनी प्रवाशी थंयच रावून रेल्वे येवन वचपाची वाट पळयत उब्यो आसल्यो. देबूच्या बापायक वाट पळोवपाची नासली. ताणें हट्ट केलो की कोण रेल्वे येयत म्हणसर वाट पळयतलो? चल दांड्या पोंदच्यान तेवटेन वचुया. ताका जायत्या लोकांनी आडावपाचो यत्न केलो, देबूदानूय बी. पूण तो बदलो ना आनी तसोच वचपाक फुडें सल्लो. आनी तेन्नाच येवपी रेल्वेन शिटी माल्ली. तो गोंदळ्ळो, धडपडलो आनी थंयच ट्रॅकाचेर बसलो. लोकांचो बोवाळ, "कुशीक काडात, उखलात, वाटायात. बेगीन करात." देबूदा हेवटेन तेवटेन पळयनासतना बेगीन वचून आपल्या बापायक अशे तरेन उबाल्लो जशेपरी एका भुरग्याक उबारतात आनी धांवत फुडें सल्लो. थंय वचून थांबलो जंय एका बोर्डार बरयल्लें,

'सुतानती कुंभार वाडो-गंगा घाट.' देबूदा घब्ब करून जमनीर बसलो. बापायक सकयल दवल्लो आनी नेटार दम घेवपाक लागलो. बापायक तापोवंक लागलो. "आयज तुजो जीव तर वचपाचोच. वांगडा तूं म्हजो जीव काडपाचो आनी पुराय कुटूंब जो आकांत करपाचें तें कुशीनूच. मागीर घरचे लोक 'नीमतल्ला घाटार' करतले आसले आमचेर निमाणे संस्कार आमने सामने दवरून. खरें सांगतां बाप्पा आयज 'दुर्गा मायेनूच' आमका वाटयले. आतां उठ आनी बद्द घरा वचया." देबूदान पळयलें की ताचो बापूय ताचें उलोवप आयकुचें सोडून खंय तरी नदर लावन कितें तरी विचार करीत आसा. बापायचें मुखामळ भियेल्ल्या भशेन जाल्लें, सामकार 'गंगा घाट'चेर त्यो मुर्त्यो पडिल्ल्यो जांची पूजा करतकूत लोकांनी त्यो गंगेंत विसर्जितूच करूंक नात, आनी थंयच पडून आशिल्ल्यो. तांच्या गळ्यांत सुके फुलांचे हार तशेच पडून आसले. 'गंगा घाटार' मात्शें मात्शें वत येतालें आनी त्या वतांत त्या लोकांच्यो तकल्यो चमकताल्यो. जे त्या मुर्त्यांकुशीक बसून आपले केंस भादरताले. चार ल्हान भुरगे बोडके जावन थंय बशिल्ले. देबूदान आपल्या बापायक जेन्ना हें सगळें पळयतना देखलो तेन्ना तो भियेलो. ताका हालयत ताणें विचाल्लें, "बाप्पा, खंय आसा ध्यान, सगळें सारकें आसा मरे? चल आमी घरा या." बापायन म्हळें.

"ना भोलेनाथाचें दर्शन घेवया आनी मागीर या." दोगूय ल्हव ल्हव मंदिरावटेन वचपाक लागले. वाटेत बापायन देबूदाक विचाल्लें, "तांचो कोण मेला रे?"

"कोण जाणा बाप्पा?"

दोगूयजाण देवळांत वचून भोलेनाथाचें दर्शन घेवन घरा गेले. पूण बाप्पा आयज वग्गी जालो. सगळ्यांनी विचाल्लें, "बाप्पा कितें जालें, कितें गजाल घडली?"

तो कांयच उलयलो ना. जायते फावट विचाल्ल्या उपरांत एक गजाल उलयलो.

"हांव वाचचों ना."

देबूदान ताका शिटकायलो. "कितें नाका जाल्लें उलयताय? आमचें हें आयकून कितें हाल जातले हाचो मात्तूय विचार करिनाय. चल मुर्त्यो करुया. ही पळय माती हाडून उडयल्या. बेतांभीतर भुसोबीन हांवें कालूच भरून दवल्लां."

बाप्पा उलयलो – "आसूं नाका म्हजें मन करिना."

"ना अशें म्हणून जावचें ना. करचेंच पडटलें. उठ हांव आदार दितां." बाप्पा उठलो. चलूंक लागलो आनी चलतां चलतां मातयेच्या चिखलान निसरून पडलो. "धरात-धरात. बाप्पाक धरात. तारा बेगीन यो बाप्पा पडलो. ताका उबारूंक जाय. आरे देवा हें आनी कितें घडलें."

आख्खें घर धांवून आयलें. कसो तरी ताका उबाल्लो, भितर व्हरून आड घातलो. उपरांत दोतोराक दाखयलो. आख्खें घर वग्गी जालें. कळ्ळें की बाप्पाक आर जाल्या म्हूण. दावो हात, दावो पांय, दावे वटेनचें तोंड सगळेकडेन सून्न. कुडीचो दावो भाग काम करिना जालो.

खर्च. वखदां-पाणयांचो खर्च, दोतोराचो खर्च, खर्चच खर्च.

केन्ना हाका लागून केन्ना ताका लागून.

बाप्पाची सेवा करतां करतां देबूदाची बायल तारा जाम जाली. एकली बायल आनी घरांत पांच पांच दादले मनशांचें रांदप. देबूदाक तीन भाव धाकटे आनी आंकवार एकलो उलोवंक शकना, एकल्याक मात्शें उणो समज आसा आनी उरिल्लो एकलो इतलो अर्दवट कीं ताका सांबाळचो पडटा. फकत देबूदाच धड आसा. हेंय सामकें खरें न्हय. देबूदाक एका दोळ्यांत दिसना. ताका मोती बिंदू जाला. मद्रासाक गेल्लो तपासपाक पूण खर्चाचो विचार करून परतो आयलो. ताराक म्हणू लागलो, "बेठोच येवपा वचपाचो खर्च जालो. एका दोळ्यान दिसनासल्यार कांय नज पूण मनांत दुबाव येता की अर्दवट नदरेक लागून मुत्याँ मर्दी अर्दकुटेंपण येना म्हूं, हाकाच लागून मुत्यों पयलीबशेन जायनात काय? देवाक खबर!"

ताराचेर पुराय घर सांबाळपाची, मांवाची सेवा करपाची जापसालदारकी येवन पडली. देबूदाचे तिनूय भाव जर आपल्या बापाय फाटल्यान रावले जाल्यार मुत्यों घडपाक मदत कोण करतलो? आयजकाल मुत्यों करपाक घरच्याच मनशांचो आदार जायत जाल्यार परवडटा. भायल्या कारागिरांक दवरपाक खूब खर्च जाता.

तारा धड धाकट बायल जावन आसा. मनानूय बी आनी शरिरानूय बी. ती इतलें काम कांयच न्हय कशें करता. पूण कांय म्हयन्यां सावन तिका एक चिंतून येता. दावे वटेनच्या थानाचेर ल्हानशी एक गांठ जाल्ली ती आतां वाडूंक लागल्या आनी दुखता. देबूदा हाचेर कांयच करपाक शकलो ना. पूण ते दीस ही गजाल ताच्या तोंडांतल्यान तूलसीरंजन रायच्या मुखार उक्ती जाली, जो कुंभारवाड्याचो कांवसीलर जावन आसा. ताणे देबूदाक तापयलो– "तुजे बायलेक कितल्या दिसांच्यान दुयेंस आसा आनी आयज मेरेन तिका दोतोराक दाखयलें ना. सोमतोच वच आयज, आत्तां. ना जाल्यार व्हडल्यार पडटलें."

देबूदा भियेलो, दोतोर महापात्राक दाखयलें. खबर ना म्हयनोभर कसली कसली टेस्ट जाताली, आनी निमाणे जें कितें कळ्ळें तातूंत देबूदा सामको निन्नळलो. खबर ना मुत्यों करतां करतां ताचे जिवितांत कितें चूक जाली जाका लागून घरांत वांगडाच आर आनी कॅन्सर सारकें दुयेंस येवन उबें रावलें. ताराक थानाचो कॅन्सर जाल्लो.

तोय बी फुफ्फुसां मेरेन पाविल्लो. तूलसी-बाबून ताका सांगिल्लें की कुंभारवाड्याच्या सचीवाकडेन उलोवन ताका कितेंय आर्थीक मदद मेळपाची तो तजवीज करता म्हूण. ते कसले जड आनी वायट दीस आसले जेन्ना वांगडाच तारा आनी बाप्पाक लागून ताका धांवपळ करची पडटाली. पयशांखातीर हाचेताचेकडेन उलोवन हात पसरचे पडले. देबूदान चडशे सगळें देवाचेर सोडून बरेभशेन मन शांत दवल्ले. तो समजून रावलो कीं आतां ताराचीय काळजी घेवपाक जाय आनी बाप्पाचीय बी. बाप्पा घडये अशेच परिस्थितींत आनी जायतीं वर्सां काडीत पूण ताराक तर वचचें पडटलें. दोतोरान ताराच्या उपायांचो खर्च इतलो सांगलो की तो करप ताका शक्यच नासलें.

मिनाक्षीक हें सगळें खबर आसलें. ताका दिसलें की देबूदामर्दी ताच्या काळ्या कपड्यां मदली काळखी भितर सल्ल्या. तें खीनू सारणी हांगा आशिल्ल्या तिनशें वर्सां पोरन्या सिध्देश्वरी काली मंदीराच्या मुखार उबी रावून कालीमातेकडेन गाराणे घालता– "खरेंच सांगतां हांव जीवीतान केन्नाच काळो रंग परतून वापरचीं ना आनी तांबड्या जरीची साडी तुकां ओंपतां, तूं फकत म्हज्या काकाच्या मुत्याँ मर्दी जीव घाल. तांका पयल्या भशेन कर माये."



**(शर्मिला बोहरा जालान हांच्या हिंदी कथेचो उदय देशप्रभू हाणीं केल्लो कोंकणी अणकार.)**

# राधामावशी



*राधामावशेले पापड रुच्चीक. फाव तितलो शंकरछाप हींग वापरून तारवटी मिरसांगांचे पांचवे पापड इंगळ्यांचेर भाजून तांका खोबरेल तेल लावन पानार वाडपाचे. तांच्या घमघमीत वासानच जीव धादोसभरीत जातालो. राधामावशी खरेल्या अर्थान कर्मयोगिनी आशिल्ली. कर्मांत आनंद मानपी. कर्माशिवाय जगप तिका शक्य नाशिल्लें.*

राधामावशेच्या नातवंडांकडे म्हजी इश्टागत कशी जमली, हें हांव सांगूंक नकळ. कांय गजाली कळत ना कळत घडत आसतात. म्हज्या आनी राधामावशेच्या घराब्याबाबतींत अशेंच कितें घडलां जावंये! खास करून तिच्या व्हडल्या नातवाकडेन हांव हो वेळ मेरेन इश्टागत तिगोवन आसां.

एक दीस कोणें तरी म्हाका सांगलें, राधामावशी चड बरी ना. हातरुणार पडून आसा. केन्ना कितें जायत सांगूं नज.

आयकून काळजांत कच्च जालें. खरें म्हळ्यार म्हाका दुख्ख जावपाचें कसलेंच कारण नाशिल्लें. राधामावशी म्हज्या नात्यागोत्यांतली नाशिल्ली. ती आशिल्ली म्हज्या इश्टाची आजी. कडसरलीच जाल्यार घरच्यांक मेळून येवपाचें. शंबरींतली जाणटी मनीस ती, कितली म्हूण जगतली? मरता जाल्यार मरूं दी. केन्नाय जाल्यार मरतलीच. ताकतीकेचें काम सोडून आतांच कित्याक वचूं? अशें म्हूण टाळपाचो येत्न केलो. पूण टाळप जमलें ना. जीव आसतनाच निमणी नदर तिचेर पडची म्हूण पावलां सहज तिच्या घरा दिकेन वळ्ळीं.

तिच्या घराकडेन पावलों, तेन्ना अख्ख्या घरार किण्ण पडिल्लें, एरवीं राधामावशेलें घर सदां आनंदमयी. भुरग्या-बाळांनी, येत्या-वत्यांनी गजबजिल्लें.

दचकत दचकत हांवें प्रवेशदार पार केलें. भितर वच जाल्यार एके काळखाकुडींत राधामावशी एके खडबडीत वणटीक फाट तेकोवन, दोनूय पायें लांब-मेकळे सोडून बशिल्लेकडेन आसा. म्हर्‍यांत दिवली मिणमिणटा. केन्ना भग-भगून पालवत हाचो नेम ना.

गांवच्यो बायलो कूडभर बसून आसात. कोण फुतफुत्तात. कोण कुचकुचतात. कोण तोंडाकडेन पेज्जेनिवळ धरतात. कोण पांय चेपता तर कोण आंगशान घाम पुसतालीं.

सून म्हर्‍यांत बसून दुकांनी रडटाली. तिचें तें रडें अडेचें नाशिल्लें.

सासूमांय मरचे वेळार अशे तरेन रडपी सून हांव पयलेच फावट पळेतालों.

राधामावशी मरणाची वाट पळेताली. पूण ती शंबरीतली आसुनूय मरमेरेन शिंतीदाभायर गेलीना. तिचे हात-पांयें हालनासले पूण शिंतीद कुडीभायर येत्या-वत्याचेर आशिल्लें. मात बायलांच्या गर्देतल्यान तिका भायलें स्पश्ट अशें कितेंच दिसनासलें. कुडीचें दार ल्हान आनी अशीर, ताका लागून ती भितरले भितर घुस्मट्टाली.

असल्या वातावरणांत कोणे तरी हांव आयिल्ल्याची खबर तिच्या कानार घाली. ते बराबर न्हिदेंतल्यान जागी जाल्लेवरी तिणें केलें. दाराकुशीक चोंबो करून बशिल्ल्या बायलांक कुशीक रावन वाट मेकळी करपाची तिणें खूण केली. बायलो कुशीक सल्ल्यो. भायलें वारें भितर सल्लें. राधा मावशेचें मुखामळ ताजेलें. केदो वेळ ती म्हाका पळेत रावली. तिचें तोंड उलयनासलें. पूण दोळे उलयताले. काळजाची भास दोळ्यांतल्यान अर्थ उक्तायताली.

राधामावशेक जापावन कसलोच आदाव नासलो. हांवें तिका उब्यानींच हात जोडले. तिणें दुकां गळयलीं. आज्जेची माया व्हांवताली दुकांरुपान. दोळ्यांच्यो ओल्यो पापण्यो सकल-वयर करून तिणें म्हाका आशिर्वाद दिलो. हातांचें काम तिका दोळ्यांच्या पापण्यांनीं करचें पडलें.

राधामावशेन दिल्ले आशिर्वाद म्हाका मोलादीक थाल्ले. काळजांतल्यान दोळ्यांवाटेन, दुकांरुपान भायर आयिल्ले आशिर्वाद ते! हे आशिर्वाद फुडले काळांत कसल्याय बऱ्या कार्याक हात घालपाक प्रेरक थाल्ले. आजी ती मागीर कोणाचीय आसूं-ती आजीच आसता. तिणें कोणाकूय आपलो नातू मात मानूंक जाय.

राधामावशेची आनी म्हजी पयली भेट जाली, तेन्ना ती सत्तरेक वर्सांची आसूंये. पूण पळोवंक ती पन्नाशींतली दिसताली. वाटकुळें मुखामळ. काळे कुळकुळीत केंस. गोरोपीट्ट वर्ण. दोळ्यांक अजून चाळीशी लागूं नाशिल्ली. कामाक मुगड्यो. तेजाळ-मोटे दोळे. तोंडाक पगडेपण अजून येवंनाशिल्लें. एक-दोन दांत पडिल्ल्याचींय चिन्ना दिसनासलीं. दोनूय कान शाबूत. भेंडाक मात्सी बाग आयिल्ली. पूण तें म्हातारपणाचें लक्षण नासलें. तें दीस-रात केल्ल्या कश्टांचें फळ आशिल्लें.

राधामावशी आशिक्षीत आशिल्ली, तरी तिचो जल्म सुसंस्कृत कुटुंबांत जाल्लो. जाण्टेपणांत लेगीत राधामावशेचो इतिहास तिचो चेरो उलोवन दाखयतालो. हिरो-तो मागीर कोळशांत पडूं, गोबरांत पडूं ना जाल्यार शेणांत पडूं - आपलें मोल इल्लेंय उणें पडूंक दिना. राधामावशी जल्मभर बावनकशी भांगर कशी चकचकली.

एक तेंप आसलो चलयांक भुरगेपणांत लग्न करपाचो. राधामावशेचें लग्न भुरगेपणांतूच जनाप्पाकडेन जालें. जनाप्पा व्हडलो भाटकारूय नाशिल्लो आनी सरकारी येम्प्रेगादूय बी. ताका लागून राधामावशेचें जिवीत ल्हानपणांत सावन गरीबकायेच्या सावटांत गेलें. पूण गरीबकायेचें प्रदर्शन मात तिणें केन्नाच घडयलें ना. ल्हानविकाय तर तिचो स्थायीभाव आशिल्लो. गरीबांक लेगीत स्वाभिमानान जगपाचो अधिकार आसा, हें गिन्यान तिका पुस्तक-ग्रंथांतल्यान मेळूंक नाशिल्लें. तें तिच्या निजधर्मांतल्यान, आपल्या कुळाचारांतल्यान मेळयल्लें संचीत आशिल्लें.

कसल्या ना कसल्या कामानिमतान, केन्ना-केन्नाय राधामावशेच्या घराक पांय लागतालो. हांव आयिल्ल्याची सुलूस लागनाफुडें, हातांतलें केदेंय व्हडलें काम सोडून झडझडीत म्हज्या म्हऱ्यांत येवन बसताली. मागीर आपलोच कोणूय तरी सोयरो आयिल्ल्यावरी, म्हज्या आवय-बापायची, बायले-भुरग्यांची आस्थेन खबर घेताली. तांच्या घरांत म्हाका च्या-पाणी मुजरत मेळटाली. पूण खाणा-जेवणापरस चड ओड म्हाका राधामावशेच्या वागणुकेन लायिल्ली.

राधामावशेक फक्त आपल्या संवसाराचीच काळजी आशिल्ली अशें न्हय, गांवचेंय बरें जावचें अशें तिका मनापासून दिसतालें. गांवांत कोणा-कोणागेर कितें-कितें घडटा हाची म्हायती मेळोवपाक ती सदांच उत्सूक आसताली.

एक दीस राधामावशेक कळ्ळें, हांव शेजारच्या गांवांत नवें घर बांदतां. तिणें म्हाका हक्कान आपोवन घेतलो. म्हजी तोंड भरून तुस्त-तोखणाय केली. म्हणूंक लागली - "पुता, म्हाका चड बरें दिसलें. तुवें व्हडा कश्टांनी शिक्षण घेतलें. नोकरी मेळोवन स्वताच्या पांयार उबो रावलो. आतां स्वताचें घर बांदूंक फुडें सरला. असलें काम एकाद्र्या सुपूताच्या हातांतल्यानूच घडटा. असोच फुडें वच पुता म्हज्या! म्हजे आशिर्वाद आसात तुका."

"घर खंय पावलां तुजें? जमनीक सिमेंट घालता मूं, एक मात कर बाबा! सगळ्या घराक सिमेंट घालूं नाका. एक तरी कूड सारोवपाखातीर दवर."

राधामावशेचो सल्लो हांवें मानलो. आयज आमचीं घरां तिजुल्यांचीं आसात. पूण राधामावशे तेंपावयल्यो शेणान सारयल्ल्यो पडव्यो-वासऱ्यो सूखदिण्यो आनी कांय प्रमाणांत आरोग्यदायक आशिल्ल्यो हें निश्चीत!

जनाप्पाचे बाबतींत उलोवपाचें जाल्यार तो गरीब आसूं आशिल्लो. तांकां जर एक-दोनूच भुरगीं आशिल्लीं, तरी राधामावशी आपलो संवसार फुलयतली आशिल्ली. पूण घडलें वेगळेंच. आदले तेंपार मनशांक भुरगीं दिवप, ना दिवप हें देवाच्या हातांत आसतालें. पूण हांगा राधामावशेचेर जनार्दन भलतोच प्रसन्न जालो, आनी राधामावशेच्या पदरांत ताणें एका फाटल्यान



एक अशीं पांच भुरगीं घालीं. ह्या पंचायतनाच्या पेजान जनाप्पा दिशीं-दिशीं चेपत गेलो. पेजान तो अर्दमेलो जालो. आनी एक दीस आपूण स्वर्गार वचून पूर्वजांचे पंगतीक सुशेगाद बसलो.

हांवें जनाप्पाक पळोवंना. पूण तागेल्या भुरगीं-बाळांच्या सबावावेल्यान दिसून येता, की तो एक राधामावशेप्रमाणूच सुसंस्कृत आनी शांत वृत्तीचो आशिल्लो जावंक जाय. घडये ताचेर राधामावशेचो प्रभावूय पडिल्लो आसूं येता.

तशें पळोवंक गेल्यार सुसंस्कृत आनी बरे देखीचीं मनशां खंयच्याच खाशेल्या अशा जाति-धर्मांत आसनात. तांचो आसपाव जसो गिरेस्तांमदें आसता, तसो तो गरीबांतूय आसता. खंयच्याच घराब्याचे पुराय वांगडी सुसंस्कृत आनी बऱ्या आचारी-विचारांचे आसनात. बरीं मनशां घराब्याक फाव केल्ली देवाची देण आसता. ही देणगी ज्या घराब्याक चड-थोडे प्रमाणान फाव जाल्या, त्या घराब्याचो फुडार उज्वल जावंक पावला.

राधामावशी जनाप्पाल्या घराब्याक फाव जाल्ली देवाली देण आशिल्ली. तिणें आपली सगळी पुण्याय जनाप्पाल्या घराब्याक खर्च करून, तो घराबो उजवाडाक हाडलो.

राधामावशेक दोन पूत आनी तीन धुवो. ह्या पांचय भुरग्यांक तिणें कशे तरेन वयर काडलीं हाची कल्पनाच केल्ली बरी! आनी कोणूय बायल जाल्यार घोवाच्या मरणा उपरांत माथ्यार हात घेवन रडत बसतली आशिल्ली. भुरग्यांक खाक्यांक मारून हाच्या-ताच्या दारांत हेडटली आसली. राधामावशेन तशें कांयच केलें ना. तिणें चिंतलें चड दीस दुकां गळयत बसप परवडचें ना. तिणें व्हावतीं दुकां पदराक पुसलीं आनी आयज मेरेन शांत आशिल्ली राधामावशी, फुडल्या संकटांक तोंड दिवपाक दुर्गा जाली.

राधामावशेकडेन भांगरांशिंगरां, भाटांबेसां नाशिल्लीं. मात तिचेकडेन एक अदृश्य धनाचें पेटूल आशिल्लें. आनी तें म्हळ्यार तिणें वांगडा हाडिल्ले सुसंस्कार. हे सुसंस्कारांचें पेटूल खाक्याक मारून ती जगली. ह्या संस्कारांनीच तिका धीर दिलो, बळ दिलें. ना तर ही आशिक्षीत विधवा खंयचे खंय व्हावन गेल्ली लोकांक दिसतली आसली.

सुसंस्कार मनशाक स्वाभिमानान जगपाक शिकयतात. राधामावशी धाडशी आनी उद्येगी. गांव किरिस्तांवांचो. तिणें चिंतलें, लोणचें-पापड करून विकल्यार भुरग्यांच्या ताळ्यार पेज्जे निवळ पडपाची शक्यताय आसा. तिणें तो धंदो ल्हान प्रमाणांत भुरग्यांच्याच आदारान सुरू केलो.

राधामावशेलो धंदो चालीक लागलो. तिगेलीं पांचय भुरगीं वाडीक लागलीं. तिका एक दिका सांपडली. माथ्यावेलो पेज उणो जालो. सुखाचीं पावलां तिच्या दारावशीं वळटलीं, अशे आसार तिका दिसूंक लागले.

ते तेंपार चलयांक भुरगेपणांतूच लग्न करून दिवपाची चाल आशिल्ली. हे चालीचो राधामावशेन पुराय लाव घेतलो.

तिच्यो चलयो रंग-रुपान तशो

वायट नाशिल्ल्यो. आपल्याक फावता आनी परवडटा तसलीं थळां पळोवन तिणें एका फाटल्यान एक, तिनूय चलयांचीं लग्नां लावन दिलीं.

राधामावशेलो व्हडलो पूत गोपी. गोपीन मुळावें पोर्तुगेज शिक्षण मन लावन पुराय केलें. ताका कुर्रयेंत (पोस्टांत) कार्तेराची (पोशटमनाची) सर्विस मेळ्ळी. उपरांत तो 'सुबशेफ' जालो.

अशे तरेन राधामावशेलो भविशयकाळ बरो वचपाची चिन्ना दिसतांच दैवान तिचेर घुरी घाली. एके धुवेचो घोव भुरगेपणांतूच गेलो, आनी ती विधवा जावन राधामावशेच्या गळ्यांत पडली.

उरिल्ल्या दोन धुवांच्या पदरांत भुरग्यांच्यो राशी. खावपी तोंडां चड आनी येणावळ सामकी उणी. घरांतलीं मनशां मरण येना म्हूण कशींय तरी जगूंक लागलीं.

राधामावशेलो दुसरोय जावंय पाटलीभर भुरग्यांक जल्माक घालून ताणें देवाल्या राज्यांत हाजिरी लायली. ताका लागून दुसरीय धूव विधवा जावन भुरग्यांचें लटांबर घेवन राधामावशेच्या आसऱ्याक आयली.

हे धुवेकय दोन धुवो आनी तीन-चार पूत. राधामावशेले हे नवे विधवा धुवेन आपल्या पुतांचें चडशें मनार घेतलें ना. ते कशेय तरी निबावन व्हरतले, अशें तिचें मन तिका सांगतालें. तिका चड काळजी आशिल्ली ती आपल्या धुवांची. खात्या-पित्या आवय-बापायच्या चलयांचीं लग्नां जुळयतना जोतीं कशीं झरोवचीं पडटात, हाचो अणभव राधामावशेल्या चलयांकान्न धुवेक आशिल्लो. आपल्या चलयांचे हाल पळोवपाची पाळी आपल्याचेर येवची न्हय म्हण, ती आपल्या सगळ्या भुरग्यांचें लटांबर राधामावशेच्या आसऱ्याक सोडून आपल्या घोवाचे सेवेक तिणें स्वर्गाचीं दारां बडयलीं.

राधामावशे मुकार एका फाटल्यान एक संकश्ट दत्त म्हूण उबें रावतालें. राधामावशेक दिसतालें, देव आपली सत्वपरिक्षा घेता. ते परिक्षेक बऱ्या गुणांनी उत्तीर्ण जावपाची मोख तिणें आपल्या मुखार थेयली.

राधामावशेल्या व्हडल्या पुताकय देवान पाटेंभर भुरगीं दिलीं. ताणें आपल्या बापायकय फाटीं घालून सात भुरग्यांक जल्म दिलो. तीन चले आनी चार चलयो. भुरगीं वाडटात तशी बापायच्या चेऱ्यार निर्शेणी वाडत गेली. पूण राधामावशेचेर ताचो कांयच परिणाम जालोना. परती ती खूश!

राधामावशेच्या खुशीचें आनीक एक कारण आशिल्लें. पोर्तुगेज राजवटींत प्रत्येक भुरग्या फाटल्यान भत्तो मेळटालो सरकारी येम्प्रेगादाक. भुरगीं चड तितलो भत्तोय चड. तरी पुताल्या पगारांतल्यान इतल्या भुरग्यांचें कशेंच भागनासलें.

वाडट्या भुरग्यांच्या पिकासांवान काय आनी कित्यान देवाक खबर! राधामावशेल्या एकमेव जोडकाराक पोटखण्याचें दुयेंस बादलें आनी तातूंतच तो खलास जालो.

राधामावशेलो उरिल्लोसुरिल्लो एकमेव आदारय आतां ना जालो आनी ती एकटी पडली.

कोणय म्हणटलो. राधामावशेले दोन पूत. एकलो गेलो. आनी दुसऱ्याचें कितें? तो आसतना राधामावशी एकटी कशी पडटली.?

भुरगीं जालींच म्हळ्यार जायना. तीं कर्तुबी आसूंक जाय. राधामावशेल्या दुसऱ्या पुताचें नांव कमलाकांत. सगळो गांव आनी सोयऱ्यांधायऱ्यां ताका कमलाच म्हणून वळखूंक लागले. हो कमला केन्ना संवसारांत रमलोच ना. म्हातारो जाय मेरेन तो राधामावशेलो बाबुलोच उल्लो.

कमलान मनांत हाडिल्लें जाल्यार तो खूब कितें करूंक शकतालो. रुपान तितलोसो वायट नासलो. हा, मातसो मोटवो आनी सडपातळ आसलो खरो, तरी धोतर आनी कोट-तोपी चडयल्या बगर स्वारी भायर सरनासली.

कमला भायल्यान दिसतालो बावळट-झेंपो. पूण तकलेन फीन. एक सांगल्यार चार समजुपी.

बावळट दिसलो तरी जुवानपणांत व्हकलांकार राधामावशेचे फाटीक लागलेच. राधामावशेन एकदां कमलाकडेन लग्नाचो विशय काडलो. कमलान तिचेर अशे तरेन दोळे मोटे केले की फुडें तिणें ताच्या मुखार केन्नाच लग्नाचो विशय काडचो न्हय.

कमला न्हिदून-न्हिदून जेवतालो अशें मात कोणें समजुचें न्हय. ताचो एक खास असो धंदो आशिल्लो. प्रोव्हियादोरीच्यो सोर्ती विकपाचो. विकतल्याक सोर्ती फाटल्यान एक आणो मेळटालो. रुपयान सोर्त. सोर्ती विकून कमलाली दिसांतल्यान आठ आणे तरी जोड आसतालीच. हे जोडीचे नेटारच तो जेवणा वेळार पाटार बसतालो, आनी सगळ्यांक शाणेपणां सांगतालो. तरी तो आसतालो राधामावशेल्या आसऱ्याकच.

राधामावशेल्या आसऱ्याक आतां व्हडल्या पुतालीं सात भुरगीं, कमला, ती स्वता धरून तीन विधवो, एके धुवेलीं सगळीं भुरगीं (एक नातू सोडून) वावरूंक लागलीं. ह्या सगळ्यांचें वजें तिणें आपल्या माथ्यार घेतलें. तरी ती चेपून गेली ना. तोलूय सोडलो ना. आपल्या संवसाराक बळ हाडूंक ती धिरान उबी रावली.

राधामावशेन चिंतलें, आपणें लोणचें-पापडांचो धंदो सुरू केलाच. आपूण तो वाडोवंक शकतां. तिचेकडेन मनीसबळ आशिल्लेंच. लोकांची आवड-निवड पळोवन धंदो वाडयल्यार तो भरभराटीक येवंक चड वेळ लागचो ना. शिवाय तिचे गाठीक अणभवय आशिल्लो. त्या अणभवांचो पुराय उपेग करून घेवपाचो तिणें निश्चेव केलो.

पापड रुचीक जातले जाल्यार हरव्यो मिरसांगो सुकोवन पिठो करचो पडटा. तशें केल्यार पापडांक रुची वांगडा रंगय बरो चडटा. तांतल्या तातूंत तारवटी मिरसांगांचे

पापड उत्तम. राधामावशेन तारवटी मिरसांगो फयदो करून कांय प्रमाणांत उत्तम दर्जाचे पापड करून, श्रीमंत गिरायकांक आकर्शीत करपाचें थारायलें.

सुर्वेक राधामावशी पड-पायल्यांनी उड्डां दाळ हाडटाली. आतां ती साकांनी घेवंक लागली.

राधामवशी उतरान रेक्त. दुडू नासतना उतरच धाडल्यार पसरकार म्हाल धाडून दिताले. (ही गजाल पोर्तुगेज तेंपावेली. ते तेंपार कील-बील वापरांत नासताले. पड-पायली, नाकटी-अन्नाटी, कुडव-खांडी बी तसलीं मापां चलतालीं. चार पडींची एक पायली, दोन पायल्यांचो एक कुडव, असलें कोंत चलतालें त्या तेंपार!)

तो दीस आसलो दसऱ्याचो. शिलंगणां पुंजपाचो. राधामावशेन दसऱ्याचो म्हूर्त सादोवन पापडांचो धंदो नव्यान सुरू केलो. कसलोच थाटमाट नासतना.

राधामावशेच्या कुटुंबांत आतां तीच एक जाणटी मनीस आशिल्ली. कुटुंबाचो देवारोय तिच्याच सांगाताक आशिल्लो.

राधामावशेन दसऱ्यादिसा सगळीं पोरणीं हत्यारां एकठांय केलीं. भुरग्यांकडल्यान घासून-पुसून घेतलीं.

कमला घरांतलो पुजारी. राधामावशेन ताका बाबा-पुता करून आयज सकाळीं-सकाळींच उठयलो. न्हावन-धुवन आठांक पुजेक बशिल्ल्या आळशी कमलान देवा म्हऱ्यांत बडबडपाकच दोन वरां लायलीं.

ताणें देवा वांगडाच घरांतल्या सगळ्या हत्यारांची पुजा केली. राधामावशेन आयज वान-मुसळ, लाटफळें-लाटणें, तेलायदण आनी व्हडलीं ताटां फुडें काडून दवरिल्लीं. हें सगळें सामान आयज तिका म्हत्वाचें आशिल्लें. ह्या सामानाची पूजा-आरती व्हडा भक्तिभावान जाली. ह्या देवकार्याची मोख घरभर लोकांक खबर आशिल्ली. घांटीसयत आरतींचीं उतरां कानार आदळिल्ल्यान सगळ्यांचीं गात्रां चैतन्यान भरिल्लीं.

राधामावशेन एके वावराडेक आपोवन थंय मुजरत उबी केल्ली. पिठी मळपाचें, लाटपाचें काम घरचीं मनशां करूंक शकतालीं. पूण वानार पिठी धाडोवपाचें काम लेच्यापेच्याचें नाशिल्लें. ताका जाय आशिल्ली घाम गळोवपीच बायल!

म्हऱ्यांत उबें आशिल्ल्या कस्तुऱ्याक राधामावशेन आपोवन पाटार बसयलें. सवायशिणीकडच्यान ताची हों‍ट भरून ताचो भोवमान केलो. कारण धडधाकट कस्तुरें म्हळ्यार राधामाशेक श्रमदेवता. ती प्रसन्न जाल्यारूच राधामावशेलें कार्य हुस्कोविरयत चलपाचें.

अशे तरेन आपलो भोवमान जाल्लो पळोवन कस्तुरें खोशेलें. हों‍टयेचे ताका नाल्ल-पड, खण आनी वेल्यान पांच रुपये मेळिल्ले. हाचेवेल्यान राधामावशेखातीर फुडाराक तें कितेंय करूंक तयार आशिल्लें.

राधामावशेलें घर शें-देडशें वर्सां आदीं बांदिल्लें. राजांगणाच्या घराक चारय वटयां पडव्यो. आंगणांत मदीं तुळस. तुळशीभोंवती भुरग्यांक नाचपाक-खेळपाक फाव तशी सुवात. आंगणांत वताक कसलीच आडखळ नाशिल्ली. वाऱ्याक धिंगाणो घालूंक संद नासली. राधामावशेक पापड सुकोवपाक पवित्र अशी आयतीच सुवात मेळिल्ली.

राधामावशेन एके पडवेर पापडां सामान सजयलें. आपल्या घरांतल्या जणेका वांगड्याची क्षमताय पारखून घेतली. वानार पिठी धाडावपाक कस्तुरें आशिल्लेंच. पिठी मळपाचें काम तिणें एके विधवेकडेन दिलें. वयांत आयिल्ले जणेकले नातीकडेन लाटफळें दिलें. लाटिल्ले पापड व्हरून आंगणांत सुकत घालपाचें काम तिणें ल्हान भुरग्यांचेर सोपयलें. रांदपाचें काम सुनेचेर सोपयलें. आनी आपूण जाली सगळ्यांची मुकादम!

राधामावशेन आतां एक लक्ष्मीचें पांयजेल हाडलें. सगळ्यांची नदर पडटा तशें वणटीक लायलें. गंद-फूल घालून देवीक धुपारती दाखयली. उजवाती पेटोवन पांयजेलाक खोयल्यो. धूप आनी उजवातीच्या वासान सरभोंवतण घमघमून गेली. सगळें वातावरण चैतन्यमय जालें. राधामावशेचो नेट दुप्पट-तिप्पट जालो. तिणें मनांतल्या मनांत 'हरहर म्हादेव' म्हणून कामाक सुरवात केली.

पयले दोन दीस कामाक मात्शी आडखळ जाली. कालयतना पिठी दाट-पातळ जावंक लागली. लाट्टना पापड वाकडेतिकडे जावंक लागले. अणभवी राधामावशी सगळ्यांचेर दोळो दवरून आशिल्ली. दोन दिसांभितर तिणें ल्हाना-व्हडांक आपल्याक जाय तशीं प्रशिक्षीत करून सोडलीं.

थोड्याच दिसांनी राधामावशेलें घर म्हळ्यार एक पापडां फॅक्टरी जाली. कस्तुरें पिठी धाडयता. राधामावशेली विधवा धूव पिटी मळून ताच्यो लोळयो आनी गुळयो करता. आरसाट्यो नाती पापड लाट्टात. धाकटुलीं भुरगीं लाटिल्ले पापड व्हरून राजांगणांत धवेफुल्ल चादरीचेर पातळोवन लायतात. तांबडे पापड, पांचवे पापड एकमेकांकडे पळोवन हांसतात असो पळेतल्याक भास जाता!

कस्तुऱ्याल्या मुसळाचें पिठयेच्या गुळयांचेर फारार फार. खरशेत-खरशेत मारिल्ल्या, कस्तुऱ्याल्या फारांचो धब्ब-धब्ब आनी मुसळाचो वानार आपटून जाल्लो 'टण्ण-टिण्ण्' आवाज आयकून ल्हाना-व्हडांचीं मनां खोशेन भरतालीं. लाटफळ्यांचो खट्-खट्, कुट्-कुट् आनी ओले पापड परतीतासतना तांचो जाल्लो 'लप्-छप्' आवाज आयकून मन कशें धादोशी जातालें. राधामावशेलें सगळें-सगळें शिस्तबद्द आनी तालमय! राधामावशेच्या धाकान कोण्णाच्या तोंडांतल्यान एक चक्कार शब्द भायर पडनासलो. बेलगाम तोंड चलतालें तें फक्त राधामावशेलें. ती एकटीच घरांतली

जाळवणदार आशिल्ल्यान तिचें तोंड बंद करपाची कापाझदाद कोणाकच नाशिल्ली. आनी म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार राधामावशेली बडबड बंद जावची अशें कोणाकच दिसनासलें. तिचीं तीं गोडीगुलाबीचीं आनी म्होवाळ उतरां अशे तरेन ती भायर सोडटाली, की आयकतल्यान आयकत रावचें. राधामावशेल्या घराब्यांतल्या हेर बायलांचें उलोवप (तिची सून सोडून) जेन्ना हांव आयकतालों, तेन्ना त्यो बरेंच उतर उलयतना उलयतात, हुयेली मारतात, आड्डतात काय झगडटात हें कळूंक कठीण जातालें.

राधामावशेल्या भाशेविशीं आनी एक गजाल म्हाका मुजरत सांगीनशी दिसता. राधामावशेक हांव तिचो नातू कसो आशिल्लों. पूण तिणें म्हाका आरे-तुरे केन्नाच केलो ना. दुसऱ्याक मान दिवन दुसऱ्याकडल्यान तो कसो घेवचो, ही शिकवण ती आपल्या आवय-बापायल्या कुळाचारांतल्यान घेवन आयिल्ली.

बरे कुळांतलीं भुरगीं - ती मागीर चली आसूं वा चलो अशे तरेन आपल्या आवय-बापायच्या कुळाचेर उजवाड घालतात.

राधामावशेन निर्जिवावस्थेंत आशिल्ल्या आपल्या सांगात्यांत जीव फुंकलो आनी थोड्याच दिसांनी आपलो पापडांधंदो भरभराटीक हाडलो.

आयज लोणचें-पापडाच्यो मोट्यो-मोट्यो जायराती टिवी-रेडियोचेर येतात. पूण राधामावशेक आपल्या पापडांची जायरात केन्नाच करची पडलीना. चारय वाटांनी मूस कशे धावून येतालें गिरायक - तिच्या पापडांक. गोंयांतच न्हय तर फ्रान्स-इंग्लंड, पोर्तुगाल-आफ्रिका सारक्या राष्ट्रांनीं राधामावशेले पापड पावताले. थंय पावोवन ते फामाद करपाचें काम करताले आमचे



किरिस्तांव भाव. वियाज मारून आयिल्ले बोटलेर वतासतना राधामावशेले पापड मुजरत व्हरताले.

गोंयांत तर व्हडल्या-व्हडल्या मनशांल्या लग्नकार्याक आनी कसल्याय देवकार्याचे जेवणावळीक राधामावशेले पापड आसूंकच जाय आसले. ताका लागून राधामावशेक पापडांच्यो ऑर्डरीर ऑर्डरी येताल्यो. त्यो वेळार पुराय करपाक राधामावशी दीस-रात झट्टाली.

राधामावशेले पापड रुच्चीक. फाव तितलो शंकरछाप हींग वापरून तारवटी मिरसांगांचे पांचवे पापड इंगळ्यांचेर भाजून तांका खोबरेल तेल लावन पानार वाडपाचे. तांच्या घमघमीत वासानच जीव धादोसभरीत जातालो.

राधामावशी खरेल्या अर्थान कर्मयोगिनी आशिल्ली. कर्मांत आनंद मानपी. कर्माशिवाय जगप तिका शक्य नाशिल्लें.

राधामावशेली पयली मोख आशिल्ली धुवेल्या चलयांक भांगरां-शिंगरां घालून बऱ्या घराण्यात दिवपाची. ती मोख तडीक व्हरपाक तिका आतां व्हडलीशी अडचण नाशिल्ली. पूण त्याच बराबर तिच्या मुखार व्हडल्या पुताल्योय चार चलयोय गरगरीत वाडटाल्यो. राधामावशेन कितल्योय खटपटी केल्यो, तरी तिका भायलीं कामा आनी रटावळी करपाक एका हिकमती आनी तिचे आज्ञेन वागपी पुरूशाची तिका गरज भासताली.

तिचो व्हडलो नातू मामागेर शिकतालो. सभावान मातसो चंचल आशिल्लो खरो, तरी ताका आपले जापसालदारकेची जाणविकाय आसली. ताणें मर्दीच आपलें शिक्षण सोडलें आनी आयलो धावून आपले व्हडले आईच्या आदाराक.

तो आयलो तो आयलो, घरां बसून कितें पापड लाट्टलो? ताचो बापूय, फाटल्यान एक पसरो सोडून गेल्लो. जेमतेम गिरायक आशिल्लो नांवाचोच पसरो तो! राधामावशेल्या नातवान तातूंत प्राण फुंकलो. तोंडान मातसो फटकळ आसलो तरी उतरान रेक्त. जोख-माप चोख. तागडी केन्नाच हे वटेची तेवटे जावची ना. ताच्या ह्या गुणाक

लागून गिरायकाचो तो विश्वासपात्र थाल्लो. इल्लें इल्लें गिरायक वाडत गेलें.

आज्जेल्या पापडांचें आतां नातवालें दुकान केंद्र जालें. दुकानार आतां पापडांच्यो मागण्यो येवंक लागल्यो. गांवच्या लोकांकय आतां पापड-लोणचें दुकानार मेळूंक लागलें. अशे तरेन आजी-नातवाले धंदे एकामेकाक पुरक थारूं लागले. आपल्या कर्तुबी नातवाची दीस-रात तुस्त-तोखणाय जावंक लागली. नातू मुळचोच हुशार तरी आज्जेच्या दोळ्यांक उदक लावपाक तिचेकडल्यान मार्गदर्शन घेवपाचें नाटक करूंक लागलो. ताका लागून आजी खूश आनी घरांतल्या ल्हाना-व्हडांमदीं शिस्तीचें वातावरण तयार जावंक लागलें.

अशें आसलें तरी राधामावशी पुराय चिंतामुक्त जावनाशिल्ली. एक दीस ती कितेंतरी चिंतीत बशिल्ली. नातवाक तिची काकुळट दिसली. म्हऱ्यांत वचून म्हणूंक लागलो – "कितें चिंता गे व्हडले आई! आतां सोड तें चिंतप. हांव आयलां न्ही तुज्या आदाराक, तूं कसलीच काळजी करूं नाका. हांव पळोवन घेतां सगळें."

नातवालीं धीर दिणी उतरां आयकून आज्जेल्या आंगांत उत्साह भल्लो. नातू चोवदा-पंदरा वर्सांचो आशिल्लो तरी शाणेपणाचें उलयतालो. घरच्यांच्या आनी शेजाऱ्या पाजाऱ्यांच्या दिश्टीन मात्सो पारपोळ आनी मस्तो, शिक्षणाकडेन तितलेंशें लक्ष नाशिल्लो भुरगो, अकस्मात संवसाराक लागता, हें पळोवन राधामावशी धन्य जाली.

नातवाक दिसलें, आपले आज्जेन कितलेय कश्ट केले तरी संवसाराक बळ येवचें ना. शिवाय तिचें तोंड आतां दिशीं-दिशीं जमनीक तेंकत वता. तेन्ना आपल्या चारय भयणांचो विचार आतां आपल्याकच करचो पडटलो.

आतां भशेन चाळीस-पन्नास वर्सां फाटीं चलयांक शिक्षण तितलेंशें आवश्यक अशें नाशिल्लें, तरी ताणें आपल्या भयणांच्या शिक्षणाचो विचार केलोच. निदान मॅट्रीकमेरेन तरी आपल्या भयणांक शिकोवपाचो ताणें ध्यास घेतलो.

एक भाव शिकपाक बरो आशिल्लो ताका इंजिनियर करपाची बापायची इत्सा आशिल्ली. बापायची इत्सा पुराय करतलो जाल्यार फकत पसरो घेवन बसल्यार जावचेलें ना. ते भायर आनीकय कितें करचेंच पडटलें. ते खातीर रातीचे दीस करून आपल्याक झटचेंच पडटलें. अशें म्हणून तो फुडलो मार्ग सोदूंक लागलो.

ताणें चिंतलें, गांवांत वर्तमानपत्रां विकपी कोण नासलो. गांवचे लोक रोमन लिपींतली कोंकणी आनी इंग्लीश वाचपी. थोडे मराठीय वाचपी आसले. राधा मावशेल्या नातवान चिंतलें, सगळ्या तरेच्या नेमाळ्यांची एजेंन्सी घेवन पेपर्स विकल्यार म्हयन्यांतल्यान उणेंच दोनशीं रुपया तरी मेळटले. तेन्नाचे दोनशें रुपया म्हळ्यार आतांचे पंचवीस हजार, हें आयकून वाचपी अजापांत पडटले.

गोंय तेन्ना निकतेंच स्वतंत्र जाल्लें. भांगराच्या एका पोवनाक शेंबर रुपये पडटाले. आतां त्याच पोवनाक तेरा हजार रुपये पडटात. हाचेवेल्यान तेन्नाच्या दोनशें रुपयांचें मोल कितलें आशिल्लें हाची कल्पना वाचप्यांनी करची.

जालें. गांवांत सगळे तरेचे पेपर्स आतां मेळपाक लागले. पेपरवाल्याचें दुकान रस्त्याक तेकून आशिल्लें. पेपरवालो दुकानार सकाळचो जिळमिळट्यार येवंक लागलो. रस्त्यावेल्यान येते-वते आतां एक आणो दिवन पेपर घेवंक लागले. ते शिवाय लावणेचे पेपर्सय तयार करून जणेकल्याच्या घरा पावोवपाचें काम राधामावशेलो नातू पध्दतशीरपणान करूंक लागलो. मनशाचें तोंड बरें आसल्यार खूबशीं कामा तो सोपेपणान करून घेता.

राधामावशेलो नातू गांवच्या सगळ्या लोकांक वळखतालो. कोण खंयच्यान वता, ताका कोणालें घर वाटेर मेळटा हें ताच्या पुराय लक्षांत आसतालें. रस्त्यावेल्यान येत्या-वत्यांक थांबोवन तो आपले पेपर्स मात्शे अमक्याक दिता, तमक्याक दिता काय म्हूण विचारूंक लागलो. ताचें व्यक्तिमत्वच अशें आशिल्लें की ताका ना म्हणपाची कोणाकच कापाझदाद नासली.

मागीर आठांच्या दरम्यान उरिल्ले पेपर्स घेवन तो फेरीबोटीकडेन वतालो. सगळे पेपर्स विकूनच घरा येतालो.

अशे तरेन राधामावशेल्या नातवान आपल्या संवसाराची विसकटलेली घडी जाग्यार घाली. आपल्या चारय भयणांचीं लग्नां भांगरांशिंगरां घालून बऱ्या घराण्यांत करून दिलीं. एका भावाक इंजिनेर करून बापायची इत्सा पुराय केली. दुसऱ्या भावाक फाव तें शिक्षण दिवन ताका पोटाक लायलो.

अर्थात हाचें सगळें श्रेय हांव राधामावशेक दितां. राधामावशेन आपल्या कुटुंबाचेर केल्ल्या सुसंस्कारांचें फळ आशिल्लें तें.

बीं तशें भात अशी कोंकणी भाशेंत एक म्हणणी घोळटा. ही म्हणणी सगळ्यांचेच बाबतींत खरी थारता, अशें म्हणपाचें धाडस मात कोणें करचें न्हय. मात राधामावशेचे बाबतींत ती जुस्ताजुस्त लागू पडल्या. राधामावशेच्या प्रामाणिकपणाचो वसो तिच्या भुरग्यांक, सुनेक-तिका एकूच सून आशिल्ली – नातरांक आनी नातसुनांक लेगीत लागिल्लो. दुसऱ्यांक नाडप – फटवप हें व्हडलें पाप, अशें तिगेल्या घराब्यांतल्या सगळ्याच वांगड्यांक दिसतालें.

आमकां दिसता, राष्ट्र उबारणेचें कार्य व्हडले-व्हडले फुडारी करतात. वयल्या पावंड्यावेल्यान ते करताय बी जायत. पूण तांचें कार्य डळमळीत आसता. राष्ट्रनिसणीचो सकयलो पावंडो घट्ट आसल्यारच वयल्या पावंड्याक बळ मेळटा. वयले पावंडे

खिळखिळे आसले तर, तांचेर उबे रावन फुडाऱ्यांनी केल्लें कार्य राष्ट्रहिताचें नासता. खंयच्याय राष्ट्राचें मूळ डळमळीत आनी ताचें तेमूक कितलेंय बळीश्ट आसलें तरी तें राष्ट्र केन्ना-खंयच्या वेळार कोसळत हाचो नेम नासता.

राधामावशी राष्ट्र निसणीचो मुळावो पावंडो आशिल्लो. राष्ट्रतेमूक हाल्लें - झेल्लें तरी तें पेलून धरपाचें बळ ह्या मुळाव्या पावंड्यांत आशिल्लें. राधामावशे सारक्या असंख्य कर्मयोगिनींच्या आदारानूच ह्या राष्ट्राक आयज मेरेन बळ मेळत आयलां.

सर्वसामान्य अस्तुरी पयलीं आपल्या भुरग्यांचें आनी घोवाचें बरें चिंतता. बऱ्या देखीची आनी बऱ्या सभावाची जाल्यार कुटुंबांतल्या हेर वांगड्यांचें, उपरांत आपल्या लागसारच्या नात्यागोत्यांतल्या मनशांचें बरें चिंतता. हाचे पलतडीं चडशें कोणाचें शिंतीद वचना. पूण राधामावशेलें मात सगळेंच वेगळें. आपल्या घरांत ती कोणाची आई आशिल्ली, कोणाची व्हडली आई आशिल्ली, कांयजणांची मावशी, काकीय बी. ह्या सगळ्यांचेर तिची दोन दोळ्यांची नदर पडटालीच. पूण राधामावशेक शंकराभशेन एक तिसरोय दोळो आशिल्लो. फरक इतलोच की शंकराक राग आयल्यार तो आपल्या तिसऱ्या दोळ्यांचो उपेग करून कोणाकय लासू-भाजून-करपोवन उडोवंक शकतालो. पूण राधामावशेचो अदृश्य तिसरो दोळो कृपादिश्टी खातीर आशिल्लो. ती गांवांतल्या खूबशा लोकांची राधामावशी आशिल्ल्या कारणान तिचो तिसरो दोळो दितालो ती फकत शितळसाण. तिचे मर्जेंतलो मनीस- तो मागीर खंयच्या जाती-धर्मांतलो जावं. तिच्या कृपादिश्टींतल्यान सुटनाशिल्लो. कोणागेर भुरगीं कितलीं, तांचीं लग्नां जालीं काय ना, कोण कितें करता, कितें खाता-जेवता, हाची ती बारीकसाणीन चोवकशी करताली. कांयजाणांक ती गरजे भायली दिसताली. पूण सरळ आनी पवित्र मनाची राधामावशी ती व्हडा आस्थेन करताली. तातूंत कसलोच सुवार्थ आनी वाकडेंपण नासतालें.

राधामावशेकडेन लोकांक ओड लावचेली कला बेसबरी आशिल्ली. हांगा म्हाका मुजरत एक देख दिवचीशी दिसता-

राधामावशेल्या घराक तेकून एक आंबाडो आशिल्लो - अजून आसा - आंबाड्याचे खांदे आंबाड्यानी मोडसर भरताले. दसऱ्या-दिवाळेच्या दिसांनी राधामावशी मानायाक लावन साक भरून आंबाडे काडटाली. तिणें मनार घेतिल्लें जाल्यार एके बाजारकान्नीक आपोवन ती चार पयशे जोडूंक शकताली. पूण तिणें तशें केलें ना. राधामावशेक पयशांची गरज आशिल्ली. पूण तिका मनशांचीय आवड आशिल्ली. आंबाड्यांच्या निमतान लोकांकडेन संबंद दवरपाची आयतीच संद तिका देवान दिल्ली.

राधामावशेन एक लांबलचक नामावळ तयार केल्ली. दिवाळी लागीं येता-येता म्हळ्यार गांवच्या लोकांक आनी तिगेल्या सोयऱ्याधायऱ्यांक पयलीं याद येताली ती राधामावशेची. दिवाळेच्या आदल्या दिसा राधामावशेले आंबाडे याद्दीन घराकडेन पावतले, हाची खात्री राधामावशेन तयार केल्ल्या जणेकल्या वांगड्याक आसली.

राधामावशी गेली. तो मूळ आंबाडोय इतिहास जमा जालो. पूण राधामावशेन मूळ आंबाड्याचो एक खांदो तोडून दुसरेकडे पुरिल्लो. तो आतां मूळ धरून फांकारला. माया म्हयन्यात ताचें पानान पान झडटा आनी खांदयेन खांदी चंवरता. वेळार तो आंबाड्यांनी भारावता.

अशे तरेन मूळ आंबाड्याचो खांदो- नवो आंबाडो-आपलें दायज चलयता. आनी राधामावशेचें कितें? तिचें दायज सांबाळपाक तिची व्हडली नातसून फुडें आयल्या. आयज ती मानायांक लावन आंबाडे काडटा - घोवाची मजत घेवं मागीर ती - आनी आपले आजीमांयल्या तेंपावयली नामावळ वेळार अचळय भायर काडून, ते-ते मनशांक आंबाडे यादीन धाडून दिता. फरक इतलोच, की राधामावशी आंबाडे आदले दिसा काडून दुसरे दिसा कशेय करून धाडून दिताली आनी आयज तिची नातसून आंबाडे प्लाश्टीकच्यो पिशव्यो भरून फ्रिजांत दवरता. तरी मोग आसल्यार हून वडे घांटार पावतात तशे राधामावशेली नातसून तांचे आंबाडे पावोवंक जाय तांकां पावयताच!

राधामावशेन आपले फुडले पिळगेक नातीं जोडून ती तिगोवन दवरपाची शिकवण दिली. तिचो व्हडलो नातू आनी नातसून राधामावशेले शिकोवणेप्रमाण आयजूय वागतात. आयज हें जोडपें सत्तरेंत पावलां. तरी राधामावशी तांच्या रगताच्या थेंब्या थेंब्यांत भिनल्या. राधामावशी आपल्या धुवांक आनी धुवांल्या भुरग्यांक चुकनासतना वर्जी धाडटाली. आतां राधामावशी सोंपली. तिच्यो धुवोय मेल्यो, नातरांय आज्ज्यो जाल्यो तरी राधामावशेल्या वज्यांची परंपरा तशीच चालू उल्ल्या.

जो मेरेन राधामावशेलो व्हडलो नातू आनी नातसून ह्या संवसारांत जियेतलीं, तो मेरेन राधामावशी आनी तिगेल्या आंबाड्याक मरण आसचें ना.

ही गजाल एके राधामावशेली न्हय. गोंय स्वतंत्र जावंच्या आदीं गोंयांत अशो खूबशो राधामावशो वावुरताल्यो. त्यो आतांच्या बायलांभशेन सुशिक्षीत नाशिल्ल्यो, कांय अक्षरशत्रूय आशिल्ल्यो पूण त्यो आशिल्ल्यो सुसंस्काराच्यो पेटो. तांच्या सासायेनूच आयजचें गोंय ताठमानेन उबें आसा. आनी फुडें?





- नं. ध. बोरकार
मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७

## काव्योत्सव

**३० नोव्हेंबर २००९**

बिम्ब पुरस्कार

*ह्या दिसा बाकिबाब बोरकार हांचे जल्मशतीक आरंभ जाता. हें संपूर्ण वर्स गोंयकार आनी काव्यप्रेमी भारतीय बा. भ. बोरकार हांचें शताब्दी वर्स म्हूण मनयतात.*

*बिम्ब मासिकूय ह्या वर्सा सावन तीन कवींच्या नांवान काव्य पुरस्कार जाहीर करता. काव्योत्सव ह्या सदरांत ह्या म्हयन्या सावन एकाच कवीच्यो पांच कविता येतल्यो. ११ म्हयन्यांत ११ कवी ह्या काव्योत्सवांत हजेरी लायतले. ह्या कवींचेर जाणकार ज्येश्ठ कवी फुडल्या अंकांत भाश्य करतले. बिम्ब मासिकाचे वाचक आनी हेर जाणकार ह्या कवी खातीर मतदान करतले. हातुंतल्यान तीन कवी दर वर्सा वेंचून काडटले. हांगा पयलो, दुसरो, तिसरो असो वेगळोचार नासतलो. हे कवितेखातीरचे बिम्ब पुरस्कार बाकिबाब बोरकार, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय आनी डॉ. र. वि. पंडित पुरस्कार ह्या नांवान वळखतले. २००९ ते २०१० वर्साचे पुरस्कार २६ जानेवारी २०११ सालांत बिम्ब मासिकाच्या धाव्या वर्धापन दिसा व्हडा दबाज्यान भेटयतले. शाल, श्रीफळ आनी रोख रक्कम हाच्या स्वरुपांत हे पुरस्कार आसतले. काव्योत्सवांत उजवाडाक येवपी कविता त्या त्या कवीकडल्यान मागोवन घेतले. जे कोण तसो उल्लेख करुन धाडटात तांचोय स्वीकार करतले.*

**– अलका सिनाय असोळडेकार**

### आदार

गिरेस्त आसून
मनशाक लागता
एक आदार
कांय म्होवाळ उतरांचो
एक ल्हान सुकण्याचो
वा एका सान हासऱ्या
भुरग्याचो
लागता नात्याचो
मनाचो थाव घेवपी मनशाचो
नाका आदार
दर खेपो दुडवांचोय
जाय सुख-दुख्खावेळार
कांय विश्वासाच्या उतरांचो
जिणेच्या निमण्या श्वासा मेरेनचो
आसचो आदार
चार शब्दांच्या पुष्पांजलीचो
दोळ्यांतल्यान दुकांची धार व्हांवतना
पुसपी एका लागीच्या इश्टाचो
आदार मनाक दिता उमेदीचें ल्हार
आनी घालून दिता विश्वासाची बुनयाद

### शब्द

दिसलें खूब उलोवचें
पूण शब्द ओंठार
येवंक पावले ना
दोळ्यांनीं जितलें
उलोवंक पावलें
ती समजून घेवपाची
तांक तुवें दाखयली ना

सगळे आपलेच म्हूण
उतर तुजें पाळ्ळें
दुकांबगर तुवें म्हाका
दुसरें कितें दिलें?



### सांगात

तूं सांगाताक आसतना
काळखांत लेगीत
चान्याचो भास

तूं नासतना
चान्याक लेगीत
विरहाचो वास

### मळब

चंद्रीम मळबांत
उजवाड फांकयता
धतरीक चान्या
रातीन न्हाणयता
संस्काराचें अमृत
पाजोवन
आवय भुरग्याक
वाडयता

### आपलेंपण

कांट्याकुट्यातल्यान भोंवतना
वाटेर तूं मेळ्ळो
मनांत म्हज्या
मोगरे कळो फुलयलो
मोग, माया, आपलेंपण
सगळें तुवें वांगडाच दिलें
ऋतू बदलतात तशें
पानगळीच्या दशेक
म्हाका पावयलें
आपलेंपणाच्या नांवान
खूब कितें दिलें
तें आशिल्लें फक्त मृगजळ
हें म्हाका मागीर कळ्ळें
आपलेपणाची सुलूस दाखोवन
खूब मुखार व्हेलें
मनाक तुज्या आपलेपणाचें
जनेलच नाशिल्लें
जाल्यार मोगाचें दार
कित्याक उक्तें केलें
म्हज्या अस्तित्वाचो आतां
तुका जाता त्रास
जाल्यार हांव कित्याक मेळूं
उगीच म्हज्या मनाकडेन
हांव कित्याक खेळूं?





## सपन

सपन म्हणल्यार कितें
दोळे बंद करतकच
दोळ्यांक समाधी लागतकच
मेंदवांतल्या पड्ड्याचेर
दिसता तें जग
कांय फावट खोशयेचें
तर कांय फावट
वेदनांचो देखाव

सपन म्हणल्यार कितें
सपन म्हणल्यार संवेदना
मनशाच्या मनाच्यो भावना
दोळ्यांमुखावेलें अस्तित्व
दोळ्यां पलतडच्यो अदृश्य कल्पना
जिविताच्या जिवंत सिनेमाचो ट्रेलर

जागेपणात चितून येवजून
न्हिदेंत घाल्लो शिगमो
काय जागेपणात खाल्लेल्याची
न्हिदेंत केल्ली रवंथ
सपन म्हणल्यार सत्य
काय सपन म्हळ्यार असत्य!

सपन म्हणल्यार कल्पील्लोच
पूण कल्पने भायलो संवसार
चंचल मनसांवार
अस्थीर मनातलो अलंकार
न्हय तो सत्याचो
खरोखरो शिरंगार
तो तर निद्रावस्तेंतलो रुपकार

सूर्याच्या तेजप्रकाशांत पळयल्ल्या
काळखे रातीच्या गर्भकाळखांत
अचळय जाल्लें पुनरमुद्रण
आशेचें आनी निराशेचें झिंजुडटें
कथा, व्यथा, आस्था
विविधतेंतली विविधता
सपन म्हणल्यार सपनूच
केन्नाय तातूंत इल्लो
सत्याचो कण आसता



– स्मिता मानाजी गांवस
हा. नं. : ३७
मारुती वाडो,
चिंबला–गोंय ४०३ ००६
फोन : ९९२३६३९३७०

## उगडास

झिलमिळट्या फात्या पारार
पांगरून रस्मी शियांशाल
संवकळीची वाट चलतात
पावलां कुड्डी चाल ।।१।।
ह्याच ओवळी मुळान
आमी ओवळां पुंजायल्लीं
फुडाराचीं सपनां
चार दोळ्यांनी पळयल्लीं ।।२।।
सल्ले दीस
उलगल्यो राती
गेले कितले पावसाळे
ओवळां न्हय रे
आज पुंजायतां
उगडास फाफसल्ले ।।३।।



– विमल प्रभूदेसाय
बेळगांव

## याद आयली

पांचव्या रानांत धर्तरी सजली
हातांत काकणां, पायांत झांझरी
देवतना पळोवन नक्षत्रांच्यो सरी
याद गो तुजी म्हाका आयली

कुपांकुपांतल्यान रंगीत बनेरां
साडयो न्हेसलीं झाडां-पेडां
माङडीतना काळजां हरयाळीचीं
याद गो तुजी म्हाका आयली

कोगळाचो सोबीत आवाज
बरोबर तुजें चान्या गीत
झाडां तेंगशेर सांगातान तांच्या
याद गो तुजी म्हाका आयली

पाचू माणकांचीं झुंबरां रानांत
वयर मळबाचो धवो हारसो
कुपांतल्या पावसा सांगातान
याद गो तुजी म्हाका आयली

मनां तळ्यांत फुल्ले कळे
पांचव्या रानांत तांबडे चाळे
सूर्या किरणांची नदर मर्दी
याद गो तुजी म्हाका आयली

फुलांची नदर तिरशी
पळोवन सावदां स्पनांत रंगलीं
परमळाच्या झोपाळ्यार बसतना
याद गो म्हाका तुजी आयली

पांचव्या पांचव्या रानांत ह्या
यादी आमच्यो सवण्या तोंडार
सूर तालांत गवसलें
यादी भरून काळीज ओतलें
काळीज भरून ओतलें

– रोमा रा. लाड
कारायमड्डी, सावर्डे-गोंय

## बुजवण

ताचो बापूय भायर पडलो
आनी आमी ताका जाप दिवंक
ताच्या घरा गेले

आमी म्हळ्यार....
हांव आनी म्हजो आमिग
असल्यावेळार कितें उलोवंचें
तेंच म्हाका कळना
म्हणून कोणाकय पाचारूंक हांव
एकलो केन्नाच वचना

कितें जालें? -म्हजो आमिग
"व्हडलेंशें कांयच ना" – तो
"पापा उठलो
सकाळच्यो सगळ्यो विधी केल्यो
सदच्या भशेन पोरसांत पासय माल्ली
गोडाची भाकरी खाली
चा पिलो
सुनापरांत वाचलो
आनी मात्सो आड पडटां म्हणून जो भितर गेल्लो
तो उठलोच ना
तशें पळयल्यार आई वचत सावन
पापा मात्सो खंगिल्लो
पूण आमकां सेवा करपाची
ताणें मातय संद दिली नां"

म्हजो आमिग ताका
एक-एक प्रस्न विचारतालो
आनी तो टेपरिकोर्डर वाजयिल्ल्याभशेन
सगळ्यो जापो दितालो
खरें म्हळ्यार तेंच-तेंच सांगून
ताकाय सवंकळ जाल्ली
हांव मात टेनिस मॅच पळयिल्लेवरी
दोगांयचींय खुमणी नियाळटालों

"वर्सां?"– म्हजो आमिग
"पयरच चौऱ्यांशी सोपून
पंचायशावें लागिल्लें
पूण धाडधाकट आं....
आपलें सगळें आपूणच करतालो
कोणाकच कांयच लागलें ना" -तो

"हय! बरो गेलो!
हालीं अयशीं कोणाक पळोवंक मेळटात?
आमी पन्नाशिचेरच थरथरपाक लागल्यात"
–म्हजो आमिग

ताका हात दिवन आमी भायर सल्ले
भायर जोतीं घालतनां
हांवें म्हज्या आमिगाक म्हळें :

"आरे सगळ्यांक खबर आसा मरे
हो आपल्या बापायक कितलो त्रास दितालो
तें
इस्टेटिखातीर हाणें बापायक कोर्टांत लेगीत
व्हेलो तें
मांवाचें आनी सुनेचें केन्नाच पटलें ना तें"

"पापया! हळू उलय" म्हज्या अमिगान म्हळें
"तूं उलयता तें सगळें खरें
म्हाकाय तें खबर आसा
पूण कितें करतलों
गेलो म्हणटगीर मात्सो वेळ काडूंक नाका?
तुज्या भशेन 'खुट्या-माकोड'सो कितें
बसतलों?"

हांव मनांतल्या मनांत हांसलों



– सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार
सी २५ सपना व्हॅली,
व्हिंटेज हॉस्पिटला लागसार,
पाजी फोंड, मडगांव-गोंय.
फोन : ९९२३३०६७५१/२७२५३८१



## आरंभ

सुरवेक
सत ना असत
व्योम ना वारें
उजो ना उदक
अंतरिक्षच ना जाल्यारी
कोणे केलें हें विश्व अवडंबर?
कोणें रचिली ही सृश्टी?
दृश्टी पडना, प्रज्ञामनाक कळना
अशी खंयची ही शक्ति?
केवळ एक संकल्प
एक उर्जा
आनि उत्पन्न जालें
शुन्यांतल्यान हें विश्व
उद्‌भवले अंतराळ
सूर्य चंद्र गिरे तारे
आकाश धरती उदाक वारें
मेळ्ळी गती काळचक्राक
दीसरातीक ऋतुसत्रांक
भवसागरांतू हालल्लो एक जीव
झळकली जीवावळ
जीव जंतू पशू पक्षी
साकारली मनीसजाती
उत्पन्न हो विश्वव्यापू
हीची प्रचिती हीची प्रतिती
हें बिम्ब की हें प्रतिबिम्ब?
हें सत्य की हें मिथ्या?
केवळ माया?



– इंदू अशोक गेरसप्पे
बंगळुरू



## सैम

सैम हो असो कसो
रूप आपलें बदलता कसो
ऋतू येता, ऋतू वता
सैमाचें रूप बदलता
कमी जायना सुंदरताय तिची
वाडतच रावता दिसीमासी
दिसाचो सूर्य, रातचो चंद्र
नेम चलता सैमाचो
झाडां, फुलां, दोंगर, दर्या
मनाक भूल घालतात
रूप तिचें कितलें निर्मळ
अप्रूपच तें म्हणूंक जाता
तिचेच कुशींत वाडल्यात आमी
आवयच ती आमची
आवयच ती आमची

– कृतिका राऊळ
रोझरी महाविद्यालय,
नावेली – गोंय.
फस्ट इयर बिकॉम



## क्रांती

ह्या सोबीत जीविताची
करू नाका तुमी माती
कशें जगचें जीवीत
आसा तुमचेच हाती

माये-मोगान वागात
नातीं जपून दवरात
हासून खेळून जगात
भेद-भाव सगळो विसरात

मनशांमनशां भितर
करूं नाका फाटाफूट
अपयशाचें खापर
मारूं नाका कपलार

दीस अस्तंतकच
रोकडीच जाता रात
आयचें काम आयजूच
फाल्याची पळोवं नाकात वाट

हातपांय हालयल्या बगर
देव दिवचोना सुखशांती
आपणेंच आपलें करूंक जाय
उपाट कश्ट करून क्रांती



– हेतल सुभाष शाह
शांताबन कॉलनी
मेरशी – गोंय.

दिका

# जाता तें बऱ्याखातीर



"आगो पावसान विसव घेतलो. लुंवपाची तयारी करुया मगो?" इनासान आपले घरकान्नीक जागयली.

"हय तर. चडूच झडलो हे फावट पावस. आतां म्हणल्यार आमचें भात घरांत पडटलें आसलें." तिणें जाप दिली आनी पाटले, सुपां सोदपाक लागली.

"तें सगळें हांवें जाग्यार घालून दवल्लां. वेळ मेळटा तेन्ना पिंजिल्ले साक पुसून शिंवून दवल्ल्यात. बरें हें सांग, मानाय कितले घालुया? कामावेल्यान येतना शेताचेर नदर मारिल्ली हांवें. पीक बरीच देंवल्या. सदांपरस एकलो तरी मानाय चड घालचो पडटलो. गेल्ल्या वर्साक तांदूळ विकिल्ले ते थोडे पयशे शेताखातीर म्हण वेगळे सांबाळून दवल्ल्यात हावें." इनास सांगत रावलो.

"सगळें सांगता तें बरें आसा, मानायाची दर कितली थाल्ल्या ती खबर आसा? ह्या वर्साक खंय मानायाक ३५० रुपया आनी कामेऱ्यांक २५० रुपया दिसवडो थारायला."

"आवय गे म्हजे मांय. आमच्या ऑफीसांत लेगीत इतले गतीन पगार वाडना मगो. आमकां लागतले पांच मानांय आनी बारा कामेरीं. पांच हजारांकडेन पावतले मगो."

"ह्या शिवाय तांका पेज, जेवण, कोणाक सोरो... हाचो हिशेब धल्ला तुवें?"

पीक तयार जाल्ली. मदीं मदीं पावस पडिल्ल्यान व्हाळांकडेन बी आशिल्लीं शेतां इबाडपाक लागिल्लीं. देखून शेतकारांनी लुंवणिची तयारी चलयल्ली. कांय वर्सां आदीं देड-दोन हजारांनी जावपी शेत पांच हजारांचेर पाविल्लें. मानाय-कामेरीं म्हण सट् करून मेळटात? पांय पडल्या सारकें करून तांका आपोवचें पडटा. वयल्यान तांचे नखरे सोंसून घेवंक जाय. इनास आनी ताची घरकान्न कार्मेलीन आपलें शेत लुंवपाचो हिशोब करता आसतनाच जुआंवान तांच्या घरांत पावल घालें.

"इनासबाब, इनासबाब, सामकी नवी ताल्ल खबर घेवन आयलां हांव." लागींच आशिल्ल्या कदेलार विसव घेयत जुआंवान सांगलें.

"कसली खबर रे जुआंवबाब?"

"लुवणी करपाचें मेशीन, फाल्यांच्यान आमच्या शेतांत देवता खंय!"

"लुवणी करपाचें मेशीन? तें आनीक कितें?" कार्मेलिनान अजाप उक्तायलें.

"कार्मेलीनबाय, काल हांव वेर्ण्या गेल्लों म्हज्या मावोड्याच्या शेतांत. वताना मोलकूंड बी घेवन गेल्लों. थंय गेल्यार, तांच्या शेतांत एक मशीन घर् घर् करीत लुवणी करता. एक मानाय ना, एक कामेरें ना. सगळें घरचे भितर. भल्ले साक आनी हाडले घरा. दिसाचे दीस व्हगडावंचे पडनात. वरा भितर सगळें नितळ. सकाळीं मात्शें सुकत घालें आनी दनपरां वारें दिलें. खंय पावला रे हो संवसार!" जुआंवान नविदाद सांगली.

"हांगा तसलें मशीन येता म्हण कोणें सांगलें?"

"ताणींच न्ही रे. सात काय कितलीं मशिनां आयल्यांत खंय! आमच्या शेतांत फाल्यां देंवता म्हण हांव तुका सांगूंक आयिल्लों. नांव बरोवं मरे तुगेलें?"

"असलें अजाप घडटा जाल्यार आमी कित्याक फाटीं रावपाचें? बरय तूं नांव."

"बरें तर, सकाळीं एक पासय मार शेताकडेन. तें खंयच्या शेतांत देंवता ताचेर समजतलें तुवें केन्ना पसून आसूंक जाय तें."

"एक सांग रे जुआंवबाब, ट्रॅक्टराबदला हें मेशीन काम करतलें. भोरे बी बांदून हाडूंक मानाय नाकात रे?" इनासान दुबाव पयस करपाक प्रस्न केलो.

"आरे पापया. भोरे खंयचे? तेंच सगळें शेत भोवता आनी लुवणी करून तण एके कडेन आनी भात एके कडेन. लुवणी सोपली म्हणटच तुजें भात तुजेकडेन. तें मेशीन भात वतयतासतना लाय साक आनी लाग बांदूंक. मागाचे माग पळयतां पळयतां नितळ जातात!"

"पयशे कितले घेतात ते?"

"वराक दोन हजार खंय. पूण तुज्या शेताक वीस मिन्टा परस कमीच वेळ लागतलो."

"म्हणल्यार ७००-८०० रुपया."

"हय. ताचेपरस चड जावंचे नांत."

"पांच हजारांचो आमी हिशोब करतालीं मरे. असलीं मशिनां सदांच मेळ्ळीं जाल्यार शेत रोवन लुकसाण जाता म्हणटात तें कशें?"

"चल हांव वतां. हेरांकय रकाद दिवंक जाय म्हाका." जुआंव वतांच एक खुशालकायेचें ल्हार इनासाल्या घरांत भितर सल्लें. ताका शेताचो खूब मोग. नोकरी करून पसून हेरांभशेन ताणें शेत पाड दवल्लें ना. कोणें तरी ऑफीसांत सागिल्लें ताका याद जाली "भायल्या देसांत सूटबूट घालून शेतकाम करतात. जण एकलो आपल्या शेताविशीं अभिमानान सांगता आनी स्वता शेतांत काम करता. आपलें शेत आपूण नांगरता, आपूणच रोयता आनी शेत पिकतकच आपूणच लुवणी करता. तांचे कडेन बरें तंत्रज्ञान आसा. सगळे तरेची मेशिनां आसात देखूनच ते आपलो विकास नेटान करतात आनी शेतकार म्हण मिरयतात. आमकां मात आमच्या पोजिसांवाचे पिशें लागलां. व्हायट कॉलर नोकरी करपाच्या भूताक भुलून आमी आमचें अस्तित्व लेगीत घाणाक लायलां. आयज आमची शेत जमीन भायले येवन विकती घेतात आनी आमी थोडयाशा पयशांचे आशेन एक परीन आमकांच विकतात."

कितलें सत्य आसा ह्या म्हण्ण्यांत. इनासाक आज ताचो साक्षात्कार जालो. आपले भुरगेपणांतले दीस ताचे नदरे मुखार नाचूंक लागले.

"जाणा मगो कार्मेलीन, म्हजो बापूय पिके दिसांनी सकाळीं दोनांक-तिनांक उठून मळणी बांदूंक वतालो. गोरवांकार आपलीं गोरवां थंयच दायांक बांदून न्हिदतालो. तीन किलोमीटर पयस आशिल्ल्या शेतांत वचपाक रातचो ताका भंय दिसनाशिल्लो. आमच्या भुरग्यांक मात ग्रील्स आशिल्लीं जनेलां रातचीं उक्तीं दवरपाक भिरांत दिसता. व्हड जाता तसो हांवय ताचेबराबर वचूंक लागलों. दोग-तीग जाणांनी आदल्या दिसाक दांड्यांनी जावं पिड्यांनी खापयल्लें थांब मळणेक घालूंक बापूय खर्शेतालो. मानाय-कामेऱ्यांचे फाटीक लागतालो. गोरवांची मळणी दिसांचे दीस चलोवची पडटाली. गोरवांनी केल्लें शेण हातीन काडचें पडटालें. वीट दिसताली पूण बापायच्या सभावाक भिवन नाईलाजान हात घालचो पडटालो. एक मळणी काडून दुसरी मळणी भरता म्हणसर जो इल्लो विसव गोरवांक मेळटालो तितलोच, आमकां पाच-स तरी मळण्यो काडच्यो पडटाल्यो. देवाचे उपकार ट्रॅक्टर आयले उपरांत त्या गोरवांक इल्लो सुशेग जालो आनी मानांय कमी घालपाक मेळ्ळे."

"हें तुमचें सगळें बराबर आसां, पूण आजचे भुरगे ह्या शेतकामाकडेन वळपाक तयार आसात? तांका ऑफीसांत वचपाची नोकरी जाय न्हय? शेत कोणाक जाय?"

"हांव ऑफीसांत नोकरेक वतां म्हण शेत सोडून दिलें? शेतां पाड दवरून, तांदूळ विकते हाडून जेवपाक तांका बरें दिसता. हाका लागून आमची अर्थवेवस्ता कितली घसरता तें तांच्या लक्षांत येता?"

"जायत घडये जमीन पाड दवरून एक दीस विकपाचो तांचो बेत आसतलो." एक प्रकारचो थोमणो कार्मेलिनान माल्लो.

"ताणींच ती कित्याक विकपाक जाय? आमचो सरकारच पयलीं बऱ्यो बऱ्यो शेत जमिनी आपल्या वापराखातीर व्हरता. जे लोक शेताचेर जियेतात तांका उपाशी दवरता. कोण आसा सरकाराक विचारपी? कांय जाण आंदोलन करपाक मुखार सरतात पूण मागीर कशे फाटीं पडटात तें समजना. रोवन पिकोवपाचे जमिनीचेर कोण मैदान उबारता, कोण बस-स्थानक बांदता, जाल्यार कोण सरकारी कचेरी, सरकारी हॉस्पीटल तयार करता. आपली खासगी मालकी मात मेगा प्रोजेक्ट आनी हॉटेलां बांदपाक दवरतात. मोपा विमानतळाक लागून कितल्या शेतकारांक आपलीं शेतां व्हगडावंची पडल्यांत ताची कोणे सोद घेतल्या?"

"हें अशेंच चलपाचें. आमी देवाचे उपकार मानूंया ह्या मानांय, आनी कामेऱ्यांपासून आमकां वाटयलीं म्हण. ना जाल्यार तांका पुंजयता म्हणल्यार नाकापुरो जातालें."

"हय गो. जाता तें बऱ्याखातीर. फुडल्या वर्साक रोवपाचींय मेशीनां आयल्यार पुरो. आमच्या सारक्या मध्यम वर्गीय शेतकारांचें कल्याणच जातलें. भाताक दर आयिल्लीच आसा. आमच्या कश्टांचे आनी जमीन सांबाळून दवरिल्ल्याचेंय सार्थक जातलें." इनासान एक लांब सुस्कार सोडलो आनी जेजूचे इमाजिचो उमो घेयत पालवल्लें लाम्त पेटयलें. लाम्तांतल्या तेलांत बोट घालें आनी आपल्या कपलार खुरीस काडीत जेवणाचे तयारे खातीर हात धुवंक मान्न्यांत भितर सल्लो. कार्मेलीनय आज बरेंच खूश दिसतालें.





– विन्सी क्वाद्रूस
'स्नोज कृपा'
आर्लेम राय,
सालसेत-गोंय
मो. 9822587498







# मंगळुराच्या शारांत...

गोंयशाहीर उल्हास बुयांव आनी मंगळूर शाराचें नातें १९७४ सावन जिणेच्या निमण्या खिणामेरेनचें. त्या वर्सा पयलेच खेपे उल्हास बुयांव हांची संगिताची खाशेली कार्यावळ मंगळूर शारांत घडून आयिल्ली. तेन्नासावन संगितावरवीं मंगळूरच्या कोंकणी प्रजेकडेन निर्माण जाल्लें उल्हास बुयांव हांचें नातें मुखार बळिश्ट जायत गेलें. १९७५ वर्सा मंगळूर शारांत भरिल्ल्या कोंकणी साहित्य संमेलनांत उल्हास बुयांव हाणी खासा रचिल्ल्या 'मंगळुराच्या शारांत' ह्या गितान लोकप्रियतेचो वयलो पावंडो गाठतनाच उल्हास बुयांव हांचें मंगळूर शाराकडचें नातें चडचड घट केलें. जिणेच्या निमण्या स्वासामेरेन उल्हास बुयांव हाणी मंगळूर शारांत संगिताच्यो साबार कार्यावळी सादर केल्यो. मंगळूर शारांत तांच्या संगिताचो खाशेलो रसिकवर्ग ताणी घडयलो.

तांच्या वावराची दखल घेवन 'मांड सोबाण' हे संस्थेन नोव्हेंबर म्हयन्याच्या तांच्या 'म्हयन्याळी माची' हे कार्यावळींत उल्हास बुयांव हांच्या संगिताचेर आदारिल्ल्या 'आर्गां तुका गोंयशाहीराक' हे कार्यावळीचें आयोजन केल्लें. ही कार्यावळ शांतीनगरांतल्या कलांगणांत घडून आयली.

हे कार्यावळींत सिध्दनाथ बुयांव, साईश पायणेकार, संतोश लोटलीकार, अक्षता तळावलीकार आनी सिद्‌धार्थ याजी हाणी उल्हास बुयांव हाणी रचिल्लीं आनी संगीत दिल्लीं गितां गायलीं. तांकां तबल्याचेर यतीन तळावलीकार, सिंथसायजराचेर मनोहर ताम्हणकार, सेक्साफोनाचेर इर्शाद खलिफा, बेज गिताराचेर सावियो बॉथेलो, रिदम गिताराचेर रॉकी फेर्नांडीस, ऑक्टोपेडाचेर प्रकाश पेडणेकार हाणी साथ दिली. महेंद्र फळदेसाय आनी सतीश नायक हाणीं माची वेवस्थापक म्हूण जापसालदारकी सांबाळ्ळी साईश पायणेकार, सुदेश नायक, संतोष लोटलीकार आनी सिद्‌धार्थ याजी हाणीं कार्यावळींत हांसयाळीं सादर करून पळोवप्यांक रिजयले. कार्यावळीचें सुत्रनिवेदन अनंत अग्नी हाणीं केलें.

कार्यावळीचे सुरवेक मांड सोबाण संस्थेचे अध्यक्ष लुई पिंटो हाणी सगल्यांक येवकार दिलो. तांच्याच हातान सिध्दनाथ बुयांव हांचो फुलांतुरो भेटोवन भौमान जालो. नामनेचे संगीतकार एरिक ऑजारियो हाणी उल्हास बुयांव हाणी कोंकणी संगिताक दिल्ल्या योगदानाचो आदरान उल्लेख करून तांचो वारसो सिध्दनाथ बुयांव मुखार व्हरता म्हूण ताची तोखणाय केली.


TRISCA FERNANDES




SANTOSH LOTLIKAR

हें कार्यावळीक मंगळुरांतले संगीत मोगी व्हडासंख्येन उपस्थीत आशिल्ले.

**व्हॅली ऑफ कलर्स :**

बुयांव थिएटर्स आनी कोंकणी संगीत हांचें नातें फाटल्या सुमार चाळीस वर्सांचें. ह्या काळांत कोंकणी गीत आनी संगीत गोंयच्या आनी कोंकणी भाशीक वाठारांतल्या खांची गोंयड्यांनी पावयतनाच 'चान्याचे राती', 'यो गो यो तूं कोलव्यां यो' अश्या लोकप्रीय जाल्ल्या ध्वनीफितींवरवीं कोंकणी संगीताक आधुनीक साज चडोवपाचो वावर बुयांव थिएटर्सच्या माध्यमांतल्यान स्वता गोंयशाहीर उल्हास बुयांव हांणी केलो. कोंकणी संगितांत स्वताची अशी एक खासा शैली निर्माण करतनाच उल्हास बुयांव हांणी साबार गीतकार, गायक हांकां व्यासपीठ मेळोवन दिलें.

गोंयशाहीर उल्हास बुयांव हांच्या मरणा उपरांतय हो वावर अखंडपणान चालू आसा. तांचो संगिताचो वारसो स्वता सिध्दनाथ बुयांव मुखार व्हरता. फाटल्या वर्सा अनावरण जाल्ल्या आनी उपाट लोकप्रीय थारिल्ल्या 'बुयांव विथ लव्ह' ह्या ऑडियो सिडीच्या जैतान स्फुर्त घेवन हालींच सिध्दनाथ बुयांव हाणी 'व्हॅली ऑफ कलर्स' ही नवी ऑडियो सिडी कोंकणी संगीत रसिकांक अर्पण केल्या.

दोनापावलच्या गोवा इंटनेशनल सेंटरांत गोंय राज्याचे भौशीक बांदकाम खात्याचे मंत्री चर्चील आलेमांव हांचे हस्तुकीं हे सिडीचें अनावरण जाल्लें. ह्या वेळार उलयतना चर्चील आलेमांव हाणी बुयांव परिवारान कोंकणी भाशेक आनी खेरीतपणान संगिताक दिल्ल्या योगदानाची तोखणाय केली. ह्या वेळार गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष एन्. शिवदास हांचेंय उलोवप जालें. चर्चील आलेमांव हांचे हस्तुकीं सिडींतले गितकार जॉन आगियार, दामोदर नायक, श्रीधर कामत, गौरीश वेर्णेकार तशेंच गायक संतोष लोटलीकार, साईश पायणेकार, डॉ. विनयकुमार पै रायकार आनी ट्रीस्का फेर्नांडीस हांचो भौमान जालो. हे सिडींत मनोहरराय सरदेसाय हांच्या गोंयशाहीर उल्हास बुयांव हांणी गायिल्ल्या गिताचो आसपाव आसा. उल्हास बुयांव हांच्या मरणाच्या फकत थोडेच दीस आदीं ह्या गिताचें रेकोर्डींग केल्लें. ते भायर बाकीबाब बोरकार हांच्या 'त्या दिसा वडाकडेन' ह्या अजरंवर गितानय हे सिडीची गिरेस्तकाय वाडयल्या. सिडींतलीं पांच गितां सिध्दनाथ बुयांव हांच्या आवाजांत आसात. नॅफी रॉड हाणी दोन गितां गायल्यांत. हे सिडीक अनंत अग्नी हांचें निवेदन लाबलां.

सिडीच्या प्रकाशन सुवाळ्याक साबार मानेस्त हाजीर आशिल्ले. ह्या वेळार सिध्दनाथ बुयांव हाणी आपले नवे सिडीची घोशणा केली. नोव्हेंबर म्हयन्यांत येवपी जेजू ख्रिस्ताच्या जिणेवेल्या गोस्पेल सिडीची ताणी म्हायती दिली. कार्यावळीचें निवेदन अनंत अग्नी हाणी केलें.

हे सिडीच्या पयल्या एका म्हयन्याच्या खपांतल्यान मेळपी सगलो फायदो आपूण काणकोणच्या हुंवार पिडेस्तांच्या पुनर्वसनाखातीर दितलों अशें ह्या वेळार निर्माते सिध्दनाथ बुयांव हाणी जाहीर केलें आनी फोनार वा ईमेलार लेगीत मागयल्यार सिडी घरपोच पावयतलों म्हणपाचें सांगलें. ह्या तांच्या आवाहनाक प्रतिसाद मेळून आतां मेरेन २,५०० सीडी खपल्यात आनी तातूंतल्यान मेळिल्ले ५०,०००/- रुपया बुयांव थिएटर्स काणकोण हुंवार पिडेस्तांक रोखडेच भेटोवपाचे आसात.


DR. VINAYKUMAR P. RAIKAR


Compere - ANANT AGNI


SAISH PALONDIKAR

# ‘जागोर’ कोंकणी सिनेगितांची नवी ऑडियो सिडी




फातोर्डेचे आमदार श्री दामू नायक हांणी ‘दामबाबाले घोडे’ ह्या बॅनराखाला निर्माण केल्ल्या ‘जागोर’ ह्या नव्या कोंकणी सिनेमांतल्या गितांचो आसपाव आशिल्ली ऑडियो सिडी हालींच गोंय विधानसभेंतले विरोधी पक्ष फुडारी मनोहर पर्रिकार हांचे हस्तुकीं उजवाडा आयली. ही कार्यावळ मडगांवच्या वुडलेंड हॉटेलांत घडून आयली. ह्या सिनेमांतलीं सगलीं गितां स्वता दामू नायक हाणीं बरयल्यांत. जाल्यार सिध्दनाथ बुयांव हाणी तांकां संगिताचो साज दिला. हे सिडींतलीं गितां नामनेचे मराठी गायक रविंद्र साठे, अवधूत गुप्ते आनी कोंकणी गायक स्वप्नील बांदोडकार तशेंच नॅफी रॉड हांच्या आवाजांत आसात.

सिडीच्या अनावरण सुवाळ्याक गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष एन्. शिवदास, मडगांव नगरपालिकेचे नगरसेवक जॉन्सन फॅर्नांडीस, नारायण फोंडेकार, सिध्दनाथ बुयांव हाजीर आशिल्ले.

‘राजकारणांत सक्रीय रावन लेगीत आमदार दामू नायक हाणी सिनेमाचे निर्मितींत जें पावल घालां तातुंतल्यान कलेच्याप्रती तांकां कितली ओड आसा हाची गवाय मेळटा’ अशें सांगून ‘कोंकणी चित्रपटाक प्रेक्षक मेळपाचे नदरेन वावर जावंक जाय’ अशें मनोहर पर्रिकार हाणीं ह्या वेळार उलयतना सांगलें. ‘दामू नायक हांणी सुरवेक जेन्ना सिनेमा निर्मितीचो विचार उक्तावन दाखयलो तेन्ना आपणे ती गजाल फकाणाचेर व्हेली. कारण सिनेमा निर्मितीखातीर लागपी पैसो खंयच्यान उबो जातलो हाचो आपल्याक हुस्को आशिल्लो.







## मालोब

मडगांवचें दैवत आशिल्ल्या दामबाबाचो आशिर्वाद, सरकाराचो पालव आनी लोकांचो आदार ह्या नेटार हो सिनेमा बेगिनात बेगीन प्रकाशीत जावचो' असो आवंडो ह्या वेळार उक्तावन आपलें पुराय सहकार्य सिनेमाच्या निर्मितीखातीर मेळटलें म्हणपाचें उतर ताणी दिलें.

'दामबाबाले घोडे' हे संस्थेच्या स्थापनेचो इतिहास सांगून सिनेमा निर्मितीचें धाडस आपणें कित्याक केलें ताचें विश्लेशण करतनाच आमदार दामू नायक हाणी ह्या सिनेमाचे निर्मितींत कसलीच तडजोड केल्ली ना अशें सांगलें. एक उत्कृश्ट कोंकणी सिनेमा तयार जावपाचे नदरेंतल्यान सिनेसृश्टींतले फामाद


Nephie Rod


Sidhanath Buyao


Damodar (Damu) G. Naik

कलाकार, तंत्रज्ञ आनी आधुनीक तंत्राचो आपणे उपेग केला म्हणपाचें ताणी सांगलें.

मराठींतल्या नामनेच्या गायकांवांगडा काम करतना आपल्याक आयिल्ले अणभव संगीतकार सिध्दनाथ बुयांव हाणी सांगलें. पुराय सिनेमांत आपणे नाविन्यपूर्ण आनी लोकांक आवडटलें असलें संगीत वापरपाचो यत्न केला हाची म्हायती ताणी दिली. ताणीच उपकाराचें उलोवप केलें. कार्यावळीचें सुत्रसंचालन अनंत अग्नी हाणी केलें.



## खरो इश्ट

आरे आरे माकडा
यो रे यो रे हांगा
तूं म्हाका जाय
तूं म्हाका जाय
शेपडेक तुजे धरून
उडयो आमी मारुया
झेलत झेलत आमी नाचुया
झाडांवयलीं फळां खावया
जमनीवेल्या भावंडांक आमच्या
रूचीन खावंक आमी दिवया
घरांच्या नळ्यार धांव धांवया
नळे फोडिनासतना मजा करया
यो रे यो रे हांगा
माकडा तुजे दांत दाखयत यो
पावस गीम शिंयानी खेळ खेळया
तूं म्हाका जाय
तूं म्हाका जाय
शेपडेक तुजे धरून
उडयो मारूंक जाय
म्हण तूं म्हाका जाय
बेगीन यो उडयो मारीत यो
म्हजो खरो इश्ट
तुका करूंकच जाय

– सुविधा प्रभूगांवकार
आर्के,
मडगांव – गोंय.

## जेन्ना तुमीं

जेन्ना तुमीं पास जाता
मन भितर भुल्लूसता
शेवण्यांवरीं पाखां फुलोवन
फांदये फांदयेर मिरयता

पावंड्यान पावंडो वचात चडून
जैत आतां पयस ना
शिक्षणाच्याय बरें अशें
दुसरें आनीक कांयच ना
पाळांमुळांक घटाय दिवंक
कुपां पावस रखयता

गिन्यानांत घालात भर
चडानचड चडानचड
नदर लेगीत पावचीना
इतलीं तुमीं जायात व्हड
फुडाराच्यो दिवट्यो जावचें
सपन आमी पळयतां

जावचीं तुमी शक्तीवंत
भरून भितर आत्मजोत
उलयलेल्या उतरान उतराक
आकांताचो आसचो पेज
संवसाराचो गाडो आमी
त्याच खातीर चलयता



– सुनील पालकार
नावशी, ४०३ २०६
फोन : २४५९३२१



## बाबूचें पयलें शिकप

बाबू उलोवंक शिकता
मांय शिकयता इंग्लीश
पाय शिकयता कोंकणी
बाबू म्हणटा
'ओपन' जाय, 'ओपन' जाय
एक, दोन, तीन
वन, टू, थ्री
'आयस' जाय, 'आयस' जाय
मांय हाडटा बर्फ
पाय दाखयता दोळे
'सन' जाय, 'सन' जाय
मांय दाखयता सूर्या
पाय म्हणटा चल या
मांय वेर इस 'कॅट'
पाय 'हेका कोणें केलें कॅट?'



– भिकाजी घाणेकार
लिदीया गार्डन,
सांत इनेज, पणजी
फोन : २४३१३६५

# म्हजी चवथ



**च**वथ हो सण गोंयांतूच न्हय तर सबंद म्हाराष्ट्रांत मनयतात. आमगेर देड दीस गणपती आसता, पूण ताची तयारी आमकां म्हयन्या पयलीं करची पडटा. ती करपाक आमकां खूब आनंद जाता. मकर सजोवप, घराक रंग काडप अशी तरेतरेची तयारी खूब खोशयेन करतात. शेवटी चवथीचो दीस उजवाडटा. आमी चवथीचे पयले राती माटोळी बांदून, आरास करून सगळी तयारी करता. चवथीच्या पयल्या दीस तय आसता. दुसऱ्या दिसा चवथ आनी तिसऱ्या दिसा पंचम अशे तीन दीस मजेन वतात. चवथीच्या पयल्या दिसा आमी ताचे आवय-बापूय म्हणजे शंकर-पार्वती हांची पुजा करतात.थोड्या लोकांगेर ह्या दिसा उपास आसता. पूण आमगेर उपास नासता. आनी आमीं सगळीं ज्या दिसाची वाट पळयतां तो दीस उजवाडटा. आमच्या हिन्दू धर्माप्रमाण भाद्रपद शुध्द चतुर्थी म्हणजे गणेश चतुर्थी.

गणेश चतुर्थी दिसा आमगेलीं सगळीं सोयरीं-धायरीं एकठांय जातात. आमचो गणपती हाडपाक आमी सगळीं भुरगीं गेलीं. गणपतीचे शाळेंतल्यान गणपती हाडलो. म्हजे मम्मान गणपतीक आरत दाखयली आनी पापाजीन गणपतीक आसनार बसयलो.

आमी पयल्या दिसाक गणपती हाडून दवरतात. दुसऱ्या दिसा सकाळीं धा वरांचेर भट आयलो. भट पुजा सांगतालो आनी म्हजो आजो पुजा करतालो. घरांतलीं सगळीं बायलां जेवण करतालीं. दनपरां देवाक निवेद्य दाखोवन आरती करपाक आमी सुरवात केली. कोण घुमट वाजयतालो, तर हांव शामेळ वाजयतालों. ह्या तालार आमकां वेळूच कळूंक ना. मागीर आमी जेवपाक बसलीं. जेवणाक पुरणाच्यो नेवऱ्यो, मोदक, खतखतें, मुगांच्यो गांठी अश्यो धा-बारा तरा आसतात. हांवें आनी म्हज्या भावान ताचेर ताव माल्लो. इतल्यान सांजवेळ जाली. आनी सगळ्या भुरग्यांनीं मेळून फोग माल्लो.

चवथीचो तिसरो दीस उजवाडलो तो म्हणजे पंचम. आमी सगळ्यांनीं गणपती हाडलो तशेंच सगळीं नवें हाडपाक गेलीं. नवें म्हणजे नवीन भात जाता ताचीं कणसां. तीं हाडून ताची पुजा करतात वा थोडें कणसाचें बीं घालून तांदळांचो पायस करतात. आनी तशेंच आरती करून आमी सगळीं जेवलीं.

सांजेच्या वेळार आमी सगळीं नवे कपडे घालून सगळ्यांगेर गणपती पळोवपाक गेलीं. सगळे गणपती पळयतां म्हळ्यार आमकां रात केन्ना जाली ती कळुंकच ना. घरांत भट गणपतीची उत्तरपुजा करपाक आयिल्लो. आमी घरांत आयलीं आनी भटान पुजा सुरू केली. सगळ्यांक बरें मागलें. गाराणें घालून भट दुसऱ्यागेर गेलो. मागीर आमी आरती केल्यो. जेवलीं आनी थोड्या वेळान गणपती विसर्जन करपाक आसनावेल्यान हालयलो. आमगेर पद्दत आसा ती म्हळ्यार फाटल्या वर्साचो गणपती पावप आनी ह्या वर्साचो गणपती दवरप. हांव खूब खोशी आशिल्लों. आमी आमचो गणपती आमच्या फाटल्यान बांय आसा तातूंत पावयतात. बांयत पावोवन जातकच आमी घरांत येवन उरिल्लो फोग लायलो. आमी गणपती पावयतना 'गणपती बाप्पा मोरया, फुडल्या वर्सा बेगीन या' अशें म्हणत गणपती पायलो. अशी जाली म्हजी चवथ.





– निलय व्ही. एन्. दलाल
यत्ता : पांचवी
महिला नुतन इंग्लीश हायस्कूल,
कोंब, मडगांव.




**दि**वाळे खातीर थर्माकोलाचो आकाशदिवो करूंक बशिल्लें आसतना फोन आयलो. म्हाका तिडक माल्ली. हांव जेन्ना कसलेंय काम एकाग्रचित्तान करतां तेन्ना कोणालोय फोन आयलो वा कोणेंय दारार माल्लें जाल्यार म्हाका राग येता. आयजूय तशेंच जालें. तरी राग सोंसून हांवें फोन उखल्लो. आजी न्हावपाक गेल्ली.

तो फोन आमचो चित्रकला शिक्षक सचिन नायकाचो आसलो. ''हॅलो, हांव सचिन नायक उलयतां. कला आनी संस्कृती संचालनालयान २१ ते २५ ऑक्टोबर मेरेन मडगांवच्या रवीन्द्र भवनांत सर्जनशील कलेची कार्यशाळा दवल्ल्या. ही कार्यशाळा सकाळीं ९ वरांचेर सुरू जातली आनी दनपरां एक वर मेरेन चलतली. हांवें तुजें नांव दिलां. वचनासतना मात रावुनाका.'' हांव कितेंय उलोवचे पयलींच सरान फोन दवल्लो.

सचिन नायक हो म्हजो चित्रकला शिक्षकूच न्हय जाल्यार म्हजो गुरू, मार्गदर्शक. चित्रां कशीं काडचीं, त्या चित्रांनी रंग कशे भरचे हें सचिनसरान म्हाका शिकयलेंच, पूण त्याच वांगडा हांव खंय चुकतां तेंवय म्हाका दाखयलें. म्हजी चित्रकला चंवरली म्हणून सर म्हाका विचारिनासतनाच सर्ती खातीर म्हजें नांव दितालो. म्हाका ओगीच भंय दिसतालो, 'यू कॅन डू इट' हीं ताचीं आत्मविस्वासान भरिल्लीं उतरांच म्हाका इनाम मेळोवन दितालीं. इनाम मेळिल्लें पळोवन म्हाका खोस जातालीच, पूण सराच्याय मुखामळार खोशेचीं ल्हारां उदेतालीं.

आयजूय सरान म्हाका विचारिनासतनाच कार्यशाळे खातीर म्हजें नांव दिल्लें. हांव ते कार्यशाळेंत गेलेंना जाल्यार सराचो अपमान जातलो, तो म्हजेर पिकार जातलो. वचूंक तर जाय, पूण वतलें कशें? आमच्या घराकडल्यान रवीन्द्र भवन बरेंच पयस. बशीन वचूंक जाय. म्हाका कोण पावयतलो? हाडटलो? पप्पा रातपाळयेक. सकाळीं पप्पाक न्हिदूंकच जाय. जागरण आसता. म्हणटकच पप्पान व्हरता म्हणल्यार वचपाचें, ना म्हणल्यार कितें करचें?

हांवें भितभीत पप्पाक सराचो फोन आयिल्ल्याचें सांगलें आनी अजाप म्हणल्यार पप्पान धपक्याक म्हणलें : आवंय, इतलेंच मुगो. तुका पावोवपाचें आनी हाडपाचें काम म्हजेर पावलें. म्हजे खोशेक शीम मेर उल्लिना. केन्ना काय कार्यशाळेंत वता अशें जाल्लें. २१ तारीख उदेली आनी आमी रवीन्द्र भवनांत पावलीं. खूब भुरगीं. चडशीं

अनवळखी. थंय आशिल्ल्या जाळवणदारांनी आमचे गट केले. मूक अभिनय, खामसुत्री बावल्यो, कागदाचीं फुलां, राष्ट्रीय गितां, मधुबनी-वारली चित्रकला, पुस्तक बांदणी, रांगोळी, कुमारकाम आनी ज्यूट बॅग अशे कला प्रकार आसले. म्हाका ज्यूट मेकिंग बॅग (म्हणल्यार सुतले पासून केल्लीं बॅगां) ह्या गटांत घालें.

म्हजेर सामको आकांत. हांवें म्हजे जिणेंत केन्नाच सुतले पासून बॅग करूंक नासलें आनी देखूनच म्हाका हें जमतलें मूं? हो हुस्को सतावंक लागलो. पूण देवादयेन आमकां ज्यूट बॅग शिकोवपी टिचर संगीता कन्नन खूब बरी मेळ्ळी. तिणें आमकां थंडपणान आनी म्होंवाळ आवाजान सगळें समजावन सांगलें. तिच्या त्या उतरांनीं म्हज्या मनावयलो ताण खंयचे खंय ना जालो आनी ताची सुवात आत्मविस्वासान घेतली. हांव सुतले पासून बॅग करूंक शकतां हो नवो आत्मविश्वास म्हज्या मनांत रुजलो. हांवें बॅग केलें, टिचरीक दाखयलें, टिचर खूश. व्हेरी गूड म्हणून तिणें म्हजे फाटीर शाबासकी लेगीत दिली.

"तुमचो फाल्यां निमणो दीस. तुमी सुतले पासून बॅग कशें करप हें शिकल्यांत. आतां तुमी घरा वचात आनी सुतले पासून कितें करून हाडात. तुमी तयार केल्या कलाकृतींचें प्रदर्शन आसतलें." तिणें म्हणलें आनी हांव घरा आयलें.



सुतले पासून हांवें बावली केली. टिचरीक दाखयतकच तिणें म्हणलें : वॉव, व्हेरी नायस.

तिचीं तीं उतरां आयकून खूब बरें दिसलें. मनांतल्या मनांत खातखुतल्योय जाल्यो. टिचर सगल्याच भुरग्यांकडेन गोड उयताली. तिचो सहवास आमकां पांच दीस लाबलो, पूण एकूय दीस तिच्या कपलार हांवें एकूय आटी पळयली ना. सदांच तिचो चेरो हांसतमुख.

सुतले पासून बॅग करपाक हांव शिकलें पूण त्याच वांगडा कुमारकाम, कागदाचीं फुलां, मधुबनी-वारली चित्रकला, पुस्तक बांदणी हेवूय कला प्रकार शिकून घेतले.

निमण्या दिसा आमी केल्ल्या वस्तूंचें प्रदर्शन आसलें. पयलीं 'पपेट शो', उपरांत 'मायम' आनी निमणें राष्ट्रीय एकचार गितां पळोवन आनी आयकून आमची तान भूक न्हिवली.

समारोप सुवाळ्याक मुखेल सोयरे म्हणून लोकमताचे संपादक राजू नायक आयिल्ले. तांणी आमकां भोवमोलादीक अशें मार्गदर्शन केलें.

राजू नायकाचीं मार्गदर्शनाचीं उतरां मनांत घोळयत, एकचार गितांची धून वोंठार नुलयत, सांस्कृतीक स्त्रोत आनी प्रशिक्षण केंद्राची अधिकारी ज्योती सक्सेनान केल्ल्यो सुचवण्यो काळजांत केळयत आनी ही कार्यशाळा घडोवन हाडपी कला आनी संस्कृती संचालनालयाचे आनी सचिन सराचे उपकार आठयत हांवें घरची वाट धल्ली.



**– सिया अ. पंडित**

यत्ता : णव्वी

मडगांव

# दिवाळी



दर वर्सा आमी खूब उत्सव मनयतात. जशी दिवाळी, चवथ, होळी, क्रिसमस आदी. सगळ्यांत म्हत्वाचो उत्सव म्हणचे दिवाळी. म्हाकाय हो उत्सव आवडटा.

दिवाळेची तयारी दिवाळेच्या दिसा आदीं सुरू जाता. लोक घर सजयतात, पणट्यो पेटयतात, आकाशदिवे लायतात. दिवाळेच्या आदले दिसा लोक नरकासूर करतात. आमीय केल्लो. आनी दुसऱ्या दिसा फांतोडेर ताका लासता. दिवाळेच्या दिसा सकाळीं काट्टां फोडटात. मागीर सांजचें लक्ष्मी पुजन करतात. तेन्ना सगळ्या दुकानार चिरमुल्यो, पेढे आनी चॉकलेट्यो वाट्टात. अशें म्हणटात की राम वनवास करून परत आयिल्लो म्हूण दिवाळी मनयतात. जायत्या जाग्यांचेर नरकासुराच्यो स्पर्धा उरतात. अशें म्हणटात की नरकासूर एक राक्षस आशिल्लो. तो लोकांक सतायतालो. लोकांचीं घरां, सामानाचो इबाड करतालो. नरकचतुर्दशीक कृष्णान ताका सुदर्शन चक्रान मारिल्लो म्हूण आमी ताका लासतात.

उपरात तुळशीचें लगीन उरता. लोक तुळस धुवन ताका निवळ करतात आनी पेंट मारतात. उपरांत तिचेर पणट्यो लायतात आनी सांजचे लोक येवन धोल-ताशे वाजोवन तिचें लगीन करतात. अशे तरेन दिवाळी मनयतात.



– पुजा ऊ. गांवस
यत्ता : आठवी
द न्यू एज्युकेशनल इन्स्टिट्यूट,
कुरचडें.
फोन : २८५७३२८



## फळांची शाळा

बाणावलेच्या व्हडल्या भाटांत
झाडां पेडां सावळेंत
फळांची शाळा भरता
उकत्यारच रेवेंत



पयले वर्गांत शिकता
काजूबायचें तुरमण
मार, धोडाय कितेंय कर
धड न्हय लक्षण

नाल्लाचोय बोणो तसो
दिसूंक सोबीत बरो
अभ्यासांत लक्षच नासता
पास जातलो कसो?

दुसरे वर्गांत आमलेचें तोर
पळोवंक इल्लेशें पोर
शिकपांत मात खूब हुशार
सदांच घेता पयलो नंबर



पणसाचो लांब चाको
दिसता थंड कसो
म्हऱ्यांत गेलो जाल्यार
कुच्चकन रोमता कांटो

फळांचे हे शाळेंत भुरग्याक
शिकयता बाई तेणलें
टिपक्या टिपक्या पांचवी साडी
ओठांक तिच्या तांबडें



– नागेश नायक वडिये
लक्ष्मी बिल्डींग,
दत्तगिरी अपार्टमेंट,
वामन वर्दे मार्ग, मडगांव.

# म्हज्या सपनांतलें गोंय

**म्हा**का ल्हानपणां सावन सपनां पळोवपाची सवंय. मम्मी म्हणटा की ही साप्प वायट सवंय. पूण कितेंय आसूं म्हाका तीं पळोवंक इतलीं आवडटात की अभ्यास करूंक हांव बसलां, तरी तो थंयच उरता आनी हांव जाता आपल्या सपनांनी गुल्ल. तशीं सपनां मेजूंक कोणाक फावता तर! तीं मेजूंक गेल्यार दिसांच्यो राती काबार जातल्यो. म्हाका सपनां पळयतकीच सूख भोगता पूण एक मात आसा आं, म्हजीं सपनां केन्नाच खरीं जायनांत, हाचेंच पिकासांव जाता. हाकाच लागून घडये म्हाका परिक्षेंत गूण थोडे उणे मेळटा आसत, अशें मम्मी म्हणटा आं, हांव न्ही. कमी म्हणजे एकेकदां इतले कमी की ते हांवें सपनांत लेगीत पळोवंक ना!

एके राती म्हाका एक आगळें-वेगळें सपन पडलें. सदच्या सपनां परस सामकें वेगळें. चडशें हांव सपनेतां तें, केन्ना सुटयो पडटा म्हूण, तर केन्ना हांव ह्या सदच्या शाळेच्या कटकटींतल्यान बरें पयस अशा एक परींचे नगरींत जंय फक्त खेळ आनी चॉकलेटी, आयस्क्रीम आसता, थंय पावतां. केन्ना केन्ना तर हांव जगाची भोंवडी करूंक पावतां तर केन्ना मुंबय एका व्हड कपड्यां दुकानांत फुकटचें बरेंच शोपींग करतां अशें सपन लेगीत पडटा. पूण त्या दिसा मात ह्या सगळ्यांहून वेगळें अशें हें म्हजें सपन.

हांव अचकीत एका नव्या राज्यांत पावतां. पळयत जाल्यार आमचेंच गोंय. सदच्यापरस सामकें वेगळें दिसलें म्हाका तें. कोणाचोच बोवाळ नाशिल्लो. म्हाका याद जाली ती पुर्तुगेज तेंपावेली (जें म्हजी आजी



चडशी वर्णन करून सांगता.) तर पळया कशें तें....

कितलें सोबीत, सुंदर, पांचवेचार, कोणाचीच कटकट ना. सगळे आपआपल्या कामांत वा धंद्यांत गुल्ल जावन आसात. निळीच दर्यावेळ जाची सोब वाडयता देगेवेले हासते-धोलते माड. मात्सो फुडें चलून गेल्यार पांचवेंचार रान, थंडगार अशें वारें सुटलां, त्या वाऱ्यान दर्या देगेवेले माड उमेदीन धोलतात. रानांत ताठ उबीं राविल्लीं झाडां जीं वाटसरूंक सदांच आपली शितळ सावळी दितात. अशा ह्या प्रसन्न वाठारांत झाडांचेर आपलो घोंटेर केल्ल्या सुकण्यांचो चिंवचिंवाट आयकून मन धादोशी जाले बगर रावना. भर दनपारच्या वतांत दयविली रेंव भांगरावरी चकचकताली. खंय एके कडे एक रेंदेर माडावेली सूर काडटालो तर ताच्या तोंडांत घोळपी कातारांचीं उतरां हयन्हयशीं कानार पडटालीं. ताच्या मुखावेलें हास्य कितें तरी सांगून वतालें.....

ह्या गोंयांत सुंदर सोबीत न्हंयो आशिल्ल्यो. हांगासल्ले लोक खुशालभरीत आसतलेच हाचेर आनी दुबावूच नाशिल्लो. हो सगळो देखाव दोळ्यांत भर सारकोच आशिल्लो. हांगासल्ले लोक एकचारान एकामेकाचें सुख-दुख वाटत एक खुशालभरीत जीण जगताले. कोणय केन्नाय कोणायचेय गरजेक देव कसो पावतालो. नाजाल्यार आतां भशेन! आसूं तें नाका. आतांची गजालूच नाका सद्या हांव सपनांत आसां.

इतल्यान म्हजें लक्ष देवळां, कपेलां आनी मसजीदींचेर गेलें. नदरेंत सामको भर सारको देखाव. कितें म्हूण सांगू? इतलें मनभुलयणें दृश्य आशिल्लें तें! धवोफुल्ल धबधबो, भरगच्च अशा रानांत हीं धर्मथळां आनी सगळेच तरेचे लोक तांका भेट दिताले. खरेंच हीं धर्मथळां गोंयच्या लोकांमदलो एकचार दाखयतालीं. कोणे तरी गोंयाक सारकें भांगरावरी दिसता अशें म्हणिल्लें तें सामकें सत हाचेर म्हजो विश्वास बसलो. आतां म्हाका कळिल्लें की सगळे भायले लोक सुटयो मनोवपाक गोंयाकच भेट कित्याक दितात तें. मनाची खरी सुख-शांती म्हणटा ती ह्या गोंयांतच मेळटा. हेर आनी खंयच न्ही. म्हजें गोंय इतलें सोबीत दिसतालें की हांव शब्दान वर्णन करूंक शकना, कितलेंय बडबडल्यार कमीच.

इतल्यान जाग आयली. पळयल्यार सकाळचीं स वरां जाल्लीं. म्हज्या सपनांतलें गोंय म्हाका शेणिल्लेवरीं दिसलें. आतां म्हाका तशें गोंय परत पळोवंक मेळत काय? हो प्रस्न पडलो. याद जाली फातोडेवेलीं सपनां खरीं जातात म्हूण. म्हाका बरें दिसलें आनी मनांत विचार आयलो की आमचे आतांचें गजबजीलें गोंय खऱ्यानीच म्हज्या सपनांतल्या गोयांवरी जायत काय?





– वंदिता विठू सरदेसाय
१२वी कोमर्स,
मुस्टीफंड हायर सेकंडरी,
पणजी-गोंय.

# व्हॅली ऑफ फ्लावर्स



**जी**वनांतु वैराग्य आयिले, सर्वकांय आस्सून जीवन व्यर्थ म्हणतले, हिमालया दिकान वत्तशिले. थंचे परिसरांतु अहंकार विस्सोर्न, ऐहिक भोग विस्सोर्न, जीवन सार्थक कोर्का म्हळिल पारमार्थिक विचारांनी संत जावनु परत येत्ताशिले. ही परिवर्तना सहज घडोन हाडची किमया हिमालय पर्वतश्रेणिंतु अजूनय आस्सा.

सात-आठ दिसांतु २५-३० हजार रुपया खर्चून, धड...धड धांवत चार-धाम यात्रा केल्यारी ती किमया दिस्सून येना. थंचे प्रकृतिचे सानिद्यांक, सहवासांतु, एकरुप जावनु, चार-पांच दीस तरी उर्का. प्रवासाचो खर्च हजारांनी कर्मी जात्ता आनी जीवाक समाधान जास्ती मेळता.

प्रति वर्ष लाखों यात्री 'बद्रिनाथ' वत्तात‍ि. त्याच रस्ते लागून आडवाट्टेन १४ कि. मी. गेल्यारी 'व्हॅली ओफ फ्लावर्स' आस्सा. रामायणांतुलें नंदन वन तें! कितले लोक तें पळोवन येत्तती? लाखांतु शंबर अेक उर्तित! उरिले गाडिंत बस्सून बुर्र...ऽऽ ने परत अेत्ताती. अेक...ऽ तांका ताजी माहिती उर्ना किंवा माहिती आस्सिलतिकी फुरसात्ति उर्ना. हें दोनी उर्नु, काहीं लोकांल आंगांतु जिध्द उर्ना.

श्री बद्रिनारायण हिमालयाचो राजा जाल्यारी, व्हॅली ऑफ फ्लावर्स तागेलो खजानो. आमगेल खातीर त्या खजान्याचें खुल्ला प्रदर्शन, वर्षांतून चार महिने तो मांडयता. आषाढ, श्रावण, भाद्रपद, आश्विनांतु मेळचे ते फुक्कट आनंदाक सीमा ना. त्या आनंदाचो उपभोग कितलो घेया, अजीर्ण जाय ना. तो आनंद आरोग्याक शंबर टक्के पौश्टिक जावनास्सा.

व्हॅली ऑफ फ्लावर्स वत्तल्यांनी 'हरिद्वार' वोचका. हरिद्वार म्हळ्यारी उत्तर भारतांतुल्यान हिमालया दिकान वोच्चें प्रवेश द्वार. बद्रिनाथ, केदारनाथ, गंगोत्री, यमुनोत्रीक थंचान सक्काणिचें बस् वत्तात‍ि. सांजेचें बेग्गी काळोख जात्ता दिकून, घाट रस्तेर सांजचें वाहन वत्नांति.

हरिद्वारसाव्न ऋशिकेश, देवप्रयाग, श्रीनगर, रुद्रप्रयाग, चमोलि करत जोशिमठ वोचका. थंचान बद्रि वोच्चे रस्तेरि, २४ कि. मी. अंतराचेर, उजवेन अलकनंदा नदितिरार 'गोविंद घाट' आस्सा. थंय् देंवका. समुद्र पातळी सावन साढेपांच हजार फूट वयरआस्सिल गोविंद घाटाक 'लक्षमण प्रयाग' म्हळिल नांव बी आस्सा. प्रयाग म्हळ्यार दोन नदिचें संगम स्थान. देवप्रयागांतु भागिरथी आनि अलकनंदा, रूद्र प्रयागांतु मंदाकिनी आनि अलकनंदा, लक्ष्मण प्रयागांतु याने गोविंद घाटांतु लक्ष्मण गंगा आनि अलकनंदा नदि अेकत्र मेळतात‍ि.

गोविंदघाटांतु सिखख लोकांले भव्य गुरुद्वार आस्सा. थंय हजारेक लोकांक खावची, पिवची, राबची व्यवस्था आस्सा. प्रसाद रुपारि ही धर्मार्थ सेवा ते लोक कर्तात‍ि. ते दीस रात्रि थंय राबून दुसरे दिस मुकावंल प्रवास कोरेत. हरिद्वार सावन गोविंदघाट पर्यंत दिवस भर, (२७५ कि.मी.) घाट रस्तेन प्रवास केल्यार जास्त त्रास जात्ता. हो घाट तमी अस्सल -तस्सल नंय! प्रत्यक्ष यमदूतां बर्शी कबड्डी खेळिल्यावरीचि! अेकेक कडेन शार्प टर्न घेत्तना, जीव मुश्टिंतु धोर्न बोसका. कित्लकी लोक दोळे धांपुन बसतात‍ि. कारण दावे दिकान ऊंच पर्वत, उजवे दिकान खोल दरी. हाजे मद्यें बारिक रस्तो. आडकात्रिंतु सिर्कल्यावरी परिस्थिती. दुसरे दिस सक्काळि उट्टान, फ्रेश जावन, चडा-नाश्ता कोर्न मुकावैल प्रवासाक भायरी पोडका. हांगच्यान खरो प्रवास सुरू जात्ता. सेक-बेगांत कमीत कमी सामान घेया. अवश्यक नांसिले, जास्तिचो सामान, गुरूद्वारांतुले सेफ कस्टडींतु दवरा. कित्याक की म्हळ्यार, मुकावैल १४ कि. मी. प्रवास कर्तना, तुमगेली शक्ति पणा लावची पडता.

गुरुद्वारांतून भायरी पडले की अलकानंदा नदि दिसता. सांकव दांट्न पेल्यांन गेल्ले की, तो रस्तो सीदा 'गंगारिया' वत्ता. पाव्साडि दिवस; पायांक पक्का ग्रिप आस्सिल बूट घाला. सावकाश चमकलतिकी अड्ना, जार्वून (निसरून) पोणाकात‍ि. सेक-बेग फाट्टि लांबया. रेन कोट, केमरा, उत्का बाटली बेगांत वयरी दवरा. ट्रेकिंगाक वत्तना दोन्नी हात फ्री उरकात‍ि. मदें-मदें थोड

वेळ बसून आराम घेया. निसर्ग नीयाळ्नु पळया. खात्त-पित्त ऊरा. कित्याक की म्हळ्यार वातावरणाक मेळ्नु वोच्याक (Acclimatize) हें अगत्य जावनास्सा. ना काहीं लोकांक मात्तें दुक्ता. घुंवळ आय्ल्यावरी जात्ता. हाक्का हाय अल्टिट्युड सिक्नेस म्हणताति. इत्लें लक्षांतु दवरल्यारि प्रवासांत त्रास जायना. आनंदि जीवन जगच्याक मन्शांल आंगांतु अस्सले छंद अवश्य उर्काति.

शरीर आस्सा आरोग्य ना असल्यांक, वय जालिल्यांक घोडेर बसोन व्हर्तले आस्सति. बेत्ता मुट्टेंत बसोन व्हर्तले बी आस्सति. तान्नि सांगिल तित्ले पैशे तांक दिवचे पडता.

सृष्टि म्हळ्यार सृष्टिकर्ता न्हय. तस्सि जाल्यार सृष्टिकर्ता कोण? हो प्रश्न जे मन्शाले मनांतु जेन्ना जन्म घेत्ता, तेन्नांच्यानु तागेल अध्यात्मिक जीवन सुरू जात्ता. शुध्द हवा, शुभ्र जलधारा आनि निस्वार्थ निसर्ग हाजो आनंद घेत, आत्म परमात्माल संबंध मजभूत करत, स्वप्नलोकांत वावर्ल्यावरी तागेल प्रवास चलत उर्ता... चलत उर्ता.

गोविंद घाट ते गोविंद धाम (गंगारिया) १४ कि. मी. रानवाट, चडत-देंवत, भूंयदर नदि लागून मुकार वत्ता. चडतना त्रास जाल्यार, उतार आयलकी आराम जात्ता. वाट्टेर 'हेमकुंड' वत्तले, वोचून येत्तले यात्री भेटताती. दोन सान सान गांव मेळताति. थंय-दनपारां जेवण घेवेत. जेवण बरें उर्ता. ह्या ऊंचप्रदेशांतुलि सृष्टी आनि खंयी पोळोच्याक मेळना. अनेक प्रकाराचे, राक्षसाकाराचे रूख दिसताति. माका ताजें नांव गोत्ना. रानफूलं भरपूर दिसताति. पाव्सु पडत उर्ता. हें निसर्ग सजोवच्याक येत्त तो.

जेवण जाल्ले नंतर जास्त आराम



कोरच्या ना. कित्ले बेगी 'गंगारिया' पावताति तित्लें बरें. कारण ह्या प्रदेशांतु सांजचें हवामान बे भरवंश्याचें! अचानक चारी दिकाच्यान मोड जमताति. काळोक जात्ता. धो...धो पाव्स पडता. 'हो प्रवास आनी नाक्का कोर्न सोडता.'

समुद्र पातळिसान्न ९१४७ ऊंच आस्सिल 'गंगारिया' पावच्याक नव्व तास लागताति. गांवांतु जनवसति आस्सा. होटेल्स आस्साति. सरकारि गेस्ट हाऊस आस्साति. त्या शिवाय तुमगेल स्वागता खात्तिर हांगा सिखख लोकांले गुरुद्वार बी आस्सा. 'गंगारिया' पावले की अेक रूम कोर्नु, हात-पाय धुव्नु फ्रेश जावचें, गरम गरम पकोडे खाव्नु च्या पिवचो आनि गरम उत्कान न्हावचें. बेगि जेवण कोर्नु दोन-दोन रधोई (Rugs) पांगुर्नु भरपूर आराम करा. दुसरे दिस नंदन वनांत वोच्चें स्वप्न पळया.

व्हॅली ऑफ फ्लावर्स वत्तल्यांनी सक्काणि बेगि उठका. ना जाल्यार ४ कि. मी. लांब, २ कि. मी. रूंद पुष्पवन पोळोच्याक वेळ कमी पडटा. त्या वनांत कोणांक राबच्याक दीनांति. रंग वेगळो, रूप विंगड, अजून पळैयलनांसिलीं हजारेक नमुन्यांची फुलां त्या वनांतु आस्सति. पोळच्याक दोळे दोन नुप्रो. हजार दोळ्यांचो इंद्र जाव्नु जन्मां येवका.

रामायणांतुल नंदनवन म्हळ्यार हेंचि व्हॅली ऑफ फ्लावर्स. शबरीन दिलिल बोरं रामान खालिल तीं हांगा खंय्! संजिवनी झाडं ह्या नंदनवनांतु आस्सा म्हणताति. दयाकोर्नु तें झाड सोद्दुंच्याक कोण वोत्नाकाति. तुम्मीं फसतले. तुमकां सोदुंच्याक आनी कोणें वोचका जायत! रामायणाचे संबंध उरच्यादिकून थंच पर्वत राशींत जन्मा आयिल एके नदिक 'लक्ष्मण-गंगा' म्होण नांव दिलां.

इ. स १९३१त ब्रिटिश पर्वतारोही फ्रांक्. अेस्. स्मित् आनि आर. अेल्. होल्डस्वर्त म्हळिल्यानी, कोमेट शिखरारोहण यशस्वी कोर्न परत येत्तना, वाट चुक्कून ह्या प्रदेशांतु आयले. हांगाचे अनुपम याने सर्वोत्तम निसर्ग सौंदर्य पोळोनु ते जाम खुश जाले. तान्नी मायदेशां वोच्चून 'Valley of Flowers' म्हळिल पुस्तक बोरोन प्रसिध्द केलें. आनि जगाक ह्या प्रदेशाची माहिती जाली. हिमालयांतुल्या अत्यंत निवडक सुंदर स्थानांतु हो एक म्होणु जगप्रसिध्द जालो. आमगेल भारत सरकारान इ. स. १९८२त हो भू प्रदेश राष्ट्रिय उद्यान म्होण घोषणा केली.

'व्हॅली ऑफ फ्लावर्स समुद्रपातळि पासून १०८००' ऊंच आस्सा. 'गंगारिया' साव्न अर्ध कि. मी. अेरचणा पडेन (चडनाफुडें) हिमालयाचो बर्फाच्छादित (Glaciers) प्रदेश दिसता. बर्फ वितळना पडेन (करगल नंतर), लोक हांगा येत्ताति. ऑक्टोबर ते एप्रिल, हांगा येवचाक जायना.

व्हॅली ऑफ फ्लावर्स प्रवेश कर्तना टिकेट घेवका. गेटांतुल्यांन भित्तर पाय दवर्ल की एक वेगळें जगांत प्रवेश केलिल अनुभव जाता. पुष्पवती नदि दिसता. ही नदि गंगारियांतू लक्ष्मण गंगेक मेळता. मुकार भूंयदर

गंगा लक्ष्मण गंगेक मेळता. आनि गोविंदघाटांतु लक्ष्मण गंगा अलकनंदाक मेळता. आनि अशींच मुकार वचत-वचत ह्या नदिक मंदाकिनी, भागिरथी नदि येव्नु मेळताति. हरिद्वारांत, तिक्का 'गंगा' म्हणताति. हें अेकमेकांक मेळ्नु वोच्चें गुण आमकां प्रकृतिंतु दिस्सून येत्ता. म्होणूची म्हालगड्यांनी सांगल्यां-'प्रकृती इत्लो होड गुरू आनि दुसरो ना.'

पुष्पवति नदि दांटुचाक (हुपच्याक) लाकडाचो सांकव आस्सा. पेल्यांन गेले की फुलांचो फेशन-शो सुरू जात्ता. अेक गाईड घेव्नु गेल्यार बरें. तो तुमकां सगळी माहिति सांगतलो. वाट बरोबर दाकयतलो. आमी नाक्कशिल कडेन खूब-खर्च कर्तात. एक गाईड घेत्तना खूब चवकशि कर्तात.

व्हॅली ऑफ फ्लावर्स वत्तना जेवण-खाण बांधून व्हरा. थंय् कसने (कांयच) मेळना. उदाक होर्चें नाका. शुध्द जल थंय मेळता. मद्यस्थळारी येना पडेन विश्रांती घेया. हवामान साफ आस्ल्यार चारी दिकान हिमालय पर्वत दिसताति. उत्तर दिकान निलगिरी (२१२५०), नरपर्वत (१७२१०), दक्षिण दिकान सप्तश्रृंगी (१६५३०) दिसताति. पूर्वेक गौरी (२१६२०), ईशान्य दिकान रतबन् (२००००) आनि नैऋत्य दिकान कुंटकल् (१४५३०).... इत्यादि. दिशा समऽ (सारक्यो) सोद्दूचाक हात्तांत कंपास उर्का. श्रावण महिन्यांत गेल्यार, वत-पावस पडता. क्षण-क्षण निसर्ग वेगळें रूप धारण कर्ता. खंयी पळया, सर्व आनंदमयं. आनंद, उत्साहाचे उगम स्थान ह्या प्रकृतिंतु दिस्सून येत्ता.

ह्या नंदनवनांत घुसल्यारी बाह्य प्रपंच विसरताति. टाय्म पळैत उरा. मुकार वचत उर्नाक्काति. अचानक चादर पांगुर्ल्यावरी, मोडान (कुपांनी) मुस्कू (बुरखो) घाल्यारी, धो-धो पाव्स सुरू जाल्यारी, गेल्लिल वाट सोद्दून येन्वें कठीण जाय्त! जाग्रता घेया.

व्हॅली ऑफ फ्लावर्स पोळोच्याक परदेशी बहु संख्यान येत्ताति. सस्य शास्त्र अभ्यासक अेत्ताति. नामांकित फोटोग्राफर अेत्ताति. हिमालयांत शिखरारोहण कोरच्याक आयिले अेत्ताति. आमगेल देशांतुले महाराष्ट्रियन्स, बंगालि जास्त प्रमाणांत अेत्ताति. 'हेम-कुंड' यात्रे आयिले काहीं पंजाबि अेत्ताति.

थंय आयिल एक सश्य शास्रज्ञाक विचारनांपडेन कळ्ळें की - ह्या पुष्पवनांतु ५५० प्रकारचीं रानफूलां आस्साति. ताणे तागेल केमेरांतुलीं झूम लेन्सांतुल्यान कित्येक सान्न-सान्न फूलं आमकां दाकैलीं. नांव बी सांगि. आमगेले लक्षांत उर्चे न्हय तें! पण त्या फुलांचो रंग हळदि, निली, सफेद, लाल, पिंक, परपल्... इत्यादि विसर्चो न्हय. इंद्र धनुष्य आकाशांतुल्यान, ह्या फुलांचो रंग पोळोनु व्हॅली ऑफ फ्लावर्साक सलाम कर्ता. हें सर्व पोळोन गंगारियाक अेत्तना सांज जालिल उर्ता. देह थक्किल तिकी मन प्रसन्न जालिल उर्ता.

दुसरे दिस प्रवासाचो अंतिम टप्पो टफ आस्सा. जास्त थकिल्ल्यांनी घोडेर बस्सून वोचेत. रात्रि निदतना 'हेमकुंड' वोचून येत्तलोंच म्होण निर्धार करा. मन तयार जात्ता. उत्साह निर्माण जात्ता. आनि उत्साहा किंता (परस) जास्त पावरफुल्ल टोनिक खंचे ना.

हेमकुंड म्हळ्यार बर्फ करगून (काडून) तयार जालिलें सरोवर याने हिमकुंड. गंगारियासावन ६ कि. मी. रस्ता. समुद्रपातळीसाव्न १४५०० फूट ऊंच आस्सा. थंय् मनुष्य वर्सात ना, प्राणि दिसना. अेकदम शांत परिसर. प्रेतायुगांतु लक्ष्मणान हांगायेव्नु तपश्चर्या केलिलें खंय्! द्वापरयुगांतु अर्जुनान पाशुपशास्त्र प्राप्त कोर्च्याक हांगा येवनु तपश्चर्या केलिल खंय्! आम्मीं आनि थंय् बोस्सून तपश्चर्या कोर्का म्होण ना. त्या स्थानारी वोच्चून आयल्यारी पुण्य मेळता.

त्या हिमकुंडा बगलेन सिख्ख लोकांनि गुरू गोविंद सिंगाल नांवान हेमकुंड साहिब गुरूद्वार बांधल्यां. प्रतिवर्ष देश विदेशांतुल्यान हजारों श्रध्दाळु भक्त हांगा अेत्ताति. आयिल्यांक खाण-पिण्याची, जेवणाची योग्य व्यवस्था गुरुद्वार प्रबंधक कमिटीन केल्या. जाति-पातिचो भेद ना. होडपणाचें प्रदर्शन ना. फक्त प्रेम, समानता, आत्मियता हांगा दिस्सून अेत्ता. 'अतिथि देवो भव:' म्होणु बोर्ड हांगा लाव्वें अगत्य ना. भुकेन आयिले प्रत्येक व्यक्ती हांगा तृप्त जाव्नु वत्ताति.

व्हॅली ऑफ फ्लावर्सांतु नाशिल्लीं फुलां हांगा दिसताति. प्रामुख्यान ब्रम्हकमळ जें फूल केबिजावरी दिस्ता तें फक्त १४००० फूट ऊंच प्रदेशांतु जात्ताति. ह्या फुला पाकळ्यो पान्नांवरी दिसताति.

लेंडस्केप फोटोग्राफि कर्तल्यांक अस्सलो दुसरो जागो सोध्दून मेळस्सिना. हांगा केमरा हात्तांतु धरल्यारी, निसर्ग स्मायल कर्ता.

परतून गंगारिया येत्तना सांजेचे चार घंटे जात्ताति. घोड्यारी बस्सून गेल्लेतिकी पूरोऽ जात्ता. हात्तांतु तेला बाटली घेव्नु मालिश... मालिश म्हणत मालिशवाले तुमगेल फाटि पडताति. हे मालिश मार्तले उत्तरप्रदेश, बिहारच्यान ह्या सिजनांतु चार पैशे कमोच्याक गंगारिया येत्ताति. मालिश कोरूसून, हून उदकान न्हाव्नु, बेगि जेव्नु, रधोई पांगुर्न निदल्यारी फाल्लें जाय्नापडेन जाग येताति. अस्सली सुखाचि नीद शायद प्रथम तुमगेल अनुभवांतु आयिल उर्तली.

❀❀❀




- पद्मनाभ नायक
तिलक नगर,
डोंबिवली (ई) ४२१ २०१
फोन :(०२५१)२४२१४०१

कथिका

# आधार! निराधार!!

**आ**वय बापायन बुडयलें आनी घोवान माइडयलें! सांगतलें कोणाक? तर दोशी वाटांनी थोडें जालें म्हणून नशिबांत आज, ह्या पोटाचे पाड जिणे खातीर पुताच्या आनी सुनेच्या उतरांचो मार ह्या उतार वयांत शेवतूक आयकून घेवचो पडटा. सोसचो पडटा. आधार आसून तें निराधार जालां.

पोटा पोटा ढमकता बारा गांव चमकता.

ह्या पोटाचें पाड जिणें! पोटाखातीर घेवचें उणें हे उक्ती प्रमाण आज शेंवतूच्या नशिबांत हे दीस आयल्यात. मरतलें म्हळ्यार मरना, दुयेंस जगूंक दिना अशी अवस्था. घश्ट्यांचो भार नशिबांतलो सोपना.

हातरुणार परवत पडिल्ले कडेन शेंवतूच्या दोळ्यांमुखार ते दीस सरकताले.

शेंवतू आनी बाबुचें लग्न जाल्लें तेन्ना तीं वीस आनी बाव्वीस वर्साचीं. शेवतूचो बापूय एक रिक्षा ड्रायव्हर. तर बाबू एका पेट्रोलपंपार गाडयांक पेट्रोल घालपाचें काम करतालो. मदीं मदीं एक दोन गाडयांचे हारशेय पुसतालो. पगार तसो थोडोच. पूण अशीय थोडी वयली कमाई जाताली. शिवाय दर आयतारा भाटकाराची गाडी धुवपाक वतालो. म्हणूनच दोन पयशे किरवटेक उरताले. लगीन जावन दोन वर्सां उमेदीन गेल्लीं. तशें बाबूक कसलेंच व्यसन नासलें. केन्नाय म्हयन्यांतल्यान एक फावट शेनवारा रातीं बी तो घोटभर घेतालो आनी गुडूप न्हिदतालो. शेंवतूय कांय म्हणनासलें. वर्साक दोन कापडां तो शेवतूक हाडटालो. ताणें एक बारीक भांगराची माळ ताका केल्ली. दीस सुखाचे, मोगाचे. इतलेंच न्ही, देवान उप्पाट भरून दिवपाचें येवजिल्लें दिसता. कित्याक, 'पयली बेटी, धनाची पेटी' म्हणटात तशें खऱ्यांनीच शेंवतू बाळंत जावन चेडूं जालें आनी बाबूक वीस हजारांची सोर्त लागली.



बाबू आनी शेंवतू दोगांय खुशालकायेन भल्लीं. हॉस्पिटलांत बाबून पेडे वाटले. नर्सींच्या हाताकय पांच रुपया लायले.

सांवळ्या सुंदर आपले चेडवाकडेन पळयत दोगांनी ताच्या फुडाराचीं सपनां रंगयलीं. हांव म्हजे बायेक शिकोवन व्हडलें करतलों. ताणी बायेचें नांव 'विद्या' दवल्लें.

पूण मनीस येवजिता एक आनी घडटा दुसरेंच. बाळंतपणान 'बाणचार' घेवपाक शेंवतू कुळारा गेलें आनी पयशांच्या रुपान सैतान घरांत भरिल्लेवरी घडत गेलें.

बाबूच्या दोस्तांच्या कानार ही सोर्तीची वार्ता केन्ना पाविल्ली. सगळे जाण ताचेकडे पार्टी मागताले. शेंवतू घरा आशिल्लें जाल्यार बरें जाता आशिल्लें. पूण तें नाशिल्लें. म्हणून बाबून, घराकडेनच तीन पांयटां हाडलीं, हॉटेलार 'शागुती' करपाक लावन हाडली आनी बरी झकास पार्टी दिली.

ही पार्टी सुरवात आशिल्ली. 'असतील शिते तर जमतील भुते' म्हणटात तशें आतां आत्रेपयऱ्यान अश्यो बाटल्यो मेळच्यो म्हणून ताचे फ्रॅण्ड फार्टीफुडें फिरूंक लागले. शेंवतू नाशिल्ल्यान बाबूय एकटो एकटो जातालो. आनी घरांत जाणटेली आवय. तिची कोण पर्वा करता? ती गोटे शिजयताली. पूण बाबू भायरच खावन येवपाक लागलो. पयशाक हळुहळू गळटी लागली. येवजिल्लीं सपनां मातयेभरवण जावपाक लागलीं. कित्याक, आतां सद्दां घेवपाची बाबूक सवंय लागिल्ली. फुकट मेळिल्ली जोड अशी सोपत आयली. पूण व्यसनांचो सांगात दवरून वचूंक लागली.

देड म्हयन्यांनी शेंवतू आंगार पितल्या बायेक घेवन घरा आयलें. ताचे ते सुंदर बिटी बिटी दोळे, मात्शें कोंगरें माथ्यावेलें पातळ जावळ. इल्ले इल्ले तांबुडसार हात आनी पांय. शेंवतून ताका दिश्ट लागूं नये म्हणून दोळेभर काजळ घाल्लें. येदो मोठो काजळाचो तिबो लायिल्लो. ताका दिशिल्लें घरा येतकच बाबू बेगीन बेगीन बायेक धरतलो. ताचो उमो घेतलो आनी म्हाकाय म्हऱ्यांत ओडटलो. पूण ना. तशें कांय जालें ना. शेंवतून बळयांच बाबूच्या हातांत चेडवाक दिल्लें. पूण 'हँ हँ' करत बाबून परत दिलें.

शेंवतूक बाबू बदलिल्लेवरी दिसलो. रातीन घेता, पूण आसूं. पुरो जाता दिसता ताका. 'हांव बाळंत न्ही. म्हणून तो म्हऱ्यांत येना दिसता.' रांदतां रांदतां फाटसून येवन मिटी मारपी बाबू. आज ताका कितें जालां? शेंवतू विचार करतालें. आठ दीस गेले तशें हातुणार पडिल्ले कडेन शेंवतून विचारिल्लें. "पयशे बँकेंत मांडले मरे?, आमच्या बायेच्या फुडारा खातीर. आमी ताका खूब शिकोवंया." बाबूचे पोले सांसपीत शेंवतून म्हळें. शेंवतू वाटेन तोंड करून न्हिदिल्ल्या बाबून 'हूं' इतलें म्हळें आनी तोंड फिरोवन फाट करून न्हिदलो. शेंवतूक वायट दिसलें. तरी शेंवतून म्हळें, "बाबू हालीं तुजें पिवप चड जालां. तें आतां कमी जावं दी हां." हें आयकतकच बाबू उसळ्ळो. हातुणार बसत पयले फावट ताणें शेंवतूक गाळ घालत

म्हळें, "ह्हहह्ह तुज्या बापायचें पिलां गो? आगो न्हीद ह्हहह."

ह्यो गाळी पयली आसल्यो. पूण फुडें फुडें गाळयांवांगडा शेंवतूचेर थापटां पडूंक लागलीं.

सांगतलें कोणाक? बापायक सांगलें तर ताका दु:ख जातलें. कित्याक एकलें एक अपुरबायेचें तें चेडूं आशिल्लें. आपूण सोसतच रावलें.

फुक्याची मेळिल्ली जोड सोंपली तशी बाबून शेताची कुणगी विकली. आतां तो दिसाचेंय घेवंक लागलो. जाय तेन्ना येवप. शेंवतूक ओडप. ना प्रेम, ना अपुरबाय. फक्त भोग. भोग कसलो? बलात्कार तो.

तातूंत शेंवतूक परत दीस गेले. ह्या खेपेक चेडो जालो. रत्नाकर नांव दवल्लें.

मर्दी शेंवतूच्या बापायचो मर्डर जालो. कोणें रिक्षा केल्ली खबर ना. पूण रानांतल्या रस्त्याचे कुशीक पांच स दीस एक रिक्षा आसा अशी बसवाल्यान पुलिसेंत कंप्लेन दिली तेन्ना पोलिसांनी शोध घेतलो. जाल्यार शेंवतूच्या बापायची बॉडी वीसेक मीटर पयस पडिल्ली आशिल्ली. रिक्षा रस्त्यार आनी कूड पयस. तकलेर मार दिसतालो. बॉडीचो वास मारतालो. खून जाला म्हणपाचें कळटालें. पूण चौकशी फुडें कोण चलयतलो? जावंय बाबू तर बेबदो जायत गेल्लो.

कशी बशी रत्नाकराक धा वर्सां जाता म्हणसर बाबू रक्त ओकून एक दिसा मेलो. ताचें लिवर फुटिल्लें खंय!

आतां शेंवतू एकटें पडलें. दोन भुरगीं आनी बाबूची जाण्टी आवय अशी ताचेर जबाबदारी आयली. ती उणे म्हण ताची आवय बी हांगा आयली. कोणागेर आयदनां घास, कालचें उरिल्लें घरा घेवन यो. एका किरिस्तांव जाणट्या जोडप्याची सेवा कर. तांका न्हाणय, बाशी उकल. रातचें तांच्या वांगडाक न्हिदपाक वच. अशें करत करत भुरग्यांक ताणें व्हड केलीं.

मर्दी ताची मांय पुताचे खंतीन गेली. पूण तिच्या मरणाचें करपाक ताचेकडेन कांय नाशिल्लें. म्युनीसीपालीटीच्या लोकांनी भडाग्नी दिलो. तिच्या मेल्ल्या जाग्यार पणटी पेटोवन दवरपय ताका जड जातालें.

घोव नाशिल्ली बायल. तिचेकडेन दोळे घुंवडावन पळोवपी जायते आसतात. तातुंतल्यान शेंवतू कशें दीस काडटालें देवाक खबर!

ताच्या जिवीताचे धिंडवडे दुसऱ्या वटेनय जावंक लागले. ताणें निराधार येवजणे विशीं आयकल्लें. कोणाक तरी पांयां पडून ताणें ती येवजण आपल्याक मेळची म्हणून अर्ज केलो. ताका नशिबानसार म्हयन्याक एक हजार हे येवजणे खाला मेळूंक लागले. त्या नेटार ताणें चेडवाक बी. कॉम पर्यंत शिकयलें. हे मजगती ताचें चेडूं विद्या एका मुस्लीम चेड्या वांगडा पळून गेलें. कोण म्हणटात ताका मुंबय पळयलां. तें थंय देहविक्री करता. कोण म्हणटा तें दुबय एका शेखागेर आसा. खरें खोटें तेंच जाणां.

चेड्याक एका आस्थापनांत प्रायव्हेट नोकरी मेळ्ळ्या. तोवय मोगान पडून लगीन जाला. ताका थंय रावपाची गरज. म्हणून शेंवतूलें हक्काचें खोपूट विकून ताणें थंय ल्हान कूड घेतल्या. शेंवतूचे आवयक 'ऑल्डएज होम' त दवल्ल्या. शेंवतूक थंय दवरपाची रत्नाकराची तयारी ना. कित्याक? लोक कितें म्हणटले? 'आवयक पोन्न हॉस्पीटलांत दवरल्या रे?' शिवाय ताची बायल नूतन तेवंय मोट्टी घालता. कित्याक ताका आयती घश्टेकान्न मेळ्ळ्या न्ही? दोन भुरग्यांचो गू-मूत काडप. शिवाय रांदप. नूतन हय. सून. तें कांयच काम करिना. घोव कामाक वतगीच पांयार पांय घालून व्हल्तेरार बसता आनी टी. व्ही. तितलो पळयता.

मजा म्हळ्यार टी. व्ही.वेली घरेलु सिरियलां पळोवन रडटा. पूण मांयक मात कामाक लायता.

शेंवतू कुडीच्या भायल्या वाटेनचे गॅलरींत न्हिदता. हातुणार पडिल्लेकडेन तें येवजुपाक लागलें. 'देवा कितें हें म्हजें नशीब. साठ वर्सां जालीं म्हाका. आनी कितें कितें भोगपाचें? बाबू आसतना तरी बरें आशिल्लें. ताच्या बऱ्या दिसांचे यादीर आनी भुरग्यांच्या फुडाराच्या सपनांच्या उमेदीर दीस वताले. माल्लें, बडयलें तरी बाबू म्हज्या कुकुमाचो धनी आशिल्लो. सोऱ्यान घात केलो. तो घेना तेन्ना कितलो बरो वाग! आज म्हाका निराधार येवजणेचे एक हजारा पेक्षां चड दुडू मेळटात. पूण फायदो कितें? पयशे म्हाका मेळटात काय ह्या म्हज्या पांयार पांय घालून बसतले सुनेक? म्हाका खोंकली मारता जाल्यार एक शारोपाची बाटली हाडूंक पयशे नात. पयशे घेता जावन न्हेसपाक ना. एका पातळाचे दोन कुडके करून दोन दिसांक एक एक जुनेर हांव न्हेसतां. ही महाराणी मात दोन दोन म्हयन्यांनी नवो ड्रेस घेता. रातीन खोकलेची ढापस मारल्यार चेडो येवन तापयता. म्हणटा, 'दिसभर काम करून रातचो घरा आयल्यार सुसेगाद न्हिदूंकय मेळना.' आतां हांव कितें करूं? चेडो अपुरबायेन एक शब्द उलयना. जाचो फुडार बरो जावंचो म्हूण हावें हाडां झरयलीं ताका म्हजेविशीं कांयच दिसना.

सून येवची, म्हातारपण सुखाचें वचचें अशें प्रत्येकाक दिसता. पूण शेंवतूचे हाल पळयल्यार भुरगीं देवाकडेन कित्याक मागप असो विचार येता.'

आज बासश्ट वर्सांचें शेवतू. जखखड म्हातारें दिसता. दोळ्यांतल्यान दूक काडपा शिवाय ताच्या हातांत कांय ना? ढांस लागल्यार आपुणच उठता. कासाणेंतलें थंड उदक घोटभर घेता. परत आड पडटा. देवा म्हाका बेगीन व्हर अशें मागता. पूण ताच्या हातांत कितें आसा? हे भोग केन्ना सोंपपाचे तें तो परमेश्वर जाणा.




– तेजश्री गोपाळ प्रभुगांवकार



'सिध्दार्थ'
टोंक, करंझाळे,गोंय.
फोन : २४६१५५३

# ताईबायची याद जागता तेन्ना!

१७ ऑक्टोबर ०९ची फांतोड! नरकासूराक सोपोवन दिव्यांच्या उजवाडांत दिवाळी उजवाडली. उटणें लावन न्हावन, तरातरांचे फोव, उसळी, रांगोळी घालून पणत्यो लावन दिव्यांचो झगमगाट केलो तेन्नाच मोबायलाचो उलो आयलो. दीस उजवाडलो.

म्हज्या घरकाराक ओवाळणी करपाची सगळी तयारी केली आनी हांवें म्हाकाय नवे साडयेन, भांगरान नटयलें. घोवाक दिवे दाखयले आनी व्हडा उमेदीन दोगांय फोव खावंक बसलीं. मदींच फोन खणखणलो.

"हॅलो" हांवें म्हळें

"आगो, खंय आसा तूं? हांव आनी कामीनी तुमगेर येतात." दिलीपबाबाचो आवाज.

"दिलीपबाब गोंयांत पावलो तूं?" हांवें म्हळें.

"हय तुका अंक दिवपाक आमी येतात" – दिलीपबाब उलयलो.

अर्दवरान दिलीबाब, कामिनी आयलीं.

कामिनीन भितर सरतनांच म्हाका दिवाळेची परबीं दिली. दिलीपबाबान दिवाळेची परबीं दीत बेळगांवच्यान हाडिल्लें कुंदाचें बॉक्स आनीक अंक हातार दवल्लो. दोळे धापून अंक काळजाकडेन धल्लो आनी ताचेर हात भोंवडायत मनांतल्या मनांत म्हळें, 'आवयस कितलो तेप तुजी हांव वाट पळयतालें!' बिम्ब दिवाळी अंक हातांत आसा तो मेरेन म्हज्या म्हऱ्यांत म्हजो घरकार, दिलीपबाब आनी कामिनी आसा तेंच विसल्लें.

अंकाविशीं म्हाका कित्याक इतली ओड हांव नकळो. बिम्ब ह्या उतराचो अर्थ



म्हाका कळूंक नासलो तेन्नालेगीत म्हाका बिम्ब अंक आवडटालो. दिलीपबाबाक कामिनीक तांचे गाडयेलागीं सोडून हांव झपझप पावलां उडयत वयर चडलें. घोवाक म्हळें – "आज मात्सो जेवणाक वेळ जातलो हांव बिम्ब चाळटां." ताची जाप आयकुचे पयलींच हावें बिम्ब उगडून चाळ्ळो म्हजे उमेदीक शिममेर नासली. उतरां लेगीत शेणिल्लीं. दोळ्यांत खोशयेच्या दुकांचे ओथांबे भरिल्ले. हरशीं म्हाका १७ ऑक्टोबर सैरभैर करता ताचें कारण त्या दिसा म्हजी ताईबाय, स. विजयाबाय सरमळकार संवसारांतल्यान गेल्ली. आपणाल्या गेल्ल्या दिसा हें सदांच चिंतेस्त रावता म्हूण तिणेंच हो खीण उमेदीचो करूंक ना मू? अशेंच दिसता. आज दिलीपबाबान दिवाळे दिसा अंक दिवप, हाका जें म्हत्व आसा तें खंयच सोडून मेळचें ना. आजमेरेन म्हजे यादीक कोणेंच आपलो

दिवाळी अंक दिवाळे दिसा लोकांमेरेन पावयल्लो अशें हावें पळोवंकय ना आनीक आयकूंकय ना.

म्हज्या घरकारान सगळें पळोवन घेतलें आनीक हांवें अंक थोडेवेळाखातीर कुशीक दवरतगीर म्हाका विचाल्लें, "तुका अंक पळोवन कितें दिसलें?" हांव सामकें भुरकुटून उलयतालें. "कितें सांगू तुका? ज्या दिसा हांव वयर येवन पयलीच साडी न्हेसून मिरयलें तशें म्हाका आज दिसलें. तुमी जाणात?" ताच्या खांद्याक हांव हालयत सांगतालें. आयकात "२००२ वर्सा मार्चांत हांव ताईबायगेर गेल्लेकडेन बिम्ब अंक पयलोच पळयल्लो. म्हाका नवो अंक म्हणटगीर वाचपाची हुरहूर. ताईबायन म्हळें, "मागीर वाच पयलीं जेवंक यो."

"कोणालो गे हो अंक?" हावें विचाल्लें.

"दिलीप बोरकार, तुमचोच पणजेचो." अशें म्हणत ती म्हजे म्हऱ्यांत बसली.

"सुफल म्हाका एकच हुस्को, हे खूब जाण अंक सुरू करतात आनी कांय वर्सांनीं बंद करतात तशें मात ह्या पोराचें जायना जाल्यार पुरो." ती उठून वताली. हांवें तिच्या मिरयांक धरून परत बसयली.

"तायबाय तो मगे दिलीप बोरकार, धव्या केसांचो आनी खाडाचो?"

म्हाका पळयत तिणें हय म्हळें.

"आं तोजाल्यार भंय ना तो पळोवंकच धाडसी आनी जिद्दी दिसता. ताचो अंक बंद पडचो ना." हांवें सांगलें.

"सुफल तूं म्हजे आयकशी? तुका हांव बोरकाराची वळख करून दितां. तूं बिम्बाक बरय आनी बिम्बाखातीर कितें तरी कर."

हांवें म्हळें, "नाका गे बाये. ताका पळोवंकच भंय दिसता. ताचें मुखामळच भयानक शें."

"ना गो तुजें असलें एक वखदाचें मूळ मेळत तर तो अंक नवो आसतना ताका आधार जातलो." ताईबाय उलयताली.

हांवें थंयच्यान कूस माल्ली.

उपरांत १७ ऑक्टोबर २००३ वर्सा ताईबाय ह्या संवसारांतल्यान गेल्यो आनी आज त्याच दिसा १७ ऑक्टोबराक दिवाळे दिसाच दिवाळी अंक म्हज्या हातांत पडटालो आनी तो कितल्या जाणामेरेन हांव पावयतां हाची उमळशीक म्हाका लागिल्ली. बिम्ब हांव चाळटालें खरें पूण म्हज्या दोळ्यां मुखार अर्दीमर्दी त्या अंकांतल्या पानांनीं म्हजी ताईबाय तकली वयर काडटाली. जिणें म्हाका बिम्बाची वळख केल्ली आनी ऑक्टोबरांत सासणाचो आमचो निरोप घेतिल्लो.

ऑक्टोबर म्हयनो सुरू जातलो हाची सुलूस लागतनाच म्हजो जीव खरें म्हळ्यार वयर सकयल जाता. सगळ्यो यादी जाग्यो जातात. गोड कडू सुक्यो ओल्यो कसल्योय जाल्यो तरी त्यो यादीच.

म्हाका १७ ऑक्टोबर म्हळ्यार चार दीस पयलींच सगळे येवजूंक लागता. त्या दिसा म्हजी ताईबाय गेल्ली तो दीस. ताईबाय म्हळ्यार म्हजी मावसकाकी (तुमकां नातें सांगपा पुरतें) स. विजयाबाय वासुदेव सरमळकार. ताईबायविशीं कितलें बरयता आनी उलयता तितलें थोडें. तिचेविशीं




उलयतना म्हाकाच हांव विसरतां आनीक खंयचे खंय पावतां. ताईबाय ही सगळ्यांची ताईबायच आसली.

म्हजे भुरगेपणांत म्हाका कळूंक लागिल्लें तेन्नाची म्हजी आनीक ताईबायची वळख. 'अण्णा' (ताईबायचो घरकार) दुयेंत म्हूण आईपापा खबरेक वतना तांचेवांगडा हांव गेल्लें आनी तिणें म्हाका वेंगेंत ओडिल्लें. तीच आमची दोगांयची पयली वळख. उपरांत ताईबायन म्हाका आपोवप, हांवें वचप हें सदचेंच.

अण्णा संवसारांतल्यान वतगीर ताईबायगेर म्हजें वचप चड जालें. नातें जरी पुतणयी काकीचें जालें तरी आमची इश्टागत वाडतच गेली. उपरांत म्हजी आई (सुमिलाबाय शंभू किर्तनी) काळजाच्या दुयेंसान अकस्मात गेली. ताईबाय त्या दिसा मुंबय आसली. आपलें गरजेचें काम अदर्यार उडोवन ती गोंयांत आयली. उमथे मानेन येवन घरांत भितर सरतनाच ताईबायन हेवटेन तेवटेन पळयलें आनी सगळ्यांक कळ्ळें ताईबायची नदर म्हाकाच सोदता. खुबजाणांनीं 'सुफल' म्हणनाफुडें हांव ताईबाय म्हज्यांत गेलें.

तिचें तोंड बाविल्लें, दोळे भरिल्ले, ओंठ तर हालताले. पूण उलयनासले. तिचीं उतरांच शेणिल्लीं. तिणें म्हाका घट्ट वेंगेंत घेत म्हज्या फाटीर हात भोंवडायलो. त्या हातांचो स्पर्श म्हजेकडेन खूब कितें उलोवन गेलो. ताईबायच्या त्या स्पर्शांत मोग, देख, हुनसाण, शीण, आपलेंपण सगळें घुस्पल्ले म्हाका मेळ्ळें. त्या दिसाच्यान हांव आनी ताईबाय चड लागिंची जालीं. आमी दोगीय घट्ट इश्टीणी आसल्योच त्या वांगडा आमी आवय धुवेचें नातेंय जोडलें.

तिचो सभाव सामको सरळ, शांत आनी खूबच मायेस्त. तिका सगळयां बाबतींत समजुतदार आनी काकुळट आसताली. ताईबायक मनशां वळखुपाक कळाव लागतालो. तिणें केन्नाय कोणाची खबर सांगतकीर हांव म्हणटालें, "आगे प्रत्येक मनशांमदींच देव देवचार मेळटा. तेन्ना मनीस तूं वळखूनच इश्टागत कर नातर तुका अशे त्रास जातात."

म्हज्या भुरगेपणांत ताईबाय णववारी न्हेसताली ती पळयल्या. पूण एक दीस ६वारी न्हेसली तेन्ना ती भुरगी जाल्ल्योचो म्हजो समज जालो. म्हाका उमेद जाली.

हांव ताईबायगेर रावंक वतालें तेन्ना तिका सकाळीं कळयतालें. त्या दिसा दनपरां जेवतगीर न्हीद नासली. वारांदार बसून म्हजी वाट पळयताली. पयसुल्ल्यान हांव दिसलें, म्हाका हात हालोवन फुडलेंदार उगडून वयल्या सोपणार रावन येवकार दिवप. 'बरें मुगो बाय?' म्हणत म्हाका वेंगावप. मागीर आमच्या खबरांक सामको उमाळो येतालो. रातभर दोगांयनी एकामेकाक कविता वाचून दाखोवप. जेन्ना हातुणाक फाट तेकताली तेन्ना हांव तिच्या गोपांत. केन्नाय तिगेर वचून तिच्या हातची रव्याभाकरी आनी बटाटफोव खालेबगर हांव केन्नाच घरा आयलें ना. जेवण

करतना तिका हांवें खूब वेळां आधार केला. पूण म्हजेखातीर रव्याभाकरी, बटाटफोव करतना तिणें केन्नाच म्हजो आधार घेतलो ना. सगळें आपणें करून हावें फक्त खावचें अशें तिका दिसतालें. तिच्या हातांतली गोडसाण त्या जिनसाक चिमटीभर साकर घालनासतनाच मेळटाली. थंय आमचे आवय धुवेचो मोग उफेतालो.

तिगेरच्यान वचपाचो दीस येवंचो अशें तिका तशेंच म्हाकाय दिसनासलें. पूण वचपाचो दीस आपूणच येतालो. सकाळीं वचूं नाका सांजवेळा वच हें तिणें म्हाका पयलेच दिसा सांगून दवरप. हांव वता म्हणटगीर तिची तरा ल्हान भुरग्यांवरीं जाताली. हांव वतना दोगांयचें मन जड जातालें. नजो जाता करून ताईबाय म्हाका निमणें सपणामेरेन पावोवंक येताली.

आयज ताईबायचो प्रत्येक स्पर्श म्हाका येवजता. तिणें केल्लो मोग, देखी जाळें हांवें म्हज्या ह्या काळजांत सांबाळ्ळां. तिचो वाढदीस २ माय हो. वर्सभर ती म्हाका आपल्या गोपांत दवरताली. आनी मायाचे २ तारकेक ती म्हजे वेंगेंत न्हिदताली. मायाची दोन तारकेक आमी वेगळ्याच जगांत आसतालीं. मनांतल्यान खोशी तर उफाट आसताली. आमचो दोगांयचो मोग दुसऱ्यामेरेन आमी केन्नाच पावयलो ना. तो एक दोगांयचो सभावगूण.

म्हाका भुरगेपणांतल्यान बरोवपाची आवड. बरोवन बरोवन डायऱ्यो भरिल्ल्यो ताईबायन पळयलें आनी वाचून म्हाका मार्गदर्शन केलें आनीक ह्या म्हज्या काळजांतले काजुले कागदार शिंपडावन तुमचेमेरेन पावोवपाक ताईबायनच सांगलें. तिचेखातीरच ही बरोवपाची उमेद वाडत गेली.

ताईबाय आनीक हांव एकमेकांक सुखापरस चड दुख्खाच्या वेळार लागींची आसलीं. दोगांयचे भरिल्ले दोळे, फुतफुतपी वोंठ आनी पोटांतल्यान येवपी सुस्कार आमकां एकमेकाक समजताले.

२ माय १९२४ दिसा ताईबायचो कारे घराब्यांत जल्म जालो आनी म्हजेलागीं पुतणयी/काकीचें तशेंच इश्टागतीचें, आवय/धुवेचें नातें सोपोवन ती १७ ऑक्टोबर २००३ ह्या दिसा संवसारांतल्यान गेली. ती गेली तरी तिचे यादीचीं अळमी काळजांत किल्लत आसात. तीं तशींच उरतलीं. हांव आसा तो मेरेन वर्सांतले दोन दीस, २ माय आनी १७ ऑक्टोबर म्हाका तरी केन्नाच विसर पडचे नांत.





– **सुफला रूद्राजी गायतोंडे**
मिरामार – पणजे.
मो. – ९८२३१११९१७

## पांचवो पुलाव

**साहित्य:** शीत सदांवरीं तयार करचें, २-३ मिरसांगो, २ कांदे, ५-६ पाकळ्यो लसूण, २ व्हडलीं कुलेरां तूप, अर्दवाटी कोथमिरे पालो, १ इंच आलें आनी रुची खातीर मीठ.

**करपाची तरा:** आलें, लसूण, मिरसांगो आनी कोथमीर वांटून घेवपाची. एका आयदनांत तूप घेवन तांतूंत बारीक शिनिल्लो कांदो तळसुवपाचो. मागीर वाटिल्लें वांटप, रुची पुरतें मीठ घालून शिजोवपाचें आनी तांतूंत शीत घालून बरें चाळपाचें आनी सोयऱ्यांक हुनहुनीत खावोवपाचें.

## तळिल्लें चिकन

**साहित्य :** बोनलेस चिकनाचे कुडके, २-३ कुलेरां मिरसांगे पिठो, २ कुलेरां हळदी पिठो, २ कुलेरां लिंबाचो रोस, १ इंच आलें, १ लसणिचो कांदो आनी रुची पुरतें मीठ.

**करपाची तरा:** चिकनाच्या कुडक्यांक मिरसांगे पिठो, हळदी पिठो, लिंबाचो रोस, रुची पुरतें मीठ आनी वांटिल्लें आलें-लसूण घालून १५ मिनटां मुरपाक दवरपाचें. मागीर हे कुडके तेलाचेर नुस्तें तळता तशें तळून घेवपाचें आनी सालादाबरोबर खावपाचें. बरें रुच्चीक लागता.

## जंबो ऑमलेट

**साहित्य:** २ बारीक शिनिल्ले मोठे कांदे, १ डब्बू मिरसांग, १ बटाट, ३ धाकटीं कुलेरां दूद, अर्द कुलेर हळदी पिठो, १/४ कुलेर मिरयां पिठो, २ तांतयां आनी २ कुलेरां तेल आनी मीठ.

**करपाची तरा:** कांदो, डब्बू मिरसांगो आनी वांटकुळी कापां केल्ले बटाट तेलांत तळसून घेवपाचे. हळद, मीठ, मिरयां पिठो, दूद आनी



तांतयां फेटून घेवप. तव्यार कांदो, बटाट आनी डब्बू मिरसांग पसरावन ताचेर फेटिल्लीं तातयां घालून तव्यार ताटली धांपून दवरची. ३-४ मिनटांनी उगडून पळयल्यार जंबो ऑमलेट तयार.

## क्रिस्पी बॉल

**साहित्य :** २ कांदे, १ गाजर, १ डब्बू मिरची, वाटीभर चिरिल्लो कोबी तसोच वाटीभर चिरिल्लो फ्लॉवर, २कुलेरां जिरें, २ कुलेरां सुक्यो कोथमिऱ्यो, २ हरव्यो मिरसांगो, १ इंच आलें, ४-५ पाकळ्यो लसूण, कोथमिरे पालो, २ धाकटीं कुलेरां लिंबाचो रोस, मैदा, कॉर्नफ्लॉवर, तेल आनी रुचीक मीठ. (मैदा आनी कॉर्नफ्लॉवर घेताना २ व्हडलीं कुलेरां मैदा जाल्यार ४ व्हडलीं कुलेरां कॉर्नफ्लॉवर घेवचो)

**करपाची तरा:** सगळें साहित्य थोड्या उदकांत कालोवन घेवन, लिंबाच्या आकारा इतले बॉल करून तेलान तळपाचे आनी हे बॉल सगळ्यांनी सॉस नातर चटणे वांगडा खावपाचे.

## पावाचो सांजो

**साहित्य:** थोडो हींग, १/४ कुलेर सांसवां, १ मिरसांग, अर्द कुलेर हळदी पिठो, ७-८ करबिलाचीं पानां, १ वाटी सोय, धाकटीं २ कुलेरां साकर, थोडो कोथमिरे पालो, अर्द कुलेर जिरें, २ कुलेरां तेल, २ कुलेरां तूप, मीठ आनी ४ पावाचे वा उंड्याचे बारीक कुडके.

**करपाची तरा:** तेलान हींग, सांसवां, बारीक चिरिल्ली मिरसांग आनी करबिलाची फोडणी घालपाची. पावाच्या कुडक्यांक हळद, साकर, सोय, जिरें, मीठ आनी इल्लें उदक घालून तळसून घेवपाचें. मागीर तें पावा कुडके फोडणी घातिल्ल्या आयदनांत तूप आनी कोथमीर घालून २-३ मिनटां चाळपाचें.

## पॉपकॉर्न भेळ

**साहित्य:** १ 'अॅक्ट- II' पॉपकॉर्न पाकीट (सगळे कडेन मेळटा), १ कांदो, १ टॉमाट, अर्द कुलेर मिरसांगे पिठो, लिंबायेदी आमटाण, गोडाचो कुडको, २ कुलेरां साकर, कोथमिरे पालो, थोडें उदक, चाट मसालो आनी रुची पुरतें मीठ.

**करपाची तरा:** एका तोपांत 'अॅक्ट- II' पॉपकॉर्न पाकीट फोडून घालप आनी तोपार ताटली अर्दवट धांपची म्हणजे थोडें भितल्लें वारें भायर वचपाक बरें. २-३ मिनटां भितर टक टक आवाज सुरू जावन पॉपकॉर्न तयार जातले. ते जातकर तांतूंत बारीक शिनिल्लो कांदो आनी टॉमाट, मिरसांगे पिठो, आमटाण-गोडाचे उदक, साकर, मीठ, कोथमिरे पालो आनी चाट मसालो घालून चाळपाची आनी बरी रुचीन सांजे चा वांगडा आमट गोड भेळ खावपाची.





- नेहा तेलंग
कांपाल, मिरामार,
पणजी.
फोन : ६५१६५१९

# सरकारी कचेरेंत एक दीस



एक दीस एका म्हत्वाच्या कामाखातीर एके सरकारी कचेरेंत पावलें. कांय कागदपत्रांचेर ऑफिसराच्यो सयो जाय आशिल्ल्यो. धा वरांचेर ऍपोइंटमेंट घेतिल्ली. अर्दवर बेगीन म्हळ्यार साडेणवाक ऑफिसांत पावलें. सरकारी नेमा प्रमाण साडेणव ते पावणे स हो तांचो कामाचो वेळ. पूण साडेणवाक एका प्युनाशिवाय थंय कोणूच नाशिल्लो. सकाळचीं धा वरां जाल्लीं आनी एकएकलो झेतान भितर सरपाक लागलो. हांवें प्युनाक विचाल्लें सायब केन्ना येतलो? ताणें म्हळें, "मॅडम सायब रजेर ना, म्हळ्यार पावणे स मेरेन केन्नाय येवपाक शकता." हांव ताका पळयतच उल्लें. रजा काडून ऍपोइंटमेंट घेवन हांव वेळेच्या अर्दवर पयलीं हजर राविल्लें. ही जाप आयकून भिरभिरी माल्ली. पूण काम अर्जंट आशिल्लें. पावणे स मेरेन पासिंयेस काडपाचें थारयलें आनी ऑफिसांतल्या एका बांकार बसून कचेरेंतलो कारबार नियाळपाक लागलें. एक मोटेली बायल धोलत धोलत सुशेगाद भितर सल्ली तेन्ना साडे धा जाल्लीं. बॅग खुर्चेर आपटून तिणें दोन मिनटां गोंयच्या बस येरादारी आनी गर्देचेर लेक्चर दिलें. आयकुपाक प्यून आनी हांव हांचे बगर कोणच नाशिल्लो. मागीर आपलो मेकअप जाग्यार घालून ती स्थानपन्न जाली. ऑफीस मात्शें भरिल्लेवरी दिसलें. आनंद तिच्या चेऱ्यार दिसतालो. मागीर हेच स्टायलीन एका फाटोफाट एक सगले कर्मचारी उसरां येवपाचीं कारणां एकामेकांक सांगीत प्युनाक च्याची ऑर्डर दिवन आपापल्या जाग्यार बसले. तेन्ना इकरा वरां जाल्लीं. ऑफीसाच्या भायल्यान लोक आपलीं कामां करून घेवपाक ताटकळत उबे आशिल्ले. पूण तांका तांची पर्वाच नाशिल्ली. प्रत्येकान एक दोन जणांच्यो फायली पळोवन आयज सायब ना फाल्यां यो म्हणीत चडश्या जाणांक धांवडावन घाले. सायबाक गाळी घालीत लोक गेले. साडेइकरांक ऑफीसांतले विसूय कर्मचारी बेकार. इतल्यान थंय सेल्समन येवपाक सुरवात जाली. पयलोच भितर सल्लो ताचेकडेन पुस्तकां आनी शब्दकोश आशिल्ले. तीं पळोवपाक पांच – स जाण उठले. म्हाकाय मोह जाल्लो. पूण संयम दवरून हांव म्हज्या बॅगांतलें पुस्तक काडून वाचपाक लागलें. कांय वेळान तो गेलो. मागीर साडयेकार भितर सल्लो. तो भितर सरनाफुडें ऑफीसांतलीं बारा बायलां ताचे फाटल्यान धांवलीं. बोवाळ आनी वाटपण करीत ४-५ बायलांनी साडयो घेतल्यो. एक दादलो कर्मचारी तापलो. साडयेकाराक धांवडावंक लागलो. बायलांनी ताका म्हळें, "धांवडटा कित्याक रे ताका. जाय जाल्यार तुजेय बायलेक एक साडी घे मरे. आमकां हांगा बाजारांत वचपाक वेळ ना." तो बाबडो तोंड धापून गेलो. मागीर एका आपमजत गटाच्यो बायलो तरातरांची खाणां, पुरणपोळी, चीकी बी घेवन आयल्यो. परत तांचे भोवतणी खेट. इकरा ते देड जायसर ७-८ सेल्समन आनी कर्तव्यदक्ष सरकारी कर्मचाऱ्यांनी म्हजो बरो टायमपास केलो. रोखडींच सगळींजणां जेवपाक बसलीं. हावेंय घोवाच्या ऑफिसांत फोन करून ताका आपयलो आनी आमी हॉटेलार जेवन आयलीं. येता म्हणसर तीन जालीं तेन्ना सगलें ऑफीस झेमतालें. सायब ना म्हणटकच लोकांची गर्दी ना. साडे तिनांक परत च्या चे घोट घेत गरम गरम विशयाचेर गजाली जाल्यो तातूंत मांय-सुनेच्या झगड्या पासून सॅलरी, प्रमोशन, डी. ए. पगारवाड, पेन्शन आनी सायबाचीं प्रकरणां आनी भ्रश्टाचारामेरेनचे सगले विशय आशिल्ले. चडशे जाण म्हाका वळखताले. हांव काम जाल्या शिवाय वचचें ना हेंय तांका खबर आशिल्लें. पावणे पांच जालीं. सायबाचो पत्तो ना. आयज घरा वेगीन वचपाक मेळटलें हे आशेन सगळीं जाणां पाचांकच मेकअप करून खांदाक पर्स लावन वचपाचे तयारेंत आशिल्लीं. साडेपाचांक त्या ऑफिसांत विसांतले तीन कर्मचारी प्यून आनी हांव इतलीं पांचूच जाणां उल्लीं. बरोबर पावणे संक पांच मिनटां आसतना सायब भितर सल्लो. ऑफिस रिकामें पळोवन तिडकलो. प्युनासकट उरिल्ल्या तीग जाणांचेर घरा गेल्ल्यांची तिडक काडली. आनी कॅबीनांत भितर गेलो. प्युनान म्हळें, "मॅडम तुमी भितर वचूं नाकात. सायबाचो मूड बरो ना." हांवें सरळ दार उगडलें आनी एस्क्यूज मी म्हणत भितर सल्लें. म्हजें काम करून घेतलें. आनी भायर आयलें!

पासियेंसान आनी करमणूकेन भरिल्लो एक दीस हांवें अणभवलो.





– अपर्णा गारूडी
शिवोली, गोंय
फोन : २२७२७५१

# डायरी-ए-काश्मीर

– दिलीप बोरकार



सदचेवरी सकाळीं साडेपांच वरांचेर जाग आयली. आंगार कसलें तरी जबरदस्त वजन! तसोच पडून रावून अदमास घेतलो, हांव खंय आसां रातचो?

एका परस चड घरां जालीं वो सातत्यान हांगा थंय भोवपाची संवय आसली म्हणटकच मागीर हें अशेंच जाता. आगशी घराकडेन आसा काय पणजे फ्लॅटार आसां? गोंयांत आसां काय गोंयां भायर आसां? हें सगळें सकाळीं जाग येतकच याद करची पडटा.

तशें करपा फाटलीय म्हजी एक मानसिकताय आसा. सकाळीं चलपाखातीर उठल्या बराबर जर संवये प्रमाण खाटीवयल्यान देंवूक गेलों जाल्यार घात जावपाचो. आगशी जावं वा जावं पणजे फ्लॅटार म्हज्या उश्याकडेन लायटीचो बटन बी ना. एक टॉर्च सकयल दवरतां हाताक लागता तसो इमर्जन्सी म्हूण! पूण तो पेटोवपाची संवय ना. हां; जाग आयले बराबर काळखांतूच खाटीवयल्यान सकयल देंवून लायट पेटोवंक वतां.

घराकडेन म्हज्या बेडरूमांत खाटीचें पॉझिशन वेगळें. ती रूमाच्या मदोमद आसा. खंयचेय सायडीन देंवल्यार भिरांत ना. पूण उजवे सायडीन देंवून वण्टीवयल्या बटनाक हात घालपाची संवय जाल्या.

पणजे खाट वण्टीक तेंकून आसा. खाटीवयल्यान सकयल देंवूक जाय जाल्यार दावेच वाटेन देवूंक जाय. घराकडचे संवये प्रमाण उजवे वटेन देवूंक गेलों जाल्यार पडलोच त्रासांत. तेच पासत जाग येतकच हांव पयलीं सुलूस घेतां, हांव खंय आसां? ते प्रमाण मागीर हांव फुडलीं पावलां उबारतां.

आंगार जी जडसाण आशिल्ली ती दाट दाट कांबळींची! लोकरीच्या कांबळीच्या त्या पेजानूच म्हाका याद करून दिली, हांव रातीं काश्मीराक पाविल्लों आनी हॉटेल 'सहारा' म्हणटात तातूंत दुसऱ्या मजल्यावेल्या एका रूमांत न्हिदिल्लों. थंडी आसू वा गरमी आसू, हांव न्हिदतना चडसो आंगार पांगरूण घेना. तशी आदल्या सारकी ती थंडीय आतां ना. म्हणटकच आमी जाका शिंयादीस म्हणटात त्या दिसांनी लेगीत चादरी वो गोजडी घेवपाचो प्रसंग सामको उणोच येता. तेच पासत आंगावयल्या कांबळींक लागून म्हाका चिड्डल्यावरी जाल्लें. तरी तसोच पडून रावून हांव येवजूंक लागलों.

रातीं न्हिदप तशें उसरांच जाल्लें. काश्मीराक आमीं पावलीं तीं साडेणवांक. मागीर हात पांय धुवन, जेवन बीवन हांतुणार पडटां म्हळ्यार बारा जावन गेल्लींच. दिसभराच्या प्रवासान आंग दुखून गेल्लेंच, तेच वांगडा काश्मीरच्या कर्फ्यूक लागून, वाटेर मेळिल्ल्या मशालींच्या मोर्चाक लागून आनी एके विचित्र शांततायेक लागून मनाचेर नाय म्हळ्यार दडपण आशिल्लेंच. ताका लागून

जीव सामको थकून गेल्लो.

जम्मूचे गरमेंतल्यान काश्मीराक पावता म्हणसर हवामानाचे कितलेच पदर आंगार पडून गेल्ले. तेच पासत काश्मीरची थंडीय जाणवूंक नाशिल्ली. खरें म्हळ्यार हांव काश्मीराक पावलां म्हणपाचें म्हाका जाणवूंक लेगीत नाशिल्लें अशें म्हळ्यार जाता. खाटीचेर दाट दाट दोन-दोन तीन-तीन कांबळी दवल्ल्यात तें पळोवन तर म्हाका हासुंकूच आयिल्लें. तांचेकडेन तुच्छतेन पळयत, तुमची गरज ना म्हाका म्हणत हांवें खाटीर घालून घेतिल्लें. पूण फांतोडेर हांव त्या कांबळींनी केन्ना घुसलों तेंच म्हाका खबर नाशिल्लें. म्हाका सामकी सुस्त न्हीद लागिल्ली.

थंडेक लागून कांबळींतल्यान भायर सरन दिसनाशिल्लें. वांठार संवकळीचो नाशिल्ल्यान चलपाक वचपाचो प्रस्नूच नाशिल्लो. न्हीद पडना आसली तरी जबरदस्तीन पडून रावपा बगर दुसरो पर्याय नाशिल्लो. पूण म्हाका खंय सूख लागता त्या कांबळी पोंदा?

खाटीचेर बसूनच सांसपडत सांसपडत हांवें लायटीचो बटन सोदून काडलो. लायटीच्या उजवाडांत घड्याळीर वरां पळयलीं. हय, सकाळचीं स जाल्लीं! संवयेचो गूण! साडेपांचाक जाग आयिल्ली आनी अर्दवर लोळून काडिल्लें. हांव असो उसरां मेरेन हांतुणार लोळपाक थोडोच आयिल्लों? काश्मीराच्या पयल्या दिसाची सकाळ,सूर्योदय बी म्हाका अणभवपाचो आशिल्लो. तो जर असो हांतुणार लोळून हांवें घालयलो जाल्यार म्हजे सारको कर्मकट्टो हांवच म्हणपाचों!

हांवें धावट वचून गॅलरीचें दार उक्तें केलें. दार उगडल्या बराबर घस्स करून उजवाड भितर आयलो. उजवाडा वांगडा थंड वावूय आंगाक स्पर्शून गेलो. कुडींत काळोख आशिल्ल्यान आनी जनेलांक, दारांक पड्डे आशिल्ल्यान म्हाका भायल्या उजवाडाची कल्पना नाशिल्ली. भायर तर चकचकीत उजवाड आशिल्लो. सूर्य खंय पावला हें पळयतलों म्हूण हांवें गॅलरींत पावल घालां मात सण्ण करून थंडेची सूय पांयांतल्यान तकले मेरेन पावली. कुडींत कार्पेट आशिल्ली. गॅलरींत टायल्स. टायल्स थंडेन बर्फ कशे जाल्ले. तांचेर उक्ते पांय पडल्यात मात, तळव्यांतलें रगत म्हाका दिसता गोठेलें! पांय थंडेन सामके मुयेले. हाय हूय करीत हांवें भितर धांव माल्ली.

म्हजेकडेन व्हाणो नाशिल्ल्यो. गरज पडल्यार घेतलों अशें येवजून बुटानीच भोंवतालों. जोतीं नासल्यार भायर सरप कठीणूच आशिल्लें. दिल्ली घेतिल्लीं वर्तमानपत्रां हांवें बॅगांत चोंदिल्लीं. तीं आतां गरजेक पावलीं. काडून गॅलरींत उडयलीं आनी तांचेर वचून उबो रावलों.

गॅलरीच्या मुखार सगळीं हॉटेलांच. दिसूंक घरां कशीं दिसतालीं. पूण त्या घरांचें रूपांतर हॉटेलांनी जाल्लें जावंक जाय. भायर सुकत घाल्ल्या कपड्या वयल्यान तीं आम जनते खातीरचीं हॉटेलां म्हूण कळटालीं. आमचेंच सहारा त्या वांठारांतलें पॉश हॉटेल आसूंक जाय!

हॉटेलां कशींय आसूं! एक गजाल मात सगळेकडेन नदरेक भरताली ती म्हळ्यार हॉटेलांच्या दारांत, माळयेर जंय जंय रिकामी सुवात मेळटा थंय थंय वाज दवरून तांतूंत गुलाब फुलयल्ले. गुलाबा वांगडाच हेर फुलांय दिसतालीं. पूण तांतूंत चड प्रमाणांत झाडां मिरयतालीं तीं गुलाबाचीं. फुलांचे ते वेग-वेगळे रंग पळोवन हांव भुल्लुसलों. तरी म्हाका काश्मीरचो सूर्य पळोवपाची उमळशीक लागिल्ली.

गॅलरीचे दावे वटेन वयर वयर दोंगर आशिल्ले. तीच पूर्व दिका आशिल्ली. त्या दोंगरा पलतडीं मुखखार बर्फाचो चादर घेतिल्ले दोंगर दिसताले. हांव सगळ्याक सूर्य सोदतालों खरो पूण तो जंगलांत झाडांनी लिपिल्लो. पूण वत मात पडलां तें दिसतालें.

हांव हांगा थंय सोदतां थंय आसां, एका रूखा फाटल्यान लिपून सूर्यान म्हाका दर्शन दिलेंच. ती सया फांतोडे वयल्या सूर्याची नाशिल्ली. तो सूर्य दिमखुऱ्यांनी चलत केन्नाच वयर आयिल्लो. म्हणचे हांगा सूर्य उदेतालो तो सकाळीं पांचा पयलींच तर!

आमचो आयचो कार्यक्रम तसो कांयच थारूंक नाशिल्लो. सगळो कार्यक्रम तांचेर अवलंबून आशिल्लो जाणीं आमकां हाडून थंय त्या 'सहारा'त सहारा दिल्लो. हो सहारा फुडले पंदराय दीस काय तात्पुरतो हाचीय कल्पना नाशिल्ली. जेन्ना आमी आमचें पुराय आदन तांचेर दवरून आयल्यांत म्हणटकच हांवें कसलोच कार्यक्रम आखपाची गरज नाशिल्ली. तसो हांव म्हाका जाय थंय वचपाक मुक्त आशिल्लों.

कामिनी आनी कुकी अजून न्हिदल्यांत आसतलीं असो म्हजो समज. कारण सकाळीं बेगीन उठपाची गरज ना अशें रातीं न्हिदूंक वचचे पयलींच थारिल्लें. आनी असल्या ह्या शिंयाच्या कडार, मोव मोव कांबळी सांगाताक आसतना कुकी सकाळीं फुडें उठप म्हळ्यार सूर्य खंयच्यान उदेला हें पळोवंचें पडपाचें! पूत न्हिदला म्हणटकच आवयूय ताचे वांगडां सकाळची साकरन्हीद घेता आसतली असोय हांवें समज करून घेतिल्लो. पूण म्हज्या आवाजान जावंये वो न्हीद पडना म्हूण जांवये कामिनीय आपले कुडींतल्यान भायर गॅलरींत आयिल्लें. आयलें तशें हाय हूय करीत उडक्यो मारीत परत भितर गेलें आनी व्हाणो घालून परतून भायर आयलें.

"आवय! कितली थंड रे जमीन! पांय मुयेता मरे!"

गॅलरींत येवन कामिनीन म्हायती दिली. पेपराचेर उबो रावून लेगीत म्हज्या पांयाच्या तळव्यांतल्यान भितर सरून थंडी म्हजें रगत गोठयताली. सकाळीं कितें घडलें तें हांवें ताका सांगलें तशें हासून हासून ताका

नाका शेवट जालो. तशेंच फाव तुका अशेंच कितें तरी ताका म्हणपाचें आशिल्लें जावंये!

. हांव सकयल वतां अशें सांगून सकयल देंवून आयलों. काश्मीराक जाग आयिल्ली पूण कोण कामाक लागूंक नाशिल्लो. दवाच्या थेंब्यानी भिजिल्ल्या फुलांक तोखेत हांव तांचे रंग नियाळूंक लागलों.

मोव मोव भांगराळ्या वतान म्हजी थंडी खंयचे खंय सुकोवन उडयल्ली. पयलीं गोंयांत जेन्ना कुडकुड्याची थंडी पडटाली तेन्ना असल्या वोतांत बसूंक कितली मजा येताली! मागीर तसली थंडी नाच जावन गेली आनी तें वोतांत बसप, धगाक बसप बी खंयचे खंय शेणून गेलें. कितल्या तरी वर्सांनी तें सूख म्हज्या वांट्याक आयिल्लें.

हांव वोतांत गणयत त्या हॉटेलाच्या दारांतलीं, वण्टीचेर लांबतल्या वालींच्या फुलांची सुंदराय म्हज्या दोळ्यांत साठोवंक लागलों.

काश्मीरी लोकांच्या जिवितांत तरातरांच्या फुलांनी क्रांती केल्या अशें हांवें आयकल्लें. काश्मीरच्या गुलाबाविशीं आयकल्लें. काश्मीरचे सुंदरीच्या गालार गुलाब फुलतात म्हणपाचें आयकल्लें.पूण हांगा जळामळाक जीं फुलां फुलिल्लीं दिसतालीं तीं पळयल्यार हांगच्या लोकजीवनांत फुलांक कितलो मान आसा तें कळटालें. वचत थंय फुलां. तातूंत चडशीं गुलाबाचीं फुलां. गुलाबूय म्हूण कसले! आकांताचे! आमी गोंयांत पळयतात तसले गुलाब न्हय ते! एक एक गुलाब दोनूय हातांच्या पोशांत जावपा सारके न्हयच आशिल्ले. मोठ्या गुलाबा वांगडाच ल्हान ल्हान गुलाबांनी भरिल्ले घोसांचे घोस दोळ्यांक थाकाय दिताले. तांचो परमळ धुंद करतालो.

म्हजें थंय गणोवप दोन दोळे बरोच काळ सावन पळयत आशिल्ले. म्हाका तसो भास जातालो खरो! पूण जळामळाक तर कोणूच दिसनाशिल्लो. हांव फुलां तोखेत तोखेत त्या हॉटेलाच्या ऑफिसाकडेन आयलों. थंय दुरगाचे वण्टीचेरूय तरातरांचे वाज दवरिल्ले. हीं तरातरांचीं फुलां म्हळ्यार सकाळच्या त्या वेळार म्हजे भोंवतणी रूजवण घालपी ल्हान ल्हान



माणकुलीं भुरगींच कशीं.

म्हाका झाडावयलीं फुलां तोडप केन्नाच आवडना. मागीर तीं देवाच्या नांवान तोडिल्लीं आसूं ना तर आपले मोगिकेक भेटोवपाखातीर काडिल्लें एक फूल!

मोगिकेक फुलां भेटोवपाची परंपरा ही बरीच आद्य. आमच्या इतिहासांत आनी पुराणात लेगीत ह्या फुलांचो वापर आपल्या मोगाच्या मनशांखातीर केल्लो दिसून येता. दोन जीवांच्या मोगा खातीर आजवेर कितलीं तरी फुलां बळी गेल्यांत. कितले तरी कळे फुलचे आदींच आपलें फुलप शेणोवन कोणाचे तरी प्रेमिकेखातीर आपलें आयुश्य कुर्बान करून गेल्यात.

हॉटेल 'सहारा'चो मालक हमीद ऑफिसांत बसून काम करतालो. ताचेच दोळे येदोळसावन म्हजेर लागिल्ले. कोण तरी म्हाका सतत पळयता असो जो भास जातालो तो हाच्या दोळ्यांचो. हांव ऑफिसाच्या भायर आसां तें पळोवन तोच उठून भायर आयलो. ताणेंच आपूण ह्या हॉटेलाचो मालक म्हूण म्हाका वळख करून दिली.

हांव गोंयकार म्हूण कळटकच तो म्हाका मेळपाचे उमळशिकेंत आशिल्लो. तांतूंत ताका खबर कळिल्ली हांव लेखक बी म्हूण! ताका तेच पासत आनीकूय खुमखुमी आयिल्ली. म्हाका असल्या सुंदर सकाळच्या पारार खरें म्हळ्यार एकांत जाय आसता. समविचारी लोक आसल्यार गजाल वेगळी. पूण धतरिवेले हेर पामर, जे फकत पोट भरपाच्या, दुडू करपाच्या वावरांत गुल्ल आसतात तांची वटवट म्हाका मातूय कोताक येना. मनीसघाणो म्हणचो न्हय म्हूण हांव तांचेकडेन संबंद दवरतां आसलो तरी चडांत चड कल आसता तो तांकां कटोवपाकडेन.

ताचें नांव हमीद. साठी हुपून गेल्लो हो आदलो सरकारी अधिकारी. ताणें पयलेच धपक्याक म्हाका सांगलें तें ह्या ताच्या हॉटेलांत हे आदीं डॉम मोरायस रावन गेला. तो हांगा येवन रावतालो आनी बरयतालो बी अशें कितें कितें सांगूंक लागलो. डॉम मोरायसाक तो गोंयकार म्हूण वळखतालो आनी हांव गोंयकार म्हूण कळटकच ती गजाल केन्ना एकदां म्हाका सांगनशी जाल्ली. डॉम मोरायस कितलो गोंयकार हें म्हाकाय खबर नाशिल्लें. तरी पूण तो गोंयकार म्हूण म्हाकाय अभिमान आशिल्लो. तसो म्हाका खूब जाणांचो अभिमान आसा. लता मंगेशकार आनी सगळें मंगेशकार कुटूंब हें गोंयकार म्हूण सांगपाक म्हाका अभिमान भोगता. कित्याक त्या कुटुंबान संवसारभर नामना मेळयल्या.



तांच्या व्हड जावपाक गोंयचो आनी गोंयकारांचो कसलोच वांटो नासूं मागीर! तीं व्हड जाय मेरेन लता, आशा बी कोण आशिल्लीं हेंय गोंयकारांक खबर नाशिल्लें जावं मागीर! पूण आतां आमच्या गोंयकारांचीं हड्डीं सामकी मुखार सरतात. तांणीं आपल्याक गोंयकार मानलेंना तरी तीं गोंयकार म्हणत सगळे गोंयकार अडेचें मोठेपण घेतात तांतलीच ही गजाल.

हमिदाक डॉम मोरायसाचो अभिमान दिसपाचें कारण म्हळ्यार डॉम मोरायस एक लेखक. गोंयकार लेखक. हांवूय एक लेखक आनी हांवूय गोंयचो म्हणटकच डॉम मोरायसा कडली आपली वळख सांगपाची ताची इत्सा तो दामून दवरूंक शकनाशिल्लो. म्हाका एक गरम गरम च्या दिवन ताणें डॉम मोरायसाविशीं बरीच म्हायती म्हाका दिली.

मागीर ताणें आपली म्हायती दिली. काश्मीरच्या मुखेल सचिवाच्या पदा मेरेन पावून मागीर आपखोसयेन नोकरी सोडून ह्या हॉटेल वेवसायांत आयिल्ली ही व्यक्ती बरीच इंटरेस्टींग दिसली. ताचेकडेन खूब कितें सांगपा सारकें आशिल्लें. म्हाकाय खूब कितें आयकून घेवपाचें आशिल्लें.

म्हाका भोंवडी करप आवडटा. पूण भोंवडी करप म्हळ्यार कितें? थंय वचून मजा करप? थंयची सैमीक सुंदराय पळोवप? थंयच्या लोकांक जर मेळना, थंयच्यो समस्या जर समजून घेना, थंयचे संस्कृतायेची वळख जर करून घेना जाल्यार मागीर त्या राज्याची, त्या देशाची भोंवडी आपणें केल्या अशें सांगून मिरोवपांत कितें अर्थ आसा?

हांव भोंवडी करूंक वतां तो थंयच्या लोकांक मेळूंकच. म्हाका हमीद आपूण जावन खूब गजाली सांगूंक सोदतालो.

हमिद स्वता लेखक आशिल्लो. तशीं पुस्तकां बी बरोवंक नाशिल्लीं. पूण वर्तमान पत्रांचेर लेखन केल्लें. ताचीं कटींगां म्हजे मुखार दवरून ताणें ताची खात्री म्हाका करून दिली. काश्मीरच्या समस्यांचेर ताणें लेख बरयिल्ले.

हमिद मुसलमान. पूण तो मुळचो मुसलमान न्हय. आपले पूर्वज काश्मीरी पंडित म्हणपाचो अभिमान ताका आसा. कांय पिळग्यां आदीं ताच्या पुर्वजांनी धर्मांतर केल्लें खंय! ताची पणजी काय शेणजी ही आद्य शंकराचार्याची एक परमभक्त आशिल्ली आनी तिणें शंकराचार्याची सेवा केल्ली. ती गजाल अभिमानान सांगता आसतनाच आपल्या आंगांत काश्मीरी पंडितांचें रगत व्हांवता हाचो ताका अभिमान आशिल्लो. पूण रगताच्या अभिमानान देशांत सदांच दंगे घडोवन हाडल्यात. रगताच्या अभिमाना परस देशाचो अभिमान म्हाका चड गरजेचो दिसता. होच अभिमान रगताचो रंग विसरून एकवटाचे बंदपास चड घट करता.

काश्मीरच्या मुसलमानांक पाकिस्तानांत कशेंच वचपाचें ना. काश्मीर मुक्त करपाच्या आतंकवादी कारवायांत काश्मीरी मुसलमान नांत अशें हमिद पोटतिडकेन सांगतालो.

कामिनी सकयल आयलें आनी म्हजी हमिदाकडच्यान सुटका जाली. तरी ताचे कडल्यान बरीच म्हायती विचारनासतना म्हज्या पदरांत पडिल्ली. पूण कामिनी येतकच ताणें च्या घेवपाक ताकाय आग्रो केलो. बेल मारून च्या हाडपाकूय सांगली. कामिनी च्याचे ओडिनूच सकयल आयिल्लें. कुकीक उठोवपाचें धाडस ताणें भोवतेक करूना आसतलें.

शाळेक वचपाची कटकट ना. अभ्यासाचो हुसको ना अशे तरेचें स्वातंत्र्य जेन्ना भुरग्याक मेळटा तेन्ना तो कितलो मुक्त आसता हाचो अणभव हांवेंय घेतिल्लो. काश्मीराक भोवपाची ताका जितली उमळशीक आशिल्ली तितली ही न्हीदूय ताका सुखाची आशिल्ली. आमचे दिमतीक दवरिल्ले ते मन्सूर आनी आझाद केन्ना येत तें सांगूं नज आशिल्लें. कुकी उठल्या बगर ब्रेकफास्टूय करूंक वचप शक्य नाशिल्लें. आमका आमचोच जीव तो मेरेन खेळोवपाचो आशिल्लो.

हमिदान हाडिल्ली च्या सोपोवन आमी भायर सल्लीं. थंय बसल्यार हमिदाक आपलें कर्तुत्व सांगपाक आनीकूय हुक्की येवपाची. कितेंय जावं, काश्मीराक लेखकांविशीं आदर आशिल्लो एक हॉटेल मालक मेळप म्हळ्यार म्हजेखातीर भाग्याचीच गजाल आशिल्ली.

कामिनी फुलांच्या त्या संमेलनांत

सामकें भारावन गेल्लें. ताका खंय खबर हीं फुलां म्हळ्यार फकत एक झलक, एक ट्रेलर म्हूण! आमकां फुडल्या धा-पदरा दिसांत खूब कितें पळोवपाचें आशिल्लें. जाय आशिल्ली ती हें सगळें पळोवपाची नदर आनी आतंकवादाच्या दबावांतल्यान मुक्त अशें वातावरण.

आयच्यान कर्फ्यू काडला अशें सगळेच म्हणटाले. पूण थंय फाटले कांय दीस कर्फ्यू लागिल्लो अशें काय दिसनाशिल्लें. हांगा दोन काश्मीरां वसतालीं जावंक जाय. एक आतंकवाद्यांच्या दबावान वावुरपी काश्मीर, जें खेड्यांनी वसलां आनी दुसरें पर्यटन काश्मीर जें दल सरोवर आनी श्रीनगर भोंवतणीं वसलां.

श्रीनगर आनी दल सरोवराक आतंकवाद्यांनी सूट दिल्या. ते पासत सरकारानूय थंय कडक सुरक्षा दवरिल्ली आसली तरी थोडें मुक्त धोरण दवरिल्लें. पर्यटन हो काश्मीरचो आर्थिक कणो जाल्ल्यान तशेंच पर्यटनाचेर आतंकवादाचो परिणाम जाल्ल्यान पुराय श्रीनगर आनी दल सरोवराचो परिसर भिकेक पाविल्लो. तांतुंतल्यान उपाय काडपा खातीर शक्यतो खंयच्याय आंदोलनांतल्यान श्रीनगराक वगळावचें अशें आतंकवादी आनी आंदोलकांनी थारायिल्लें खंय! ते पासत पर्यटन सुवातो सुरक्षित आसात अशें जरी सांगताले तरी केन्ना शटर सकयल ओडचें पडत हें सांगपाक जायना आशिल्ल्यान सगळे ते तयारेंतूच आसताले.

मन्सूर आनी आझादची पथारी साडे अकरांच्या सुमाराक हजर जाली. आमी सगळीं न्हावन-धुवन तयार जावन तांची वाट पळयत बशिल्लीं. विरंगुळो म्हूण रूमांतल्या केबल टिवीचो बटन दामताले. चडशे चॅनल मुस्लीम धर्माचेच उर्दू चॅनल. कांय चॅनलांचेर हिन्दी पिक्चरांय दिसतालीं. तींय बी काश्मीर वातावरणाक पुराय पुरक अशीं. कुकीचे डब्लू



डब्लू एफ आनी स्पोर्टाचे चॅनलूय गायब जाल्ले. तेच पासत 'खंय पावले हे? खंय पावले हे?' म्हणत तो एक एक चॅनल दामतालो आनी मर्दीच - मम्मा, भुकेन जीव कितें जाता मगे! चल या आमी' म्हणटालो.

भुरग्यांचें जिवीत कितलें सुंदर आसता. सुखान भरिल्लें तें भुरगेपण! कुकीक लागून म्हाका जिवितांतल्या वेगवेगळ्या बदलांचो अणभव घेवंक मेळटालो. म्हजेंच भुरगेपण हांव ताच्यांत सोदतालों. आतांच्या भुरग्यांच्यो गरजो वाडल्यात आसू येता वो काळाच्या बदला प्रमाण गरजांतूय बदल जाला आसू येता.कुकी आतां पंदरा वर्सांचो. कालूच धावेची परिक्षा पास जावन आतां अकरावेक पावला. मॅट्रीकेक ६१ टक्के मार्क घेवन पास जावप ही आमकां समादानाचीच गजाल. आमी दोगांय ही टक्केवारी मानिनांत. पांचवी पासून कुकीक पळयतां. ताका अभ्यासाची सक्ती केन्ना करची पडलिना. ताच्या वयाचो आसतना म्हाकाय कोणें केल्या हाची म्हाका याद जायना. आपल्या मना प्रमाण अभ्यास करून हांव सदांच पयल्या-दुसऱ्या नंबरार आसतालों. कुकीय आपले मतीन अभ्यास करून एक एक वर्ग मुखार चडिल्लो आनी साठ टक्के मार्क हुपून पास जाल्लो. ९०/१०० टक्के मार्क घेवन पास जावंक जाय म्हणत ताच्या भुरगेपणाचेर आमी कोणेंच दडपण हाडूंक नाशिल्लें. ताच्या पिरायेचो आसतना म्हज्या पांयांत व्हाणो नासताल्यो. उक्त्या पायांनी हांव पांच कि. मी. वतालों आनी पांच कि. मी. येतालों. हांव जेन्नां कुकीचे पिरायेचो आशिल्लों तेन्नां रबराचीं जोतीं रूपया-देड रूपया आसूंक जाय. आयज कुकी आनी ताचे पिरायेचे भुरगे आपल्या पांयांक स-स हजारांचे बूट घालताले.

मन्सूर आनी आझाद आयले आनी सगळ्यांत पयलीं ताणीं चूक मागली. येवपाक कित्याक कळाव जालो काय म्हळ्यार ट्रॅफीक जाम आशिल्लो. काश्मीरांत अजून कर्फ्यूचें वातावरण पयसावंक ना म्हणपाचें आयकूंक येतालें आनी हे भुरगे ट्रॅफीक जाम म्हूण सांगताले. ह्या ट्रॅफीक जामान खूब लोकांची सोय केल्या. कळाव कित्याक जालो काय म्हळ्यार ट्रॅफिकांत फसलों! मागीर तो के.जी.क वचपी शाळेचो भुरगो आसूं नातर खंयच्याय राज्याचो मुखेलमंत्री आसूं. ट्रॅफीक जाम सारकें दुसरें खंयचेंच विस्वास दवरपा सारकें कारण हालींच्या काळांत ना.

हांगच्या चडश्या तरनाट्यांक आनी

हेर लोकांकूय चलता भोंवतना, उबो रावतना बोल्सांत हात घालपाची संवय. हांगा पडपी थंडेचो तो परिणाम म्हणपाचें सांगपाची गरज नाशिल्ली. आमीय गोंयांत थंडेच्या दिसांनी हात कामरून वो बोल्सांत हात घालून अशेंच भोंवतात. काश्मीराक तर गोंयचे मानान बाराय म्हयने थंडी. देखून ही बोल्सांत हात घालून भोंवपाची, चलपाची स्टायल आसूं येताली.

आझादाक आनीक एक संवय आशिल्ली ती म्हळ्यार उलोवंक सुरू करचे पयलीं तोंडान सूऽ करून वारो भितर घेवपाची! उलोवंचे पयलीं, उलोवन जाले उपरांत तो सूऽ करतालो. हो अशें कित्याक करता काय अशें दिसतालें! पूण आमीय थंडे दिसांनी तशेंच करतात. शिळोणी घालूंक वोठांचो आकार करतात तसो करून हवा भितर ओडप, सूऽ करप आनी भायली थंड हवा भितर घेत ते थंडसाणेचो जिभेन स्पर्श घेवप. हांगाय हे थंडेंत तो तसोच करतालो. भोवतेक लोक हांगा तशेंच करतात आसतले. आझाद करतालो. जॉन साब गोंयांत लेगीत करतालो. "दिलीप साब क्या हाल है?सूऽ"

"भाभीजी आज गाडीका इंतजाम नही हो पाया. कल होगा. आज हम इधरही दाल लेककी तरफ सैर करेंगे, सूऽऽ" आझादान म्हळें.

"पहले हम कुछ खायेंगे" कुकीन ताका म्हळें. त्या बराबर आझाद खो खो करून पयलीं हांसलो आनी मागीर म्हणूंक लागलो "आपने कुछ खाया नही? अरे क्या बात है? आपने तो खाना चाहिए था! चलो पहले खायेंगे."

आतां हे आमकां गाडी घेवन व्हरपाक येवपाचे आशिल्ले सकाळीं णव वरांचेर. मागीर वांगडा आमी ब्रेक फास्ट करपाचे आशिल्ले. आनी हे हो हो करून हांसत 'खाया नहीं अभी तक?' म्हूण विचारतात. हांचे सोणकुटेचेर फुलोवपाचें न्हय!

परिस्थितीय तशीच आशिल्ली. शोपिया प्रकरणाक लागून अजून गांवचे वातावरण तंग आशिल्लें. कर्फ्यू काडिल्लो तरी केन्ना परत लागूं येत सांगू येना आशिल्लो. गाडी पुलवामा म्हणटात थंय जॉन साबागे[illegible] आशिल्ली. ती भायर काडप शक्य नाशिल्ली कोण केन्ना फातर मारत हें सांगूं येन[illegible] आशिल्लें. हांगा श्रीनगराक सुरक्षीत आशिल्लें खरें पूण केन्नाय खंयीय उद्रेक जावं येतालो हे पासत आमकां श्रीनगरूच दवरिल्ले आनी पुलवामांतल्यान गाडी हाडटा म्हणस[illegible] श्रीनगराकूच एखाद्री गाडी ते पळोवपाचं आशिल्ले. गाडी पळयलीय बी! पूण ती धुवपाक आनी थो डी दुरूस्ती करपाची आशिल्ली.

म्हळें चला, आयज हांगाच पळोवय कितें पळोवपाचें तें! पयलीं खावया आन[illegible] मागीर दल सरोवर खंय आसा तें पळोवया

(चलता...

# भार वाडत आसा

हालींच पेपराचेर वाचिल्लें, कोणें तरी दारांत येवन उदक मागलें. घरांतलो मनीस उदक हाडपाक भितर गेलो तेन्ना उदक मागप्यान भितर वचून ताचो किमती मोबायल आनी हेर बारीक वस्तू ज्यो हॉलांत आशिल्ल्यो त्यो घेवन फुज्जो काडली. म्हणटगीर दारांत कोणूय भुकेल्लो किंवा तानेल्लो आयलो जाल्यार तांची काकुळट करपाची ना हो धडो हातुंतल्यान शिकोवपाचो म्हळ्यार अतिताय जावपाची ना.

तशें पळोवपाक गेल्यार गोंयकार हो सुशेगाद जरी आसलो तरी आयिल्ल्या-गेल्ल्यांचो थातोमातो करीत ङ्कअतिथी देवो भवङ्क हो मंत्र आपणावपी म्हण गोंया भायल्या शारांनी पुसून फामाद आसा. पूण असल्या घडणुकांनीं तो दुदावाट्याचें ताक पुसून फुकून पिवपाक लागतलो. शांत आनी सैमसुंदर अशा ह्या गोंयांत आतां नाका आशिल्ल्यो घडणुको तकली वयर काडूंक लागिल्ल्यान कितल्याय लागीच्या पसून मनशाचेर विस्वास दवरपाचो जाल्यार धा खेपेक चिंतचें पडटलें.

फाटल्या दिसांनी एटीएमांतल्यांन फटीच्यो नोटो आयिल्ल्यान सगळ्याक बोवाळ माजिल्लो. आपली घामाची, कश्टाची पुंजी दवरपाचो एकमेव विश्वासू मार्ग म्हळ्यार बँक. त्या बँकाच्याच एटीएमांतल्यान बोगस नोटो येवपाक लागिल्ल्यान बांदिल्ले ते वयेनच शेत खावपाचो प्रकार जालो. हातावेल्या पोटाचो म्हळ्यार जाचो म्हयन्याचो पगार म्हयन्याच्या दोनीय तोकांची सांगड घालता म्हळ्यार जाका नाकांतल्यान शिको येवपाक लागतात ताचो पगार समजा बँकेंत वता आनी ताका उत्पन्नाचें हेर कांय साधन ना ताच्या पगारांतल्यो एक-दोन हजारांच्यो नोटो जर फटीच्यो आयल्यो तर ताचेर ब्रह्मांडच कोसळटलें आनी हें लुकसाण तो भरून काडटलो जाल्यार प्रामाणिकपणान आपलो दिसपट्टो वेव्हार करूंक शकतलो?

अशेंच फाटीं हांव मडगांवां नणेगेर गेल्लें. ताच्या पुताच्या वाडदिसाक. सालाकडेन येगदारीच्या रस्त्यार ताचें घर. आमी भायर येवन उबीं आशिल्लीं. तेन्ना एक मध्यम वयाचो सुमार मनीस दारामुखार येवन उबो रावलो आनी आपल्याक बायल, पूत कोण ना, फकत लग्न करून दिल्ली धूव पेडण्या रावता, दोतरागेर वचपाखातीर तिचेसरीन वचपाक थोडे पयशे दी म्हणपाक लागलो. जायजाल्यार आपल्या हाताचें घडयाळ दवरतां म्हण सांगपाक लागलो. कांयच विचार करचेपयली म्हजे नणणेन घरांत वचून ताका पन्नास रुपयांची नोट हाडून दिली. ङ्कआगो, खरें-खोटें कितें तें काय पळयलेंना मगो तुवें.ङ्क अशें हावें म्हणनाफुडें ङ्कजावं आज ताचो वाडदीस न्ही? कोणा रुपान कोण आयिल्लो म्हण कोण जाणा. म्हणून हावें दिले.ङ्क अशें ताणें म्हणटगीर काळजाच्या खंयच्या तरी कोनशांतले अंधश्रध्देक आमी अशें करून सारें-उदक घालतात आनी हाचो फायदो गरज आशिल्लो आनी नाशिल्लोय बी घेतलोच न्हय? गोंयकाराचे हेच मानसिकतायेचो अभ्यास करून आतां गोंय म्हळ्यार एकेक वायट घडणुकांचें केंद्र जावपाक लागलां.

दिसपट्टे वाडटे म्हारगायेक लागून सामान्य मनशाकच न्हय तर मध्यमवर्गीय लोकांक पसून जीणें नाकाशें करून सोडलां. दिसपट्ट्यो लागपी वस्तू तांदूळ, नुस्तें, भाजी, कड्डण हांच्यो किमती भरपूर प्रमाणांत वाडल्यात. ते भायर येरादारी करपाखातीर लागपी पेट्रोल दिसानदीस म्हारग जायत वता. हाका लागून हातांत आयिल्लो पयसो कसो सोपता तेच कळना जालां. ताच्याभायर दुयेंसांखातीर लागता तो पयसो तर विचारूंकच नाका. एक वेळार कोणाकय उपाशी रावपाक परवडत पूण जाता तितलो पयसो तो दुयेसां बरी करपा खातीर मोडटलोच मोडटलो.

दर एकल्याक दिसता आपणें जगांतलीं सगळीं सुखां भोगचीं. आपल्याय बोल्सांत चार पयशे खुळखुळचे, पयशांक लागून तरी लोकांनी आपणाक मान दिवचो. म्हण जो तो पयशां फाटल्यान लागला. आनी हाचो परिणाम म्हळ्यार झटपट मार्गान पयशे मेळोवपाक शिकप आनी हातुंतल्यान चोरी, दरवडे, खून दिसानदीस वाडत वतात. आतां तर गोंयकार पुसून एकेक क्लुप्त्यो शिकल्यात जाका लागून हाच्यापयलीं गोंयांत केन्नाच घडनाशिल्ल्यो घडणुको घडून गेल्यात. आंकवार चलयांचे महानंदान केल्ले खून, तशेंच गोंयच्या तरनाट्यांनी लिफ्ट दिवपाच्या निमतान केल्ले खून ही हालींच जाल्लीं उदारणां ताजींच आसात. देवळां फोडप, मूर्त्यो तोडप हें तर सदचेंच जावन पडलां. हालीं-हालीं तर बंद आशिल्लीं घरां हेरून रातचीं फोडून तातुंतलो म्हालवज फारावप, आपल्या बरोबरच्या भुरग्याक किडनॅप करून ताच्या आवयबापायकडच्यान खंडणी मागप, वेश्या वेवसाय करप आनी हे सगळे गुन्यांव पचोवप हें नित्याचेंच जावन पडलां. आनी असल्या गुन्यावांक खतपाणी घालपी आमचेच धार्मिक तशेंच राजकारणीय लोक जावन आसात.

आमच्या शांत सुंदर गोंयांतल्या मुखामळावेलो काळो दाग दिसानदीस वाडत आसा. सैमाकय हें असह्य जालां. काणकोणांत आयिल्लो हुंवार, चक्रीवादळ हो ताचोच घुसमट. त्याभायर वेगवेगळ्या दुयेंसांनी तकली वयर काडल्या. डेंग्यू, चिकनगुनिया, स्वायन फ्लू हीं ताचीं कांय उदाहरणां.

गर्देच्या जाग्यार बाँबस्फोट करून निरपराध लोकांक मारून उडोवपी गुन्यांवकारी उजळ माथ्यान वावुरतात. तांचो बंदोबस्त करप कोणाकच शक्य ना ही परिस्थिती कित्याक लागून निर्माण जाल्या? कारण असल्या गुन्यांवांक तेंको दिवपीच वयल्या स्तरावेले आसतात. तांका आनी ख्यास्त करपी (देव न्ही, देवच आता असुरक्षीत जाल्यात) सैमाबगर कोण ना अशेंच म्हणचें पडटा. दुकळ पडून हुंवार बुडटी जावन सगळें गोंय ना नपयत जातासर हें सगळें अशेंच चलतलें काय? आनी तो मेरेन सुक्या बरोबर ओलेंय जळत रावतलें काय!

❀❀❀



– रूपा कोसंबे
घर नं.: ३५९, शिंदोळी,
सांकवाळ,
कुठ्ठाळी-गोंय.
फोन-२४५२१५०

इंद्रधोणू

# अशींय आमी जायत चलल्यांत?

"आगो तुजे कडेन इतल्यो 'गीता' आसात? मागीर त्यो अश्यो भितर कित्याक दवरल्यात? तातुंतलीच चकचकीतशी नवी कोरी गीता हांगा ह्या सुंदर रॅकार लाय मगो! व्हिजिटींगाची सोबा वाडटली."

"व्हिजिटींगान सोबा वाडोवंक?" हांवें ताका विचाल्लें.

"तूं आतांचो नवो ट्रॅन्ड नकळो? आगो आतां शोपिसा मर्दी 'गीताय' दवरपाची फॅशन. हांवें म्हज्या व्हिजिटींगाचें इंटिरीयर डिजायनींग केलां. तेन्ना एक वेगळेंच रॅक करून घेतलां आनी तातूंत गीतेचीं पुस्तकां लायल्यांत. आगो शोपिसां परस चड इंप्रेशन पडटा. तूं इंटिरीयर डिजायनींग करता आनी तुका खबर ना?"

ताणें उलटें म्हाकाच पिशांत काडलें. 'मिसेस कामत जाणां तूं. तिका कितें कळटा गीतेंतलें? तिणें श्रीकृष्ण अर्जुनाचें सारथ्य करता तो रथ आनी गीतेचीं पुस्तकां लावन दवरल्यांत. सामकें टचिंग दिसता. म्हाका दिसता आनी कांय दिसांनी 'गीता' शोपीस जातली'

"गीता?! आनी शोपीस?!"

"तूं कितें अशें अजापान पळयता सुजाता?"

"गीता शोपीस म्हण वापरप ही तुमची कल्पना म्हाका पटना."

"कित्याक पटना? कोर्टांत गीतेचेर हात दवरून सोपूत घेवंक लायतात. गीतेचेर हात दवरून धडधडीत फट मारतात तें जर चलता मागीर गीतेचो असो वापर केलो जाल्यार कितें जालें?"

ताच्या त्या उलोवण्यार म्हाका खीणभर कांयच सुचलें ना.

खरेंच अशीय आमी जगत चलल्यांत?! अशीय आमची मानसीकता जाल्या?

गीता

गीतेंतले श्लोक...

गीता श्रीकृष्णान सांगली तीय अर्जुनाक जेन्ना ताचें गांडीव गळून पडिल्लें. आपल्या फुडें उबे आशिल्ले आपले सोयरे, गुरू, इश्ट पितामह भिष्म ह्या सगळयांचेर आपूण बाण कसो चलयतलों...? ते परस युद्धच नाका अशी मनाची स्थिती जाल्ली. एके तरेन धर्मसंकटांतच अर्जुन पडिल्लो तेन्ना श्रीकृष्णान 'गीता' सांगली. 'गीता' म्हळ्यार महाभारताचो आत्मो. गीतेचेर विदवानांनी, संतांनी भाश्य केलां. शंकराचार्यानी गीतेंतल्या ज्ञानयोगाचेर, संत ज्ञानेश्वरानी भक्तीयोगाचेर आनी लोकमान्य टिळकानी आपल्या 'गीतारहस्य' ह्या पुस्तकांतल्या कर्मयोगाचेर सांगलां. टिळकांचें 'गीतारहस्य' म्हज्यासारक्या सामान्य मनशाक चड भावता, पट्टा.

संतांनी, विदवानांनी वेगवेगळ्या भाश्यांतल्यान गीतेचेर भाश्य केलां. गीता सोपी करून सगळयांक समजता अशी सांगल्या. कोंकणींतली सुरेशबाबांची गीताय अशीच सोंपी, रसाळ. आमकां आमच्या प्रश्नांच्यो जापो गीतेंत मेळटात. गीतेची महतीच तशी म्हण न्याय व्यवस्थेसारके यंत्रणेंत गीतेचेर हात दवरून सोपूत घेवंक लायतात. 'गीता' देवाच्या स्थानार मानतात. शीख लोक, मुसलमान, ख्रिश्चन आपल्या ग्रंथांक पुजतात. ग्रंथच देव तशीच आमची गीता. आमी म्हुर्ती पुजेक म्हत्व दितात म्हण आमकां गीतेचें देवपण कळूंक ना. पूण समाजांत मॉर्डन, सुसंस्कृत म्हण वावुरपी लोकांनी गीतेक शोपीस करप?!

पूण हो एक ट्रॅन्ड जाला आनी हालीं आनीकूय एक फॅड आयलां, कोणय लक्षाधीश वा गिरेस्त मनीस वा प्रसिद्ध मनीस संवसाराक अंतरलो की ताच्या मर्णाची जाहिरात दितात. तो






प्रसिद्ध आसा जाल्यार मागीर ताचे भोंवतणचे ताच्या मरणाउपरांत सांत्वनपर जाहिरात कित्याक घालतात? आनी हाताकडेन मेळटा तो 'गीतें'तलो श्लोक सकल छापप आनी त्या श्लोकाचो अर्थय इंग्लीशींतल्यान अणकार केल्ल्यो ओळी त्या श्लोका बरोबर छापप आनी हें करतना गीतेंतल्या श्लोकाचो अर्थ वा गीतेची महती हाचें कांयच तारतम्य पाळप ना म्हळयार कितें? ते व्यक्तीचें उदात्तीकरण करप इतलोच हेत दोळ्यामुकार बाळगप? व्हड फोटो आनी गीतेचो श्लोक दिवप हेंय एक फॅड जालां.

गीतेचो शोपीस करप वा गीतेचो असो वापर करप हें सगळें चित्र पळयतगीर मनाक प्रस्न पडटा अशींय आमी जायत चलल्यांत?





– सुजाता सिंगबाळ
पर्वरी – गोंय




## शतकान्तिका

किरण बुडकुले हाणीं वेगवेगळ्या पुस्तक प्रकाशन सुवाळ्या केल्लीं उलोवपां, त्या निमतान त्या पुस्तकाचेर बरयल्ले लेख हांचें संकलन म्हळ्यार शतकान्तिका. शतक संधिकालीन कोंकणी साहित्य अशें ताणीं ह्या पुस्तकाची वळख केल्या.

ह्या पुस्तकांत रवीन्द्र केळेकार, दत्ता नायक, महाबळेश्वर सैल, देविदास कदम, अशोक कामत, माधव बोरकार, रमेश वेळुस्कार, परेश नरेंद्र कामत, काशिनाथ शांबा लोलयेकार, अरूण साखरदांडे आदी लेखक कविंच्या पुस्तकांची वळख आसा.

बिम्ब प्रकाशनान उजवाडाक हाडिल्ल्या ह्या पुस्तकाचें मोल १८० रु. आसा.

## देवकापसाची वात

गोंय सरकारचें, गोंय कला आनी संस्कृतीक संचालनालय गोंयच्या लेखकांकडल्यान वेगवेगळ्या विशयांवेलीं पुस्तकां बरोवन घेवन तीं उजवाडाक हाडटा.

देवकापसाची वात हें सुमेधा कामत - देसाय हांचे पुस्तक अशेंच खात्यान उजवाडाक हाडलां. ह्या पुस्तकांत गोंयच्या समाजजिणेच्या




संबंदांतले बारा निबंध आसात. दरएक निबंध म्हणल्यार समाजमनाच्या गिन्यानाची, ताच्या संस्कृतीक दायजाची, ताच्या सौंदर्य कळाशेची व्हॉवरीचशी अशें ह्या पुस्तकाक बरयल्ले प्रस्तावनेंत कवी रमेश वेळुस्कार म्हणटात.

पानां ९२, मुखचित्र-हर्षदा केरकार हांचें.

## अक्षर सरिता

किरण बुडकुले हांचें अक्षर सरिता हें आनीक एक पुस्तक बिम्ब प्रकाशनान उजवाडाक हाडलां. हें पुस्तक व्ही. एम्. साळगांवकार प्रतिश्ठानान पुरस्कृत केलां. हें पुस्तक म्हळ्यार कोंकणी भास आनी साहित्य : कांय लेख अशी वळख खासा लेखिका किरण बुडकुले करतात.

ह्या समिक्षेच्या पुस्तकांत कोंकणी कविता, कथा, शणै गोंयबाबाचो वावर, रवीन्द्र केळेकारालें आपबरप, कोंकणीफुडलीं आव्हानां, मनोहरराय सरदेसाय हांच्यो कविता अश्या वेगवेगळ्या विशयांचेर भाश्य ह्या पुस्तकांत ताणीं केलां.

पानां : १२७, मोल : रु. १२०



# उतरकुवाडें



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | २ | ३ | | ■ | ४ | ५ | ६ | ■ | ७ |
| ८ | | | ■ | ■ | ९ | | | ■ | |
| | ■ | १० | ११ | | | | ■ | १२ | |
| १३ | | ■ | | ■ | | ■ | १४ | ■ | |
| | ■ | ■ | १५ | | | ■ | १६ | | |
| ■ | १७ | | | ■ | ■ | १८ | | ■ | ■ |
| १९ | | ■ | २० | | ■ | २१ | | २२ | २३ |
| ■ | २४ | २५ | | ■ | २६ | | ■ | २७ | |
| २८ | | | ■ | २९ | | | ■ | | ■ |
| ३० | | ■ | ३१ | | | ■ | ३२ | | |

## आडवे

१. थंडसाणीन, ताकतीक करिनासतना
४. मोल करूंक येना अशें, गोलमाल (आदलो) ह्या सिनेमातलो नट ह्ह्ह पालेकर.
८. निबर, घट्ट
९. बळ, हुशारकाय
१०. दुकानदार, पसरो चलोवपी
१२. जॉर्ज ह्ह – अमेरिकेचे आदले अध्यक्ष
१ ३. ह्ह कडी–गोंयकाराचें जेवण
१५. ड्रामा
१६. रचना, रचणीं
१७. पंदरा आनी दोन
१८. पद
१९. श्रीफळाचें झाड
२०. प्रयत्न
२१. तलवार
२४. एके तरेचो घट्ट फातर
२६. चुलतो
२७. आशिर्वाद
२८. थंड
२९. उणाव
३०. घाण, कोयर
३१. आधार, तेंको
३२. सीतेचो बापूय

## उबे

१. लग्न जाल्ली बायल.
२. सूर्याच्या किरणांचो उजवाड
३. हातांत घेवप, उखलप
४. चडांत चड
५. गाडी
६. ताल, गती
७. रेडिओ, नभोवाणी
११. श्रीविष्णूची पूजा
१४. सारकें अंतर आशिल्लें
१७. शिरशिरीत, चड बारीक वा मोटें न्हय.
१८. सिनेमांतलीं पदां बरोवपी
२२. शुभ मंगल ह्ह्ह्ह
२३. प्रत्येक वा मोल
२५. म्हावस्त्र
२६. कूर्म, कच्छप
२८. मेर, सराद
२९. ओड, आवड.

## दिवाळी उत्तरकुवाड्याची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| त | न | फ | ळ | ■ | मो | ह | र | म | ■ |
| न | ■ | र्मा | ■ | र | ख | र | ख | ■ | पां |
| वा | ता | व | र | ण | ■ | भ | ■ | पं | खो |
| स | ■ | णी | ■ | खो | री | ज | ■ | ठ | ■ |
| ■ | दा | ■ | जा | त | ■ | न | ■ | र | म |
| जि | ळ | सा | ण | ■ | ■ | सिं | गा | पू | र |
| रो | ■ | ■ | वि | त | रा | ग | ■ | र | ड |
| प | स | र | क | र | ■ | ■ | दि | ■ | ■ |
| ■ | ■ | त | या | वा | ट | ■ | वा | ट | न |
| जि | र्म | ळ | ■ | र | ■ | मा | ळी | ■ | ट |

**भलायकी**

# वीनींग आहार

**भु**रगें जल्माक आयलें की पयले चार ते स म्हयने तें फक्त आवयच्या दुदाचेर रावूंक शकता. ताच्यो शाररीक, मानसीक आनी सगळे तरेच्यो गरजो आवयच्या दुदान भागतात. पूण स म्हयन्या वयर जशी जशी भुरग्यांची वाड जाता तशो ताच्यो सगळ्या तरेच्यो गरजो आवयच्या दुदांतल्यान भागना. म्हूण स म्हयन्या परस चड जातकच आवयच्या दुदा बरोबर ताका दुसरें अन्न पोटाक दिवची गरज पडटा जेणे करून ताची शारिरीक तशीच मानसिक वाड सारखी जावंची. हाकाच वीनींग (Weaning) अशें म्हणटात.

प्रत्येक भुरग्याक जेन्ना वीनींग चालू करता तो ताच्या आयुश्याचो सामको नाजूक वेळ आसता. कारण ह्या वेळार नवें खाण-जेवण भुरग्याक सुरू करतात आनी ते जर ताका पचलें ना जाल्यार ताका हागवण लागता, ओंकारे येतात. तशेंच ताका इन्फेक्शन जावं येता. हें सगळें कित्याक जाता तें तुमका खबर आसतलेंच. जेन्ना भुरग्यांक भायलें खाण घालतात तेन्ना ताका चार लोकांचे हात लागतात. तशेंच नवीं आयदनां, वाटयो, कुलेरांचो उपेग जाता. हीं जर सगळीं सारकीं धुवून, सळसळावन, लीप हातांत कामां केलीं जाल्यार बरें, ना जाल्यार भुरग्याक परतून परतून दुयेंसा जावं येता आनी हाच्या खातीर भुरग्याक अशक्तपणा येवं येता. ताची रोग प्रतिकार शक्ती कमी जावं येता. ताका मालन्युट्रीशन जाता आनी हें अशें सगळें चालूच उरता.

अशें दिसून आयलां, पयल्या चार ते स म्हयन्यांच्या काळांत ज्या भुरग्यांची सारकी बरी शारिरीक तशीच मानसीक वाड जाता तींच भुरगीं फुडें पावन आरोग्यान बरीं उरतात, हे खातीर सगळ्या आवय-बापायंक तशेंच भुरगीं सांबाळपी लोकांक वीनींगचेर शिक्षण आसप गरजेचें.

### वीनींग चालू कशें करतात?

१. एका वेळार एकेच तरेचें खाण-जेवण चालू करचें.

२. सुरवातेक सामकें कमी प्रमाण दवरचें, एक वा दोन कुलेरां-आनी सवका प्रमाण वाडोवंचे.

३. सुरवातेक पातळ वा धबधबीत (Semi Solid) आहार दिवंचो आनी दोन-तीन आठवड्या उपरांत घट्ट (Solid) आहार दिवचो.

४. सुरवातेक आवयचें दूद घेतकच थोड्याच वेळान हें नवें खाण दिवचें आनी मागीर खाणाचें प्रमाण वाडयता तशें तशें ताचो वेळ बदलचो.

५. हें खाण भुरग्याक नितळ आयदनांत आनी कुलेरांत दिवचें. शक्यतो बोम वापरचो न्हय.

६. ल्हान भुरग्याचें पोट ल्हान आसता म्हूण ताका एकाच वेळार खूब खाण दिवचें न्हय. पूण परतून परतून थोडें थोडें खाण दिवचें.

### वीनींग आहार कसो आसचो?

१. पौष्टीक (high nutritional value)
२. सगळेकडे मेळटा (easy availability)
३. भुरग्याक पचपाक सोपो
४. घरांतल्या लोकांक मानता तसो
५. शिजोवपाक सोपो
६. चड म्हारग न्हय
७. नितळ

वीनींग आहार आमच्या घरांत आशिल्ल्याच धान्य-जीन्नस वापरून करचो जशें की - खीचडी, शीत, चपाती, दाळ, रवो, इडली, पोळे. तशेंच बटाट, फळां, उकडलेल्यो भाजयो, नाशण्याचें सत्व. ह्या खाणांत जर थोडें तूप, तेल, साकर, गोड घालें जाल्यार हांची पौश्टीकता वाडटा आनी ती भुरग्यांक सदांच बरी.

### वीनींगाचे हे सगळे त्रास कित्याक जाता?

१. वीनींग बद्दल आवयांक तशेच दुसऱ्यांक ज्ञान,शिक्षण नासता.

- थोडे लोक भुरग्याक तीन-चार म्हयने जावंच्या पयलींच भायलो आहार सुरू करतात, जो तांका पचना. तशेंच थोड्यो आवयो णव-धा म्हयने जाले तरी तांका आपल्या दुदा शिवाय कांयच दुसरें दिनांत.
- थोड्या लोकांक हे वीनींग आहार कितल्या प्रमाणांत सुरू करचो हेंच खबर नासता.
- थोड्यांक कितें घालचें तेंच कळना - ती पातळ निवोळ, दाळीचें उदक इतलेंच घालतात. हातूंत चडशी पौश्टीकता आसना. तांका मात्शी दाटसाण आसूंक जाय.
- नीतळसाणीची जाणविकाय नासता (unhygeinic Pravtices)

२. सुरवातीकूच भुरग्यांक सगळ्या तरेच्या खाणा-जेवणाची सवंय करूंक जाय. हें खाल्यार ताका थंडी जाता वा तें खाल्यार ताका उश्ण पडटलें अशें येवजूंक जायना.

३. सारकें वेळार, तशेंच थोड्या-थोड्या प्रमाणांत भुरग्यांक पोटाक घालना आनी आपल्याक फावता तशें दिसाक दोन-तिनदांच भुरग्यांच्या पोटाक घालप हें सारकें न्हय.

हें जालें वीनींग आहाराचेर. पूण लक्षांत आसुंदी हें सगळें करतना तुमका आवयचें दूद दिवपाचें बंद करपाची गरज ना. आवयच्या दुदा सारकें आनीक कसलेंच अन्न नासता. हेर सगळ्या खाणा बरोबर आवयचें दूद भुरग्यांक देड-दोन वर्सां जातासर चालूच आसचें. तशेंच भुरगें वर्साचें जाता तेन्ना ताणें आमी जो आहार घेतात तो सगळो आहार ताणें





- डॉ. वंदना धुमे
९८२२५८५२८५

# बिम्ब प्रकाशन

'धर्म–लक्ष्मी'

सांत लॉरेन्स, आगशी – गोंय ४०३ २०४. फोन :२४३८३५५, e-mail: bimbkonkani@yahoo.co.in

| क्र. | नांव | वर्स | मोल | लेखक |
|---|---|---|---|---|
| १. | दर्या सुंदरी (बाल साहित्य) | २००५ | ४०/- | दिलीप बोरकार |
| २. | काणी एके जिणेची (कादंबरी) | २००३ | ५०/- | सुजाता सिंगबाळ |
| ३. | खगोलशास्त्रीय नाट्यांगण | २००३ | १००/- | श्रीकांत नागवेंकार |
| ४. | वादळ आनी वारें (कादंबरी) | २००४ | १५०/- | फा. आ. पेरेग |
| ५. | चतुर्विध (एकांकी) | २००५ | ५०/- | उल्हास नायक |
| ६. | भारतवर्षाची संस्कृतायेची साधना | २००५ | १५०/- | रवींन्द्र केळेकार |
| ७. | पोरसांतलीं फुलां (ललित) | २००६ | ५०/- | स्मिता भंडार |
| ८. | भलायकी | २००६ | ८०/- | डॉ. वंदना धुमे |
| ९. | भूंयफोंड (कविता) | २००६ | ८०/- | ग्वादालूप डायस |
| १०. | अंतरंग (कविता) | २००६ | ६०/- | श्रीकांत पालसमकार |
| ११. | गुंजा (कविता) | २००६ | ६०/- | नयना नाडकर्णी |
| १२. | अमुरपक्यां चित्रां (ललित) | २००६ | ८०/- | उदय गुडे |
| १३. | मळब झेंप (कथा) | २००६ | ८०/- | माया खरंगटे |
| १४. | शिंपलतळच्यान (कविता) | २००६ | ६०/- | दत्तात्रय गोविंद प्रभु देसाय |
| १५. | बेलापान (ललित) | २००७ | १००/- | डॉ. उदय भेंब्रे |
| १६. | समर्पण (कादंबरी) | २००७ | २००/- | न. ध. बोरकार |
| १७. | कसलो धीर आनी आधार...? | २००७ | १००/- | रवीन्द्र केळेकार |
| १८. | मांगतनर (कविता) | २००७ | ८०/- | दिपा [illegible] |
| १९. | पोतनां (ललित) | २००६ | १२०/- | नयना आडारकार |
| २०. | तांबशी (कविता) | २००३ | ७०/- | मनोज ना. कामत |
| २१. | मोतयांची माळ (बालसाहित्य) | २००६ | ६०/- | प्रशांती तळपणकार |
| २२. | मात काणयो (कथा) | २००४ | ६०/- | गणपत कालेकार |
| २३. | माणकां मोतयां (बालसाहित्य) | २००४ | ५०/- | नरेंद्र काशिनाथ कामत |
| २४. | काळग्री जीण (कविता) | २००४ | ६०/- | माइडाम आपटे |
| २५. | म्हजी माती म्हजें मळब (कविता) | २००७ | १००/- | हर्षा शेट्ये |
| २६. | पोको (कादंबरी) | २००४ | २५०/- | नं. ध. बोरकार |
| २७. | आंगाड्या भांयर्नां नील शेवतीं (निबंध) | २००६ | १२०/- | जयमाला दणायत |
| २८. | वाघगडी (एकांकी) | २००६ | ६०/- | नं. ध. बोरकार |
| २९. | गम्मी (एकांकी) | २००६ | ५०/- | नं. ध. बोरकार |
| ३०. | सुनामी सायमन (कादंबरी) | २००९ | १८०/- | दामोदर मावजो |
| ३१. | उमलताना (मराठी कविता) | २००९ | ८०/- | राधा भावे |
| ३२. | अक्षरमांता | २००९ | १२०/- | किरण बुडकुळे |
| ३३. | गोंद (कादंबरी) | २००९ | २००/- | नं. ध. बोरकार |
| ३४. | हावठण (कादंबरी) | २००९ | २००/- | महाबळेश्वर सैल |
| ३५. | शतकान्तिका | २००९ | १८०/- | किरण बुडकुळे |

# संगीताची जुगलबंदी!





वेदना, दुख्खां विरयत. पूण ते वेळार हाणें विचार केलो ना, गोंयांत आनी संवसारारूय दिसपट्टीं नवीं नवीं हॉस्पिटलां तयार जातात तीं फकत आपल्याच खातीर न्हय. मागणी आसा म्हणटकच सप्लाय जाता हो अर्थशास्त्रांतलो म्हत्वाचो नेम. पूण प्रत्येकाचें दुखणें हें फक्त तार्चेंच आसता. ताकाच तें भोगपाचें आसता आनी देखूनच ताका दिसता, आपल्याच्याच वांट्याक काय देवा हें सगळें?

नामनेचो टेनिसपटू, विम्बल्डन जैतिवंत आर्थर ॲश कॅन्सराच्या दुयेंसान हांतुणार पडलो. खबर आयकून संवसारभरचे ताचे चाहते चुरचुल्ले. ताचेर ताणीं भुजवणेच्या पत्रांचो पावस घालो. तातूंत कांय पत्रां आशिल्लीं, "देवान तुकाच रे बाबा ह्या दुयेंसा खातीर वेंचून काडलो?"

त्या प्रश्नांचेर भाश्य करतना आर्थरान जाप दिल्ली –

संवसारांत पाच अब्ज भुरगीं टेनिस खेळपाक प्रारंभ करतात.

मुखार पाच कोटी भुरगीं टेनिस खेळूंक शिकतात.

पाच लाख खेळगडे वेवसायीक खेळगडे जातात.

५० हजार भुरगीं सर्तीत देंवतात

तातुंतलीं पांच हजार ग्रॅंडस्लॅम मेरेन पावतात.

तातुंतलीं ५० बिम्बल्डन मेरेन वतात. चार सेमी फायनल मेरेन पावतात आनी दोन फायनली मेरेन!

हांव जेन्ना म्हजो 'विम्बल्डन' चषक हातांत घेवन उबो आशिल्लों तेन्ना हांवें देवाक केन्नाच विचाल्लें ना, "देवा हें यश म्हाकाच रे कित्याक? देखून आयज हें दुयेंस म्हज्या वांट्याक आयलां तेन्नाय हांव देवाक

म्हजो एक मित्र आसा. तशे मित्र हे खूब आसात म्हजे. तेन्ना एक मित्र आसा म्हणटकच कोणाकूय दिसत हाका एकूच मित्र काय म्हूण! मित्र ही म्हजे खातीर संकल्पना वेगळी. ते संकल्पने प्रमाण जर हांव चलूंक गेलों जाल्यार म्हाका एकूय मित्र असो उरचोना. हांगा मित्र म्हळ्यार संवकळीचो. वयलेवयर मेळपी वो निदान फोन करपी असलो.

पूण एक मित्र आसा अशें मुद्दम म्हणपाचें कारण म्हळ्यार हाचेकडेन म्हजे भावनीक, कुटुंबीक संबंद आसात. ताची बायल म्हाका भाव मानता आनी ताच्या भुरग्यांचीं लग्नां जालीं तरी तीं भुरगीं म्हाका अजुनय मामा म्हणटात.

तर ह्या मित्राक हालींच स्लीप डिस्क जाली. स्लीप डिस्क अशें तो म्हणटा. पूण कमराक सणसण मारतात हें मात खरें. ताका ट्रॅक्शन घालून बी सात-आठ दीस दवरिल्लो. आतां मातशें बरें दिसता म्हणटालो. पूण ताका हुसको आतां परस फुडाराचो. हें भेंड अशें मोडलें जाल्यार सोंपलो मरे हांव! अशें म्हूण पिरंगता.

हाणें आपल्या ऐन जुवानीत ह्या भेंडाचो खूब वापर केला. पेश्यान शिक्षक. सामाजिक वावरांतूय आपली हजेरी लावपी. वाचनांतूय गोडी. म्हणचे एक सर्वसामान्य, नॉर्मल जाका स्मूथ जीवन जगपी मनीस म्हणू येता असो!

ताका कसलोच पातसो ना. आयली आंगार घेतली सिंगार म्हूण खूब जाणांक सिंगार घेवन मेकळो जाला. दर सांजचे एकदोन पेग रेग्यूलर जाय. बायलूय मायेस्त. मोगान लग्न जाला. भुरगींय सगळीं वेवस्तीत वाडल्यांत. म्हणटकच आदर्श जीवन जगून आयिल्लो मनीस!

ताका हें दुखणें जालें आनी तेन्ना तो थतरवितर जालो. नातरांकार मनीस हो. पूण आपल्याकूय असल्यो वृध्दत्वाकाळार व्याधी जावं येता हें मस्त जीवन सारतना विसरूनच गेल्लो. म्हणूंक लागलो, म्हज्याच वाट्याक कित्याक रे बाबा हें?

आयकून म्हाका हासूंक आयलें. आपल्याच वाट्याक म्हळ्यार कितें? हो जीवनाचो वेगळावं नज असो वांटो. सगळ्यांचे जिणेंत येताच. कोणाक पयलीं, कोणाक उसरां! जीवन पध्दत कशी आसता ताचेर हें सगळें निंबून आसता. पूण वांट्याक मात सगळ्यांच्या येताच. जाका पयलेच खेप जाता ताका दिसता हें आपल्याकूच जालां. बाकीचे सगळे लोक सुखान आसात.

प्रस्न करिना, हें म्हज्याच वांट्याक शें कित्याक?"

मनीस हो ह्या ब्रह्मांडाचो घटक. ब्रह्मांड हें गतीशील. तें आपले अशे एके गतीन निरंतर चलत आसा आनी हे गतीक लागून तातूंत सातत्यान बदल घडत आसता. मनीसूय त्या बदलांतल्यान सुटना. ताच्याय भितर सातत्यान बदल घडटा आनी ह्या बदलाक लागून सृश्टींतल्या सगळ्या चराचरात जीं स्थित्यंतरां घडटात तातूंत मनीस आपल्याक कुशीन काडूंक शकना. भुरगेंपण, तरणेपण, वृध्दत्व हीं सगळीं स्थित्यंतरां. मनशाचो देह ह्या स्थित्यंतरांतल्यान वता. हो देह योग्य संतुलनात आसता तेन्ना सुखाच्यो संवेदना दिता. संतुलन इबाडटा तेन्ना वेदनेच्यो संवेदना दिता. वेदना ही एक देहाची भास, संतुलन इबाडटा हाचो संदेश दिवपी. ती भास योग्य वेळार समजलीना तर मागीर शरीर आरड मारता. तेन्ना सुरू जातात मनशाच्यो तक्रारी!

खंयच्याच सजीवाक चुकनात ह्यो वेदना. पूण लक्ष दिनांत हेरांच्या वेदनेकडेन. कित्याक तांची भास, तांच्यो भावना आमकां कळनात. कळटा ती मनशाचीच भास. कित्याक दरेक मनीस केन्ना ना केन्ना ह्या स्थित्यंतरांतल्यान गेल्लो आसता. वचपाचो आसता. दरेकान हो अणभव घेतिल्ल्यान ताकाच ती भास कळटा. देखून मनीसूच मनशालागीं पिरपिरता.

कांय लेखिका आसात. त्योय ह्या स्थित्यंतरांतल्यान वतात. पूण केन्नाच तोंडार हांसो ना. मेळिल्ले फावटी पिरपिर. म्हाका हांगा दुखता, थंय दुखता. तांकाय मेळिल्ले आसात खुबशे पुरस्कार. पूण तक्रार मात दुखण्याची. भोवतेक लेखक सगळे पुरस्कार मेळुनय केन्नाच आपल्या दुख्खांक गोड मानूंक पावच नात.

तरीय दामोदर मावजो, सुरेश



आमोणकार असलेय साहित्यिक आसात. भिरांकूळ स्थित्यंतरांतल्यान गेल्यात. पूण तोंडावेलो हांसो केन्नाच वचूंक दिलोना. ताणीं सांगले बगर कोणाकूच कळचें ना, केन्ना हांकां केन्नातरी भिरांकूळ दुयेंसान ग्रासिल्लें. जीवन कितलें सुंदर आसता हें ह्या लोकांक पळयतकच म्हाका कळटा आनी हांव त्या जीवनाचो आस्वाद घेतां. तांचे भितर एक आनी भायर एक आसूं येता! शेवटी वेदनाच त्यो. तरीपूण भायर कोणाकूच पत्तो लागूंक दिनांत. पुरस्कार ज्या नेटान घेतात त्याच नेटान हेवूय पुरस्कार स्वीकारपाची तांची ही वृत्ती म्हजे सारक्यांक वेगळीच उमेद दिता.

हांवूय गेलां ह्या स्थित्यंतरांतल्यान. जसजशें वृध्दत्व येता तसतशें शरिरांतलो दरेक अवयव म्हजेकडेन संवाद सादतलोच. जेन्ना तो अवयव वेदनेच्या माध्यमांतल्यान उलोवंक लागतलो तेन्नाच म्हाका कळूंक पावतलें, आनी म्हणटलो आरेच्चा म्हाका खबरूच नाशिल्लें मरे इतलो काळ म्हजे शरिरांत हे अवयव आसा म्हूण!

अवयवांच्या वेदनेची ही भास आमकां होलमता देखूनच आमी ते भाशेक भितात. म्हज्या सारख्या कांय जाणांक हेरांचीय भास कळटा. रूखाची जाल्ली कापाकापी, तांची आरड थेट काळजा मेरेन पावता. तरण्या दोंगरांक घाल्ले सुरींग कानार पडलेनांत तरी मातयेचें रूदन होलमल्या बगर रावना. तांची ही वेदनेची भास हांव जेन्ना आयकतां तेन्ना म्हजेय वेदनेची भास उलोवंक लागता. तेन्ना कळटा ही फकत भास. त्यो वेदना न्हयच.

हय हे जिणेंत वेदना, दुख्ख म्हळ्यार कांयच ना. आसात त्यो आमी करून घेतिल्ल्यो समजुती! जेन्ना म्हज्यांतले तेच भाशेन वेगळेच तरेची संवेदना दिली तिका हांवें सूख मानलें. तेच भाशेन आपली भास काळा प्रमाणे बदल्ली तेन्ना हांवें मानून घेतलें तें दुख्ख म्हूण! भास तीच. म्हजें समजून घेवप वेगळें. ह्या अर्थाच्या आनी अनर्थाच्या घुस्पागोंदळांत हांव केन्ना केन्नाय म्हजें जियेवप शेणोवन बसतां. म्हजे वांगडा हेरांकूय पिडटां.

आतां मात हांवें ती भास सारकी शिकून घेतल्या. धोपरांतलें कटकट जावप आनी कमरेंतल्या तंतुवाद्याचे सूर हें सगळें जीवन संगीत. हें संगीत जर आळोवंक आयलें जाल्यार मागीर पुराय देहांतल्या संगीताची जुगलबंदी जिणेचो अर्थ उसयत रावता. दरेक गजाल खोस दिता असल्या आगळ्या वेगळ्या पुरस्कारांची!



**– दिलीप बोरकार**
आगशीं – गोंय

